# बषीराल्यो काण्यो

मूळ मलयाळम :
**वैकम मुहम्मद बषीर**
अणकार : प्रो. आर. के. राव

कोंकणी साहित्य अकादेमी – केरळ
एरणाकुळम

(Konkani) | (कोंकणी)

**Basheeraalyo Kaaniyo** | **बषीराल्यो काण्यो**

Short Story Collection | कथा संग्रह

Original in Malayalam : | मूळ मलयाळम :

Vaikom Muhammed Basheer | **वैकम मुहम्मद बषीर**

Translation : Prof. R. K. Rao | अणकार : प्रो. आर. के. राव

First Edition : June 2013 | पयली आवृत्ती : जून **2013**



Published & Distributed by : | प्रकाशन आनी वितरण :

Konkani Sahitya Akademi-Kerala | कोंकणी साहित्य अकादेमी – केरळ

12E, Sowparnika Apartments | 12-E, सौपर्णिका अपार्टमेण्ट्स

T.D. Road, Ernakulam | टी.डी.रोड, एरणाकुळम

Kochi - 682035 Kerala | कोची : 682 035 केरळ

e-mail : konkani.sahitya.akademi@gmail.com

Type Setting : | टाइप सेटिंग :

Shri Ganesh Graphics, Mangalore | श्री गणेश ग्राफिक्स, मंगळूर

Printed at : | मुद्रण :

Vidya Printers, Ernakulam | विद्या प्रिंटर्स, एरणाकुळम

Price : ₹ 140/- | मोल : ₹ 140/-

# दोन उतरां

वैकम मुहम्मद बषीर केरळचो नामनेचो साहित्यकार आसा. मलयाळम भासेंतले कथासहित्याक तांणी नवो आयाम दिलो. नवोत्थान साहित्याक अमोल वांटो दिलो. तांणी ललित शब्दांनी गंभीर जीवनाचें सहज चित्रण केलें आनी हास्यरुपी शैलीन सरळ जावन काण्यो बरयल्यो.तांकां 'बेपूर सुल्तान' म्हणतात.

बषीराली पयली कथा 'तंगम' आसा आनी ती पद्मनाभ पै नांवांचा एक कोंकणी मनीशान आपणाल्या'जयकेसरी' पत्रिकेंत 1938 वर्सा उजवाडायिल्ली गजाल बषीरान सांगल्या. बषीराल्यो 'वण्टी' आनी 'कुलकुलाट' नवलिका चंद्रकांत केणी हांणी 1987-त कोंकणींत हाडलां. तशेंच आर. एस. भास्करान 'म्हज्या आज्याक एक हस्ती आशिल्ली' ही कादंबरी 2001-त कोंकणींत अणकारून ताका केंद्र साहित्य अकादेमीचो अनुवाद पुरस्कारुय फ़ावो जाला.

तरीय प्रो. आर.के. राव हांणी बषीराल्यो वेगवेगळ्यो काण्यो कोंकणीक अणकार केलेल्यो गोंयांतलें 'जाग' म्हयनाळ्यांत तेन्नाचे संपादपी भौ. रवीन्द्र केळेकार हांणी उजवाडायिल्ल्यो.पुण अजून त्यो काण्यो पुस्तकरूपान येवंक नात.राव मास्टरालो हो वाव्र व्यर्थ जावचो न्हय अशें मानून तांच्या अणकारांचो हो संग्रह आतां उजवाडाक हाडतना आमकां भारी खुशी दिसता.

राव मास्टराल्या हातबरपारुच उरलेल्यो तीन काण्यो आमकां धाडून दीवन आतंचे'जाग' संपादपी डॉ. माधवी सरदेसाय हांणी व्हड उपकार केलो. उजवाडाक आयलेल्यो स काण्यो वेंचून दीवन श्री. के. गोकुलदास प्रभु हांणीय सहकार दिलो. हो कथासंग्रह कोंकणींत उजवाडावपाक कांयच अपेक्षा नातिल्लें संपूर्ण मनान आमकां परवानगी दिलेल्या वैकम मुहम्मद बषीराले कुटुंबाक (बायल फ़ाबी, पूत अनीस बषीर आनी धूव शाहीना हांकां) आमी देव बरें करुं म्हणतात. केरळच्या तशेंच केरळा भायल्या कोंकणी सहृदयी वाचकवृंद हो संग्रह प्रीतिपूर्वक स्वीकारतले अशी आमी आशा पांवतात. बषीराल्यो'पात्तुमायची बोकडी' आनी 'म्हज्या आज्याक एक हती आशिल्ली' अशें दोन कादंबरियोय प्रो. आर.के. रावान अणकार केल्यांत आनी तीं अजून पुस्तक जाल्लीं नात. तींवय उजवाडाक आयल्यार बरें.

'कोंकणी साहित्य अकादेमी केरळ' ह्या संस्थेक रुप दीवन प्रोत्साहन दिलेल्या केरळ सरकाराक आमचो धन्यवाद.

- पय्यनूर रमेश पै

अध्यक्ष, कोंकणी साहित्य अकादेमी - केरळ

## बषीर - एक कथाकार आनी कादंबरीकार

वैकम मुहम्मद बषीर हे एक अंतर्मुख वृत्तीचे आनी समाजाचे गुण-ऐषां चे पारखी कथाकार आसात. स्वजातीचे समाजांत तांणी जें देखलें आनी अनुभशिलें तांचे सहायान मानवी जीवितांत सर्वत्र दृष्टि पडचे स्थायी झगड्यांचे ते चित्रण करतात. तांचे अनेक कथांत कारुण्याची अंतर्धारा व्हळता. ती अंतर्धारा इतली की वास्तव आसा की ती बषीरांची, स्व अनुभवाची आसा सी दिसता. आपणाले 'जीवितम्' ह्या कथेंत ते म्हणतात "मनुष्य दुख भरलेले अंतःकरणान सर्वयकडे चोयता. अनंत वैर, अगणित यातना, भूक, रोग, जाळ, मत्सर, अधिकाराक स्पर्धा, घमंडी लोकांचो परिहास, दुख भोगतल्यांचे रण्णें - यथार्थ जीवन कितले कष्टांचे घटनांनी भरन आसा!" तांचे कथांत जीवनांचे हेच लाचारपणाचें वर्णन आसा. हाचे अर्थ अशी न्हय की मनीश ह्या लाचारपणाक शरण येता. परंतु बषीर आदी मानतात की जीवन एक संग्राम आसा आनी जीविताचे संपूर्ण अनुभूती खातीर व्यक्तीन हो संग्राम करुंक जाय. मनीशानच मनीशाक हीन दशेक पावंयला. देकून तो दुख भोगता आनी त्या कारणीं तांच्यो कथा दुखाचे प्रतिकारांच्यो जाल्यात. परंतु अगाध शोक चित्रित करते तांचे कथेंतच विनोदाची मात्राय दृष्टि पडता. त्या पसावत तांची कटुता ऊणे जावन पीडेचे जीवनांचेर उजवाड पडता. खरें म्हणचें, बषीर एक निस्संगी कलाकार आसून, तांकां जीविताचे सुख-दुःखाचे अनुभवाचें चित्रण एक सारखेच करुक जाता.तरीय जेन्ना बषीर आपणाले जाति बांधवांचे - मुस्लिमांचे आनी तांचे व्हासोन्मुख कुटुंब जीवनांचे चित्रण करचाक लागतात तेन्ना बषीरांचे अंतर्मनात परपीडक आनंदाचो प्रवाह सी दृष्टि पडता. 'जन्म दिनम्', 'विड्ढिकळुटे स्वर्गम' (मूर्खांचो स्वर्ग), 'मुच्चीट्टुकळिक्कारन्डे मकळ' (जुवांखेळप्याची धूव), 'ओर्मक्कुरिप्पु'

(आटोवणी), 'पावप्पेट्टवरुटे वेश्या' (दळिद्रांची चेडी), "विश्वविख्यातमाय मूक्कु' (विश्वविख्यात नांक), आनी 'विशप्पु' (भूक) हे तांचें प्रसिद्ध कथासंग्रह आसात. धारावाही दीर्घकथा साप्ताहीक पत्रांतल्यान उजवाडाक हाळेले बषीर हे प्रथम कथालेखक आसात. 'आनवारियुम् पोन्कुरिशुम्' आनी 'स्थलत्ते प्रधान दिव्यन्' (गांवचो पयलो दिव्य पुरुष) ह्यो तांच्यो दोन प्रसिद्ध दीर्घ कथा साप्ताहिकांतल्यान प्रथम उजवाडांत आयल्यो.

वैकम मुहम्मद बषीर हे ओजस्वी कादंबरीकार म्हण नांव पावल्यात, बषीर मुख्यतः कथाकार आसात - परंतु 'बाल्यकाल सखी' (बाल्यपणाची सखी) आनी 'न्टुप्पुप्पाक्कोरानेंटार्न्न' (माजे अज्ञाबापुयक एक हस्ती आशिल्ली) ह्यो दोन कादंबरीयो निर्माण करन बषीरांनी मलयाळी कादंबरीचे क्षेत्रांत नांव कमायलें. ह्या दोनीय कादंबरींतलीं पात्रचित्रण आनी घरचे वातावरणाचे निर्माण भो हृदयस्पर्शी आसात: तीं वाचकांचे स्मरणेंत दीर्घकाल रावतात. कथा रचना आनी घटनांचों क्रमान आशिल्लो विकास - हांकां बषीरांचे कादंबरीत अधीक महत्वाचें स्थान आसा. तशीच कुटुंबजीवनाचे पृष्ठ भूमीर निर्मण केल्लेलीं मानवी भावनांची चित्रां तांचे कादंबरींत सुभिक्ष मेळतात. विशेषतः "बाल्यकालसखी" मदें सुहरा आनी मजीद हांचे अधिक दुखदायक अवसान फातराचें हर्देय फुट्टन वचे समान आसा. ह्या दोन जीवांचे शोकांत वाचकांक जीविताचे गूढ स्वरूपा पासून चिंतन करचाक प्रेरणा दिता. सोहरा आनी मजीद ह्या सेजारचे दोगानीय आपणाले चेरडुपण एकमेकाचे सहवासांत सुखान, आनंदान काडलें. शेजारी सोहरा आनी मजीद ह्या दोगानींय भुरगेपणाचो काल एकमेकाचे सहवासांत भो आनंदान काळ्ळो. परंतु तरणाटी पिरायेर समाजाचे कठोर आचार विचार तांकां एकमेकालागीसून दूरा काडतात. सुहराक नापंसद मनीशाक

नींची व्हारडीक जाले मात्रान ती परतून घराक येता. मजीद जीवनां खातीर दुरा देशांत वता आनी थंय एक दुर्घटने निमित्तीं पाय नष्ट जावन मरण पावंता. ह्या कादंबरींत साधारण घटनेचे वास्तवीक चित्रण केलां की ताचो विश्वास करचाक पाठकांचे मनांत कसलोय संदेह उरना. शोकांताची काळकी ह्या कादंबरीचे प्रेमी प्रेमिकांचेर अनिवार्य पडता की वाचक केवल लाचारपणान, दुखान हें दृश्य देखता.

बषीरांचे कादंबरीत व्हासोन्मुख परण्यो सवंयो संबाळचे पिळगेचे यथार्थ चित्रण दृष्टि पडता. "न्डे (माजे) उप्पुप्पाकु (आजाबापुयक) ओरु (एक) आना (हस्ती) उंटायिरुन्नु (आशिल्ली)" ह्या कादंबरींत हें स्पष्ट दृष्टि पडता. ह्यांत प्राचीन कालाचे वैभवाचे स्मरणेचेर जीवन करचे लोकांचे चित्रण केलां. हे मनीश सहज रूपान विनाशाचे फोंडांत सहज पडतात, लेखक ह्या कादंबरींत सांगतात. कादंबरींतलें 'उम्मा' पात्र हाचे उत्तम उदाहरण आसा, 'हांव धनवंत आनमक्कार हांची अपुरबाये धूव' अशी सांगून सांगून तिका पुरो जायना. आनमक्कार म्हळ्यार हस्तीचो धन्नी 'मक्कार'. केन्नाय खाड्डावांर चमकूची ती आज दळिद्री, तरीय आनमक्काराचे परने प्रतापाचे गोड उगडासार आजीय त्या परने वैभवार जीवन करता. आपणाले धूवेकय हीच संवय शिकयलेली आसा. ह्या कालार परिस्थिति बदलता. 'निसार अहम्मद' ह्या तरणाट्याचें कुटुंब सेजार येवन रावता. गरीब जाल्यारीय तो शिकून वाचून डिग्री मेळयता आनी एक दिवसीं माय ब्रहन सयत रावचे तांचे भोंवतणी स्वच्छतकाय, संस्काराचें सौदंर्य आनी स्वतंत्रता हांचो परमळ व्याप्त जालो. तांचे मदें आशिल्ले संबंधांचे फलस्वरूप उम्माचे कुटुंबांतय संस्कृतायेचें वारें खेळुंक लागलें. बषीर एक अंतःकरणाचे कलाकार आसात आनी आपणाले रचनांक उत्तम संपूर्णता प्राप्त करचाक सदा सर्वदा प्रयत्न करतात.

(पी.के.परमेश्वरन नायर हांचे 'मलयाळम साहित्य चरित्रम' ह्या पुस्तकांतल्यान अणकार : प्रो. आर.के.राव)

# वैकम मुहम्मद बषीर - एक वळख

| | | |
|---|---|---|
| १९०८जनवरी२१ | : | मणम कुन्नम गांवांत जल्म. |
| १९१६-१९२५ | : | तलयोलपरंब आनी वैकमांत शिकवण |
| १९२५ मार्च ८ | : | वैकमांत गांधिजीन भेट दिल्ले वेळार बषीरान तांच्या भुजाक आपडलें |
| १९३० | : | कालिकटांत मिटाचें सत्याग्रहांत भाग घेतिल्ले खातीर बन्दी जालो. |
| १९३१-३२ | : | एरणाकुळमांत 'वानरसेना' ह्या आतंकवादी संघाक रूप दिल्लें. |
| १९३८ | : | पयली कथा 'तंगम' आनी पयलें पुस्तक 'धर्मराज्यम' उजवाडायलीं. |
| १९४०-४२ | : | एरणाकुळम आनी कोट्टयम हांगा एम.पी.पोळ्स ट्युटोरियल कोलेजांत होस्टेल वार्डनाचें काम केलें. |
| १९४५ मार्च १५ | : | कोट्टयमांत साहित्य प्रवर्तक सहकरण संघ स्थापना जाली. बषीर चोवदावो वांगडी आसलो. |
| १९४९ | : | एरणाकुळमांत पुस्तकाचें एक दुकान दवरलें. |
| १९५४ | : | मानसिक असंतुलनाक चिकित्सा घेतली. |
| १९५८ | : | बषीर्स बुक स्टाळ एन.बी.एसाक विकली. |
| १९५८डिसेंबर१८ | : | फातिमा बीवीकडे लग्न जालो. |
| १९६५-८० | : | केरळ साहित्य अकादेमीचो वांगडी आसलो. |
| १९७० | : | केंद्र साहित्य अकादेमीचें फ़ेलोशिप मेळ्ळें. |
| १९७२ | : | स्वतंत्रता चळवळींत भाग घेतिल्ले खातिर केंद्र सरकाराचें ताम्रपत्र फ़ावो जालें. |
| १९८१ | : | केरळ साहित्य अकादेमीचें फ़ेलोशिप जोडलें. |
| १९८२ मार्च ३० | : | पद्मश्री पुरस्कार मेळ्ळो. |
| १९८३ | : | अबुधाबी मलयाळी समाजाचो पुरस्कार मेळ्ळो. |
| १९८७ | : | संस्कारदीपम नांवांचो पुरस्कार प्राप्त जालो. |
| १९८७ | : | कालिकट विश्वविद्यालयान ओनररी डी लिट बिरुद दीवन गौरव केलो. |
| १९८९ | : | उत्तम चित्रकथे खातिर राज्य सरकाराचो पुरस्कार 'मदिलुकळ' (वणटी) फ़िल्माक मेळ्ळो. |
| १९९२ | : | ललितांबिका अंतर्जनम पुरस्कार फ़ावो जालो. |
| १९९३ | : | प्रेम नजीर पुरस्कार, मुट्टत्तु वर्की पुरस्कार आनी वळ्ळत्तोळ पुरस्कार मेळ्ळे. |
| १९९४ जुलै ५ | : | बेपूरांत देहांत जालें. |

# प्रो.आर. के. राव - एक वळख



जल्म : 4 जुलाई 1914 वर्सा

पूर्ण नांव : रघुनाथ कृष्ण राव

जल्म थळ : तृप्पूणित्तुरा, कोची, केरळ

शिक्षणी, पदव्यो :

1 . राष्ट्रभाषा विशारद (दक्षिण भारत हिन्दी प्रचार सभा, मद्रास)

2 . विद्वान आनी एम.ए. (हिन्दी), मद्रास विश्वविद्यालय, मद्रास

वावर धंदे : अ)1939 - 1947 - हिन्दी प्रचारक, मट्टांचेरी, कोची

आ)1947 - 1975 - हिन्दी प्रोफसर, संत आल्बर्ट्स काळेज, एरणाकुळम

इ)1977 - 1987 - हिन्दी प्रोफसर, विद्यानिकेतन, एरणाकुळम

तकऴी शिवशंकर पिळ्ळै हांची मलयाळम कादंबरी 'रण्डिडङ्ङषी' हाचें 'दोन दंगाळी भात' नांवान कोंकणीक भाशान्तर केला. हाका केंद्र साहित्य अकादमीचो अनुवाद पुरस्कार फावो जाला. तशेंच कथा साहित्यकार वैकम मुहम्मद बषीर हांचे बरपावळीचे कोंकणी भाशांतर केला. तिरुवळ्ळुवर हांचे तमीळ काव्य 'तिरुक्कुरळ', आनी मलयाळम कवी पूंतानम हांचे ज्ञानपाना, पी.के.परमेश्वरन नायर हांचे 'मलयाळम साहित्य चरित्रम' हींवय तांणी अणकार केल्यांत.

कोंकणीचे प्रचार खातीर 'कोंकणी भाषा संस्थान' स्थापन करन 'कोंकणी स्वंय शिक्षक' (हिन्दी, मलयाळम आनी अंग्रेजी ह्या तीन माध्यमांत) प्रकाशन केल्यांत. कोंकणी व्याकरण, कोंकणी उतरावळ, भुरग्यांक कोंकणी वाचून बरोवन शिकपाक कोंकणी प्रायमर - हीं पुस्तकांय उजवाडा हाडल्यांत. वेंकटेश कल्याण, गोड्डे रामायण आनी हेर लोकगीतां तांणी एकठांय करून उजवाडायल्यांत.

केरळ राज्याचें आनी भारत सरकाराचें स्वतंत्रता सैनिक संमान पेन्शन घेताले. ताम्रपत्रय फावो जाला. अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेन भोवमान केला. ते केरळ कोंकणी अकादेमीचे स्थापक अध्यक्ष आसले.2005 जुलै 11 तरिकेक ते दैवाधीन जाले.

# मांडावळ

# जीणेचे सावळेचीं खतां

## एक

घो । गाडियेंतल्यान उमेदीन देंविल्ल्या तरणाट्यान गंभीरतायेन विचारलें, 'एय, मिस्टर! हांगा रावची तजवीज आसा व्हय?'

मागलान हात बांदून माथें बावगोवन लेक लेकून चक्कर काडचो गोवंटो थोर आशिल्लो हॉटल–कारभारी सहन करच्याक जायनातिल्लें घुवन चोयलो. उजव्या हाताच्या बोटां मद्दें धुंवरचें सिगरट आनी दाव्या हातांत दांबून धरल्लें गोल्ड फ्लेकाचें टीन घेवन गंभीरतायेन दीग जावन रावल्ल्या आधुनीक तरणाट्याक पळयलो. ताचे मुये दोळो विसकळ्ळे. ताच्या वांटकुळ्या तोण्डाचेर मिरयां सयत मंदस्मित पातळ्ळें. गल्लींत हॉटलाचे मुखार, गाडियेर आशिल्ली चामा पेट, व्हड हांतूण, दीग बिजली दिवो – हें सामान देखच्याक ताचें हर्दें धडधडलें.

'आसा, सर. बरें कूड. सर्वय वेवस्था आसा, सर. येवचें. बैसचें सर!'

कुक्डा गदी ताणें गोंदळ केलो. हॉटलाक्डे रावल्ल्या सामान व्हांवतल्याक हुकूम दिलो –

'आरे त्यो पेटो आनी हांतुणां सग ऊंच हाड. जल्दी कर.'

ताणे तरणाट्याक वाट दाकयली. मुखार मागलान जावन उंचावेले माळयेर चडले. गल्ली मुखार आसचें ल्हान कूड उकतें केलें. भितर सर्न दारांर जनर्ला सग एक एक कर्न उक्तायलीं. जय पावलो अशें तरणाट्याक पळयलो.

'सर! हें कूड कशें?'

तरणाट्याक तें कूड भो पसंद आयलें. चांग वारें आनी उजवाड आसा. दश्टी पावचे पर्यंत ऊंच ऊंच मकानां. जनांगेल्या गोंदळाच्यो गल्लीयो, सार्वजनीक पार्क, आकाशार ऊंच वचून धुंवर ओंकूच्यो कारखान्यांच्यो धुंवरा नळीयो, विशाल तार–सडक एकाचे मागलान एक अशें वचीं मोटोर

कारां, जायत्या लोकाक घेवन वच्च्या ट्राम गाडीयो, एकमेका मागलान अंवसरान वचो मनीशा समूह – सग ताका दिश्टी पडता. शाराचो गोंदळ; अनेक सास गांजीलमूसांचें रण्णें. ताका व्हड उत्साह जालो. तोण्डार उजवाड आयलो. एक कदेल वडून काडून ताचेर बैसलो.

'हें पुरो.'

तो तृप्त जालो. आशेवन कूडाच्या दारार प्रतीक्षेन रावल्ल्या सामान व्हांवतल्याक एक रुपया दिलो. ताका व्हड संतोष जालो. हॉटल व्यवस्थापकाचें हर्दें लासलें. ताणें चिंतन केली. खंयचोय दामेल्याचो पूत जावंयेत. ताणें ताचे लागीं खालपणान विचारलें:

'सर, कोल्ड-ड्रिंक्स कांय जाय?'

'एक चाय पुरो, बळकट.'

व्यवस्थापकान वण्टीवेलें एक बटन दामलें. सकल एक अस्पष्ट घांट वाजली. एक समर्थ चेडो हाजीर जालो. कूडार चाय हाडुक व्यवस्थापकान ताका हुकूम दिली. तो नव्या सोयऱ्या मुखार येवन बैसलो. नाटकशाळो, सिनेमा, सार्वजनिक चौक, अजबखाना, देखच्याक योग्य दुसरे जागे, वच्याक योग्य जागे – सग वर्णन कर्न यथायोग्य माहिती दिली. मनोरंजक रितीन तरणाट्यान तें सग आयकेलें. चेडयान हाडलेली चाय स्वल्प पीवन मेजार दवरली. टीनां साकून एक सिगरेट काडून, मॅनेजराक दिवंच्याक गेलो. थोर गुडे बोटांनी ताणें एक काडलें. कुशळतायेन ताचें नांव वाचून समाधानेन जळयलें. धुंवर वर्तुळाकार भायर सोडून तरणाट्याक सकल साकून ऊंच पर्यंत नियाळ्ळो – एक पूर्ण चौकशी केली.ऑक्सफोर्ड क्रॉप तांबश्या रंगाचें दीग तोंड, विस्कळ निडळ, विश्वास जागोवंचे दोळे.

'घे, हें. परतून बाकी दिवूंक जाय.'

हॉटेल मॅनेजरान मुखार मेजार दवरलेलें धा रुपया नोट काडून गोंदळून म्हळें,

'नाका सर, अंवसर नाका. एकसानी हितान दिल्या पुरो.'

मंदहास हासून तरणाट्यान नोट परतून घेतलें आनी थैलींत दवर्न कोटाच्या भितरच्या खिशांत दवरलें. स्वस्थ रितीन व्यवस्थापकान सिगरट वोडून धुंवर सोडलो. तो उटायलो.

'हांव वतां, सर. गरजे वेळार बेल दांबल्यार पुरो. कसल्याकय कांयच कश्ट जावंचिना.'

ताचें फुगल्लें धोलयें पोट घेवन तो सकल देंवन गेलो.

सिगरट ओंटांचेर दांबून धर्न भोंवयो वयर काडून तो उटावन ट्राऊसराच्या दोनीय खिशांनी हात घाल्न गल्लींत पळेवन रावलो. गल्लीच्या ऊंच घडियाळाचेर वरां वाजलीं. दावो हात उबार्न तो चोयलो. हाता घडियाळाचेर वरां चार जाल्यांत.

न्हाण जावन येवन पेट उक्तावन ताणें धुल्लेलीं वस्त्रां काडलीं. न्हेशिल्लीं कोनशांत पडल्यांत. नवीं न्हेसून आरशे मुखार येवन रावलो. मंदहास हासून कोटाचीं बतामां घालीं. ताणें केस वळयलो. पाउडर घाल्न तोण्ड दोनीय हातांनी परसून सम केलें. शाराचो गोंदळ... इत्सा उबार्न आयल्यो. ताचें मन खोशी जालें. तोण्डार उजळकाय आयली. त्या सुप्रधान हॉटलांतलो वास आपणालो गौरव वाडयतलो. व्हड शार न्हय की? आशेक आरखे चांग जिणेचें दार उक्तावनातिल्लें रावची ना. ताणें दार बंद केलें. चटपटा निसणी मेटां देंवलो. लोकांनी माथें उबार्न पळयलें. एका मंदहासान हॉटल व्यवस्थापन ताका स्वागत केलें.

'खंय की?'

मनां कांय नातिल्लें तो भोंवतणी चोयलो. सिगरट-केस उक्तावन, एक काडून जळयलें. धुंवर सोडलो.

'एक सिनेमा देखयां.'

## दोन

ऊंच दर्जेर ताणें जीवन आरंभलें. बेड कॉफी, कापणी, न्हाण, वस्त्र परतप, चाय, समाचार पत्र वाचप, जेवण, नींद, सांजेची भोंवडी, सिनेमा- असो ताचो नित्यक्रम चलतालो.

प्रतिदिन समाचार पत्रांतले 'जाय' स्तंभ आशेन पळयतलो. परिक्षा योग्यता, श्रेष्ठ कुलजल्म, आनी दुसरे गूण दाखोवन दीग प्रार्थना पत्र (मागण्यो) धाडतालो. सर्वय तशें क्रमान केलें; फुडल्या काळाक पळोवंचो श्रेष्ठ अधिकाराचो जागो – ताका अनुसरून आसच्या ऐश्वर्यांत दीस चलयले.

एक दोन म्हयने जाले.

ताचें सान्निध्य प्रतीक्षा करच्यो जापो आज येतल्यो, फाय येतल्यो अशे आशेन समय गेलो. दीस तशे कांय नातिल्ले गेले. ते दोन माळयेच्या घरांत ताका जाय जालेलें कांय आयलेंना. प्रतिक्षा कर्न कर्न तो त्रास पावलो. थैलेची दाटाय पातळ जाली. हर्दा भितर एक लासप. तो घपघपवूंक लागलो.

मनाची दृढतकाय सडळ जाली. व्हड व्हड परिक्षा योग्यता घेतली, फळाक कांय आयलिना. दोन माळयेच्या उंचार साकून मन आसा, ना जावन तो संकल देंवन आयलो. गल्लींतल्या मनीशांलो गोंदळ आयकून तो निराश जालो. विद्यावंत आनी श्रेष्ठ कुळांत जल्मल्लो तो, ताणें नोकरेक मागणें करचें?... हॉटल मॅनेजरान काणसे दोळ्यांनी पळयलो, ती दृश्टी, तो चेरो ताका पसंद जाले ना. दांत किरडून तो सकयल आयलो. जना हिंडांचे गल्लींत. गल्लेचे वाटे वयल्यान साधारण जनांचे मद्‌दें मेळन आशेन तो मुखार गेलो.

## तीन

एक व्हड कार्यालयाचो मुखावयलो भाग.

तो रावलो. ल्हवू भितर सरूंक तयार जालो.

'एय!'

तो थडथडलो. चौकीदारान ताका निर्दय दोळ्यांनी रावयलो. खाल पावला साकून ऊंच माथ्या पर्यंत एक चोयलो. कितले उत्साही तरणाटे ताणें देकल्यात! माथें हालोवन चौकीदारान म्हळें : 'वच्या नज.'

ताका अजाप दिसलें. आपणाक अटकायता. गंभीर जावन ताणें जाणयलें: 'व्यवस्थापकाक मेळूंक जाय' चौकीदारान माथें उबार्न ताचो प्रताप दाकयलो.

'नो वेकन्सी' चोय, बोर्ड पळयना व्हय?'

ताणें पळयलें. व्हड अक्षरांनी, ताची थंय गरज ना म्हण बरोवन लांबयल्लें बोर्ड! ताच्या ह्रदयाकाशाचेर मोड पातळ्ळें. ताचें तोंड स्वल्प बावलें.

तो परतलो. जायत्या कार्यालयां मुखार गेलो. तोच अणभव. तो घुसपलो.

एक आखेरची परिक्षा. चौकीदार थंय कुर्वन्ता. कुशळकायेन तो भितर सरलो. राकून रावल्ल्या ताका आखेर कार्यालयाच्या व्यवस्थापका मुखार व्हेलो. मनांत उसकलो. व्यवस्थापकान व्हडान म्हळें:

'फालें जाल्यार कितल्या जनांकडे सांगचें? काम! काम! वचून गळफांस घे!'

तो हुमेलो. ताचो चेरो धवो जालो. व्यवस्थापकाक ताचेर दया दिसली. 'जागो खाली ना, मिस्टर. मागण्यो सास येवन आसात. हांवें कितें करचें? क्षमा पावूंक जाय.'

ताचें माथें हून जालें. हूम पुसून हॉटलांत गेलो. निराशा पातळ्ळेलो चेरो. होटल मॅनेजरान बऱ्या रुपान पळयलो. दामल्ले दोळे विसकळ्ळे. नांकटां चाबून चिंतन करूंक लागलो.

## चार

दीस एक, दोन, तीन–तशें गेले. रात येता, दीस येता. आशेची वाट कांय दिश्टी पडना. सग वाटेनय निराशा. ताणें कापणी काडचें चुकलें. न्हेसच्यांत क्रम ना जालो. समाचार पत्र वाचप बंद जालें. सगटांतय एक बेपरवाय. कोणेय नेणतां सिगरटा कुटके काडून लावन ताण्डतलो ! उत्साह

सग गेलो. उकत्या लान दारांतल्यान खांब्या वरी रावून गल्लींत पळयतालो. तो गोंदळ, जनां प्रवाह, तें धामधूम – ताच्या ह्रदयार कांय प्रभाव घालना. कांय खुशालकाय जागयना. कसलो अर्थ? निपट अर्थशून्य संवसार. ताका आळसाय जाली. जिवितांत झुजप !

कोणेकी दारार मारलें. बेपरवायेन ताणें दार उकतें केलें. बील घेवन हॉटलांतलो चेडो. ताणें तें उगडून वाचलें. एक व्हड संख्या धाडून दिवच्याक आशिल्लें बील !

खाण–जेवण. पीवप आनी रावप !

तो आठोवंच्याक लागलो. तो चटपटलो. कडकडच्या हातान ताणें एक चीट बरयली.

'कांय दीस जावो. क्षमा पावूंक जाय.' चीट घेवन गेल्लो चेडो एकदम परतून आयलो. आज पर्यंत आशिल्लो बाकी पैसो लेक पुराय कर्न जल्दी दिवूंक जाय. एक व्हड संख्या. तो थैली उक्तावन चोयलो. दोन रुपया आनी कांय चिलवाण ! तो सकयल आयलो. मॅनेजर हाल्लो ना. एक अपराध्या वरी तो ताचे मुखार रावलो.

'माजे काडे दुडू कांय ना. लागींच काम मेळतलें. तेन्ना मेरेन क्षमा पावूंक जाय.' ताणें मागणी केली.

'ऊंहूं!' मॅनेजरान शांत रुपान माथें हालयलें. मेजाचेर विस्कळून आशिल्ल्या पुस्तकांत लेक लेकून समकी कर्न म्हळें:

'कठीन आसा. लेक पुराय कर्न आज संख्या मेळूंक जाय.'

'रुपया ना. हांवें कितें कर्येत?'

'घराक टॅलग्राम धाडुये?'

घराक टॅलग्राम ! ताचें हर्दें लासलें. सर्वस्वय विकून पुताक शिकोवन काम मेळच्याक विदेशांत धाडून आशेन दीस मेजचे आवय–बापूस हांकां टॅलग्राम ! ताका उसरमेट आयली.

'शक्य ना.'

हॉटल मॅनेजरान साध्य केलें. भो मोल आशिल्लीं ताचीं पदार्थां सगा घाणार घेतलीं.

तो आक्रांतलो. फळां आनी पाले रुखारसून काडून खान्दे कवरे मात्र बाकी उरले. एक कांबळ कवळून काडून दाव्या खांद्यार दवर्न, हुमेन न्हावन, धव्या चे-या सयत हालच्या मनान, कडकडच्या देहा सयत तो गल्लींत देंवलो.

शारांतलो गोंदळ भारी व्हड जालो. ताणें कान धांपले. दिसाच्या उजवाडान दोळ्यांक विसविसायले.

ताचो लोक गुडगुडून गेलो.

## पांच

गल्लिच्या मागलांचे खांची गदी अळशिकेचें एक कूड - हांत तो रावता.

सडक्राक चोवन जायतीं घरां. तांत बायलो चड. कांचे कुटक्यांचे भितरच्या नाग ा स्वरुपां गदी सण्ण वस्त्र न्हेसून अर्द नाग ा रुपान आग्रहान जीवन करच्यो बायलो. भिन्न पिरायेच्यो. भिन्न वेशाच्यो. भिन्न भासांच्यो. भिन्न जातिंच्यो.

मोगऱ्याचो परमळ उत्तेजक वातावरण उपजायता. मनांत दामून भर्न आशिल्ले आग्रह. हांगा कितें?

ताका कांय समजलें ना. रगताचे ओंट ताचे मुखार विस्कळले; दांतां फांन्यो झळकल्यो. अनेक दोळे ताका पळोवन मंदहास हासले. थोर गुळगुळी वाडकुळे जायते हात ताका उलो दीवन आपयताले.

'हा ! कसलें जीण !'

एक आगपेटिचे उंचार जळची एक सोपूर मेणावात कुडांत स्वल्प उजवाड पातळायता. दोनीय हात गोंवटे खाल दवर्न तो उदारो पडला. अरुंद कुडाचे पोरणे वण्टीर तागल्या इंगळ्यांतय ताचे सकलचे रांदणींतय पळोवन तो घूवन पडलो. बीडीचे कुटके आनी आग पेटींतल्यो काडयो – हीं ते शेळ भूंयचेर विकर्न पडल्यांत. कोणेकी वोडून घालेले एक व्हड बीडयेचो कुटको ताणें काळकांत शोधून काडलो. जळ्न उणे जालेले मेणावातीचेर तो जळयलो. एक दोन फांतां वोडलो. एक आवाजान मेणावात गळ्न खाल पडली. ती सन्तु जाली. काळूक चड जालो. भयानक काळकांत जळच्या बीडी कुटकाचे तलवाचो अस्पश्ट उजवाड मात्र आसा. जीवनाक गिळच्याक आयल्ल्या काळकारुपाच्या राक्षसाच्या तांब ा दोळ्यांगदी तो जळ्ळो. बायलां खुतखुतचो हास आनी उलोवप आनी उलो दीवप. हें सग ताणें आयकलें. ती बीडीय सोंत जाली. कांय आश्रय नातिल्लें तो नीदलो. शेळवतांत कडकडवन तो फाल्या फाल्यार उटायलो. सण्डासांत वचून तशेंच उटावन आयलो. न्हावंच्याक पायपाकडे गेलो. जागो भर्न बायलो आसात. हर्दें ऊंच आयल्ल्यो थोर वाडकुळ्यो बायलोय, सोपूर बायलोय, दोळे फोंडां वचून गाल पातळून केस गेलेल्यो बायलोय – बायलांचे जिणेचे सर्व भागय थंय दिसतात. कांय जाण दांत घांसतात. बाकी कांय जाण तोण्डांत बोट घाल्न ओंकार काडटात. कांय जाण न्हातात. दुसरीं कांय जाण वस्त्रां उंबळतात. एक सोपरेल्ली गजब दिश्टीन ताक चोयली. तिचे विस्कळ दोळे ताचे मुखार ऊंच काळ्ळे. एक मंदहास त्या दोळ्यां भोंवतणी खेळतालो. तो कूडांत परतलो. अर्द घण्टो थंय रावलो. पायपा भोंवतणीचो गोंदोळ ना जावंच्याक तो गेलो. ती सोपरेल्ली मात्र थंय आसा. लजेन ती दूरा सरली. ताकाच पळोवन ती थंय रावली. ताका लजा जाली. पायपाक आनी तिच्या चे–याक द्वेष दिश्टीन चोयलो. तिकाय समजलें. एक लान मंदहास हासून ती लजेन तिच्या कूडांत गेली.

न्हाण इत्यादी ज़ावन तो कूड बंद कर्न गल्लींत देंवलो. सडकाचो वांक्डो भाग घुवंच्याक तो परतून चोयलो. मंदहास हासून ती ताका चोवन दाराकडे रावल्या.

कित्याक ती चोयता? कोण ती?

# स

सांज जावंच्याक सदांवरी तो निराशा सयत परतलो. जनां भो उणे आशिल्ले ते गल्लींत आतां जनां चड जाल्यां. सडकाक चोवन आशिल्ल्या घरांत दीवे जळ्ळे. ताका लागून ताचे मुखार हे दोन दोळेय उजवाडले. वळवन उपरांत मोगरीं माळ्ळेलीं माथीं, पाउडर घाल्न धवीं केलेलीं तोण्डां विसकळेले दोळे, गोरे तांबडे ओंट, वाडकुळे भरलेले मोमे – तशें फांतीन रावलीं. मोगरीं, जायो, गुलाब बी फुलांचो परमळ, धूपद्रव्यांचो परमळूय मेळो. आधुनीक वस्त्रां न्हेशिल्ले तरणाटेय, केस पिकल्ले म्हान्तारेय ते गल्लींत भरले. हास, तमाशो आनी गोंदळ चड जालो. माथ्यार वस्त्र घाल्न चेरो निपोवन गल्लीच्या मागलांचान थोडे जाण भितर सरतात. बाकी कांय जाण समच वतात. लागीं वचून भितरसून खेदान कांय जाण परततात. कांय जाण उलोवन गोंदळ करतात. दोळ्यांचीय ओंटांचीय – बायलांच्या शरीराची एक सांत ती. काळका आड थांगाचो व्यापार चमकता. तीं जिणेचो सुवाळो प्रसिद्ध करतात. भयान कुडांत सर्न ताणें दार बंद केलें. रात दोन वरां मेरेन आवजय गोंदळय ताणें आयकलो. पोलीस चौकीदार येवच्याक सग चुप. थकल्लो संवसार निंदला. तो निंदलो.

# सात

फांत्यार निस्तेज चेऱ्यां सयत बायलो सग पायपा भोंवतणी येवन पावल्यो. सगटांचेय गदी तीवय तोण्डांत हात घाल्न ओंकली. तिचे दोळे भरले. निडळ हुमलें. थकून ती भूंयचेर बैसली. दुसऱ्यो बायलो तिका पळवन परिहास करतात. तिरस्कार आनी तिटकार दिसून तो परतून गेलो. तें व्यक्त करची ताच्या चेऱ्याची मुद्रा तिणे पळयली. तिचे विस्कळ दोळे कलूशीत जाले. तिणे एक दीर्घ श्वास सोडलो. कांचेच्या कुटकाचे आड स्पश्ट जावचें तें नागडेपण, सुन्दर चेरो, आकर्षक दोळें, वाडकुळे मोमे, धवे वाडकुळे हात-पाय, भूंयक अशेंय तशेंय चलोवंचें चमकण – लजा नातिल्लें बायलपण. दामा खातीर सर्वय त्याग करच्यो वेश्या – ताका तांचें भय आसा. व्हड तिटकार आसा. हृदय नातिल्ल्यो राक्षसियो. प्रेम आनी भरोसो तांकां निपट ना. दया माया हे बायलांचे गूण तांकां सोडून गेले. खून आनी

दगलबाजी – ओहो नाशाच्यो गुहो ! भयानक रोग वांटून दीवन जिणेक नाश करच्यो भयानक बायलो.

तुसवा उज्यांत पूरन घालेल गदी दिसलें. अतिक्रूर वातावरणांत दीस काडच्याक ताणे पसंद केलें ना. कितें करतलो ? तो सदां तांकां देकतालो... तिका एक अनास्था, एक उजवाड नातिल्ली स्थिती. अस्पश्ट दृष्टि. ताका देकच्याक वेळार ते दोळे विसकळटाले. चेरो स्पश्ट जातालो. ती कितेंकी सांगच्याक अंवसरताली. तिरस्कार आनी तिटकार दोनीय घेवन तो चेरो घुंवडायतालो.

ती मायेन ताका पळयतली. मंद हांसतली. प्रेम प्रकटायतली....हे कांय ताचे खातीर न्हय. वेश्या बायलो ! तांचो स्वभाव. कितल्या जाणांक देकून ती हासली आसतली? कितल्या जाणांक उमो दिलोलो आसतलो? कितल्या जाणांक तिणे...! तो दोळे धांपून रावलो.

ताचीं वस्त्रां मलीन जावन जीर्ण जावूंक लागलीं. एकांतूय एक क्रम ना. जीण तशीच मुखार वता. निस्तेज दिसय काळक्यो रातीय तशें गेल्यो. अनंत वातावरणांतल्यान उबून घूवन पडचे पांखाटे मोडलेल्या पक्षावरी निराशेच्या अगाध फोण्डांत तो पोन्दाक पोन्दाक गेलो.

## आठ

कांय दीस जाले ताका तशें दिश्टी पडना. ती लागीं लागीं ताच्या कुडांत पळयताली. ताचें कवाड आड केलां. दनपार जाले. ती खांब्या तेंकून रावल्या.

कोपान घरा धन्नी ताच्या कुडांत गेलो. तिणे कान दिलो:

‘कितें गा! आतांय भाडें दिवंच्याक जालेंना मू?’

‘काम कांय मेळ्ळें ना. आनी कांय विकच्याक ना.’

‘हांवें पयलेंच आठयलें. वचून माग. काम! आज भाडें दिलें ना जाल्यार भायर पडका जातलें. आयकलें व्हय?’

‘आयो ! स्वल्प क्षमा करूंक जाय. हांवें आहार खावन तीन दीस जाले. माका उठावच्याक सरी जायना...’

'तें कांय माका कळना. सांजे दीवंक जाय... तिका आश्‍चर्य जालें. घरा धन्नी काळो चेरो कर्न भायर गेलो. तिणे ताका उलो दीवन कांय मंतरसलें. घरा धन्नी उजवाड मनान भायर देवलो.

ती संत संत दाराचे खांचींतल्यान कुटूंब चोयली. ती थडथडली. परतून तिच्या कूडांत गेली...

मोगराचो नवो परमळ थंय भोंवतणी पातळ्ळो. ताचीं नाका पूडां विस्कळ्ळी. परमळ भितर ताण्डून ताणे दोळे विसकळायले.

ती !

दाव्या हातांत ऊंच धरलेलें एक आयदन; उजव्या हातांत एक गिलास चाय. आळशायेन ती रावल्या. तो उटावन बैसलो; चकीत जावन चोयली. तिचे विशाल दोळे हासले. तांबडे गाल हासले. रगता वोंट विसकळ्ळे. दांतां फान्तियो उजवाडल्यो. मंदहास चेरो सग पातळ्ळो. तिणे आयदन सकल दवरलें. लजेवन म्होंवा उतरांनी म्हळें:

'क्षमा करूंक जाय. थोडी चाय आनी खाण आसा.'

तोण्डाचेर रगता रंग दिश्टी पडलो. दोळे अस्वस्थ जाले. ताचें माथें धुंवरलें. उमदा स्वभाव, आनी अभिमान हांणी माथें उबारलें. एक चेडी! हे अवस्थेंतय फटवंचाक येता? मनाची ही ईर्ष्या दामून दांत किरडून ताणें विचारलें: 'हें कित्याक?'

तिचें तोण्ड बावलें. चंद्रमाक मोडान निपयलो. थडथडावन तिणे विचारलें, 'हें खेल्यार कितें?'

'खेल्यार म्हणता?' बरें. म्हाजे कडे पैसो ना. हांव गरीब. हे परिस्थितींतय तुमकां मनीशाक साबाव सोड न्हयकी? वच! म्हाका हें नाका!'

तिचो चेरो धवो जालो. उदास जावन तिणे म्हळें :

'हांव दामा खातीर आयली न्हय. म्हाका तुमचो पैसो नाका !'

उंगत्यान तिणे भूंयचेर बरयलें. अडखळत दूरा सर्न वण्टी लागून रावली. ताच्या रागान फणां विस्कळायलीं. भयंकर रीतीन तो टुक्टुकी चोयलो.

'दामाक न्हय की? मागीर कित्याक?

उन्मत्त करच्याक? दाम जातर काडूं न्हय? दुश्टचो. वच !'

ताणे हात उबार्न कवडाक बोट दाकोवन म्हळें. तिचे दोळे भरले. उदका थेंबे दोळ्यां पातियांतल्यान मोतियां गदी भायर आयले.

'वसंतकुमारी, वसंतकुमारी!'

एक आवाज भायरसून आयलो. तो मागिरीय आयलो. कापडा तलवान तिणे दोळे पुसून चंद उतरांनी म्हळें:

'म्हाका उलो दितात. म्हाका गैर समजूं नातिल्लें हें खायात. हांव येवन उलयन.'

दुखान ती मंद हासली. लजेवन भायर गेली. भूख, थकणी, जाळकाय, राग हांच्यान तो जळ्ळो. व्हड कश्टांत जालो. वांचलो ना जाल्यार नाश जातलो. अवंसरान तो उटायलो आनी वस्त्र न्हेसलो. वसंतकुमारीन हाडलेली चाय आनी खाण थंय अनाथ पडल्यां.

कवड बंद करून तो गल्लींत देंवलो.

## णव

मोड कांय नातिल्लें आकाश. क्रूर जावन सूर्य मद्दें मळबार रावला. लोक निश्चळ. एक सावळी सरी हालना. जीवाजंतू सावळ्यांत थकावणी दूरा करतात. जळच्या सडका वेल्यान चमकून चमकून तो थकलो. भयानक भुके मुखार सग विसरलो – उच्च शिक्षण, कूल, श्रीमंती, संस्कृताय... तो भो बावगलो. एक वेळ खाण खावंच्याक कांय जाणांक मागलें. फाटी लागिल्लें पोट परसून उन्मत दोळे विसकळावन, सुक्या ताळ्यांतल्यान कडकडच्या आवाजान ताणें मागलें :

'म्हाका भूख लागल्या. कांय दीवंक जाय !'

निर्दयेन जनानी ताका एक सास पावटीं आंबडून धांवडायलो.

'बलवंत एक तरणाटो मागता की...? बरें! चांग धंदो जालो. वचून कांय काम करच्याक नज की?

काम? मागून मागून ताची जीब थकली. तान लागून बेजार जालो. निपट बेजार जालो. कांय वाट ना. उदका खातीर मरुस्थलाचेर भ्रमण! ताचें माथें नीट रावना. हातपाय थकूंक लागले.

उदक आटून सुकल्या सरोवरा लागीं एका मशणाचे ऊंच वण्टीक लागून आशिल्ल्या एका चिंचे रुकाक तेंकून बैसला तो. जीणेच्या मत्सराचो गंभीर आवाज - शाराचो गाजोवाजो - अस्पश्ट मात्र आयकच्याक पडता. तें मशणाचे शांतीन ताका स्वल्प धीर दिलो.

नशिबाचें निष्ठूरपण आठोवन तो दूख पावता. विशाल संवसार कितलो संपन्न ! कितलो आहार ते लासून भस्म करतात ! कितलो न्हंयत व्हळयतात! ताका मात्र कांय ना. उदकाक उतावळच्या चातक सवण्या गदी ताणे दोळे मळबार विसकळायले.

निपट रितो जागो! अनंत अगाध रिकामो... हाय! जीवन कितलें भयानक जालां ! भुकेच्या होमकुण्डांत पडून लासता. बाळपण कितलो आनंद आसलो ! उपयोग नाशिल्लो विद्याभ्यास ! कितलो पैसो खर्चलो ! कितले आग्रह वाडयले. तेन्ना सर्वय सुलभ आशिल्लें. बरें वस्त्र, चांग आहार ! आज तरणाटपणाच्या कठोरपणांत निपट उपास. पडच्याक जागो ना. पिवंच्याक उदक ना. आवय-बापूय कितले कश्टांत आशिल्ले जायत. कितलो त्याग सहन केल्लोलो आसयेत ! कितें सगय जालेलें आसयेत. तांचीं आग्रहाचीं सपनां ! सग वा-यांत कापसा गदी उबून गेलीं. वरिश्ट जीवन. व्हड आशा - सुखाचीं निपट सपनां !

## धा

वाटेरसून कोणेंय नेणतां शोधून काडलो सिगरेटा कुटको हातांत आसून हुमेवन गळूंक लागलो. निराश जावन तो ताणें दूरा विन्दलो. वेळ चार वरां जालीं. सावळ्यो दीग जावंच्याक लागल्यो. तरीय कसली हुनसाण? न्हयची देग धवी रेंव पातळिल्ले वाटे वरी दिसता. दोनीय करावळींचेर वाडचे रूक आनी वाली ल्हवू ल्हवू हालतात. न्हंयच्या उंचार दीग सांकवा पोन्दाक फातरा खांब्याचे लागी माण्ड घाल्न बैसून तुरपानी खेळतात. दुसरे कांय

लोक न्हंयचे देगेर खणून केल्लेल्या फोंडांसून उदक काडून वस्त्रां धुयतात. धवे आनी तांबडे न्हेसवणे सारीयो रेंवेर लकलकतात. एक खांक आयकून तो घूवन चोयलो. एक भीकमाग्रो. पिंजून पोरणे जालेलें वस्त्र ! वेजू पळेली एक तुरकी तोपी. दुर्बळ जावन तो त्या मशणांत सरलो. भोंवतणी पळयलें. कोणेय ना. चिंचे रुका पोन्दाक सरलो. खांदार लांबचें वजें सकल दवरलें. पायाचेर बांदल्यो दोन तीन गांटयो मेकळून दूरा घाल्यो. स्वल्प समयाक विश्रांती घेवन वज्यां साकून ब्रेडा कुटके, बालाव जालली निंबूवो, फळां बी एक एक कर्न काडून खावुंक लागलो. वंण्टीर उंचार बैसून सकल पळवंच्या ताच्या तोण्डांत उदक आयलें. अधाशीपणा सयत तो टुकटुकी चोयलो. भिखमाग्राली भूक निवली. वस्त्रार हात पुसून थैलीं साकून एक बीडी शोधून काडली. पिंजून बोंतर जालेल्या चोग्या खिसां साकून एक आटपेटीय. तो बीडी लावन धुंवर सोडून चिंचेरुकार तेंकलो. उगडासांत बुडलो. कांय वेळ जालो. बीडी सोंतु केली, आनी कुटको काना खांचींत खोयलो. थैलींत हात घाल्न एक लुगटा पोटली काडली. अस्वस्थ जावन चारीय तांत चोयलो. ल्हवू ल्हवू ताणे ती निसरायली. दामाचीं नोटां, रुपया आनी दुडू.

ताच्या हर्द्यांतल्यान निद्युतप्रवाह आयलो. भिखमाग्रो भोवन भोवन पैसो लेक्रता. ताच्या खिसांत आशिल्ले कांय दुडूय ताचे लागीं भोवन सग मेळ्न पोटली कर्न दुसरीय थैलींत दवरली.

तो स्तब्ध जालो. यथार्थताय दांत दाकोवन ताचे मुखार हांसूंक लागली. पिंजून बोन्तर जालेलें वस्त्र न्हेसून संवसारांत लोकां मुखार दुर्बल जावन चलच्या मनीशा क्डे जायतो दाम ! आनीकय ताका मागून घेवं येत!

व्हड गाजप ताच्या मनांत आवाज करतालें. रगत सग माथ्यांत चडलें. तो विद्यावंत, तरणाटो, लोका मुखार मानादीक ! उपास पडून कश्ट भोगता. हाय ! भिखमाग्रो कोण? तो स्तब्ध जालो. ताणें चिंतन केली. एक वागा सारकी उडकी मार्न वचून ताका चिरडून जीवनाशी मारल्यार कितें? वचूंक जाय. उडकी मार्न वचूंक जाय. कोणेय देखचिना. भूख वचू पर्यंत कांय घेवन खावूंक जाय. तरनें हर्दे पिडपिडेवुंक लागलें. श्वासोच्छ्वास बंद

जालो. कोणेय ना. एक पान सरी हालना. चांग वेळ. पूण परतून चिंतन करच्याक लागलो.

'छे ! भीखमाग्रा सावन उपून काडचें? कितलें नीच काम!' ताच्या पावला पोन्दाचे रेवें पाशीय सकल जावूंक जाय. भयानक अधःपात. हाय! तो भिखमाग्रो. कितलीं वोतां घेतलीं आसुंक जाय? कितलो पावस तिमलो आसतलो ! कितलो उपास काडलेलो आसतलो. कितलीं आंबडपां घेतलीं आसतलीं. कितल्या काळाची भीख आसतली ही?

ताका सहन जायना. दोनीय तांतल्यान ओडून पिंजतात. ताका उसरमेट आयली. ओहो, फटवण ! खून ! तो आतां सडकार उडकी मार्न आयलो. खंय म्हण कळनातिल्लें चमकलो. सावळ्यो हालच्याक लागल्यो.

एक शेळ वारें आयलें. ताणें दीर्घ उच्छ्वास घेतलो.

## इकरा

सर्वय कडे फटवण. फटींगपण. रानटी प्राणी आनी निष्ठूर जनावर. सत, नीत, दया, मनीशपण – सर्वय फटवण. निपट पोकळ उतरां ! जिणेच्या म्हासागरांत, हुसक्याच्या पाळांत, पोंवच्या रुका गदी तो अशें तशें व्हळो ! चमकून चमकून शाराचें गोंदळ उणे जालेले एक गल्लींत पावलो. बेजार जावन एका घराचे जगलेर बैसलो. एक व्हड अस्वस्थताय, कांय खावूंक जाय. वाट कितें? कांय ना. मुखावेल्या घरां साकून एक चेडो देंवन येता. ताच्या हातांतलो दुडू 'चक्र' घुंवडावन खेळ्‌न खाणावळी हॉटलाच्या मुखार वता. ताचे हातां आशिल्लें 'चक्र' गडगडवन ताचे मुखार आशिल्ले खळयेंत, चिकलट उदकांत पडलें. तो बऱ्या रुपान चोयलो. लान एक दुडू ! ताणें थांगा सग शोधलें. दोनीय हातांनी दोळे घश्टीले, रडून भो वेळ चोयलो. तो हाल्लोना. दोळ्यांतल्यान उदक व्हळवन चेडो घराकच परतलो. ताणे उटावन तो दुडू शोधून काडलो. व्हड आशेन तोवय सयत शिजयल्ले चणे घेवन खावंच्याक सीधा चमकलो,

'एय!'

एक आवाज. कठोर प्रतिध्वनी जाली. स्तब्ध जावन तो घूवन चोयलो; खाकी रंगाच्या पोशाकांत एक पोलीस.

ताचें तोण्ड धवें जालें. तो स्तब्ध जालो. पागाराचेर 'लकलक' लांबचीं खाण्डीं, आनी पिंगार्त आनी हातबेडयो देखून तो थडथडून रावलो. पोलीसान ताका गोवंटे धर्न धिंकळून चडयलो.

'समकी राव रे' हें हुकूम दीवन ताच्या पोटार एक मूष्टि दिवंच्याक तो सारखो रावलो. पोलीस इन्स्पेक्टरान विचारलें : कितले फांतां तूवें फारलेलें आसा रे?'

'ताच्या दोनीय दोळ्यांतल्यान उदक व्हळें. दुर्बळ जावन ताणें म्हळें: 'हांवें केदप फारलें ना. भुखेन पसावत हांवें केलें.'

इन्स्पेक्टराच्या हासाची थंय प्रतिध्वनी जाली. ताणे हुकूम ठारायलें : 'आरे २१७ ! हाका विचार.'

२१७ पोलीसान अर्द वराक ताका विचारलें. अब्बासाच्या हर्द्यार आनी फाटीर साकून प्रश्नां प्रतिध्वनी जातालीं. 'मारनाका, मारनाका' हें दुखाचें रणणें मात्र ताका जाप आशिल्ली. प्रश्नां निमित्तीं ताचे हात थकच्याक ताणें इन्स्पेक्टराक कळयलें: 'तो एक दुबळ म्हण दिसता, यजमानो...'

अब्बासाक इन्स्पेक्टराचे मुखार हाडलो. दोळे वाडकुळे कर्न तो गाजलो.

'उसळ रे.. तुका हांगा खंय आनी देकच्याक पाडना. उसळ ! ऊं...'

मद्‌रात जाली. सार्वजनीक पार्काच्या बंकार शेळवतांत कडकडवन पडल़ेल्या ताका चौकीदार पोलीसानी उलो दीवन उटक्रायलो. मनीशाचे गूण निपट सोडून वचनातिल्ले तांणी ताका लागिंचे इगर्जेंत धाडलो. लकून लकून वचून तो इगर्जेचे जगलेर पडलो.

हालोवन हालोवन ताका कोणेंकी जागयलो. सुजल्ल्यो दोळ्यां पातियो विस्कळावन तो चोयलो. वेळ फालें जाल्यां. भोवंतणी लोक मेळ्‌न आसा. कोपाचीं तोण्डां. ताका एक काफीर म्हण लेकून एकलान विचारलें :

'तूं कोण रे?'

'विदेशी ! कसली जात?'

'हांव एक मुसलमान.'

जनपदाक शंका जाली. तें मुरमुरले.

'मुसलमान? हरवी फटी ! सांग रे कलीमा.'

ताणें म्हळें : 'ला इलाह, इल्लल्लाहु मुहम्मदुर्रसूलिल्लाह !'

तांकां विश्वास जालो. ताणें खबर सग सांगलें. एकल्यान अजापान म्हळें :

'लाहौला, देखच्याक काफीर म्हण दिसलें मू. समय गेलेली वाट !'

दुस-या एकलान हुकूम दिलो :

'जावो ! देवन वच. हो पडच्याक आशिल्लो जागो न्हय. समजलें?'

ताका समजलें. लकून लकून तो भायर गेलो. स्वल्प दूरा वच्याक कोणकी ताका उलो दिता सी दिसलें. तो घूवन चोयलो. इगर्जेंतलो एक म्हातारो. चितळाचे धवे शेंपडेच्या केंसा सारकें धवें दीग खाड. दया आनी मोग हांच्यान विसविसवंचे दोळे...

एक रुपया दाकोवन ताणे म्हळें:

'पुता ! घे, हें आसो.'

ताणें हात नीट कर्न तो घेतलो. दोळे भरले.... कांय दिश्टी पडना. हरकत दामून, दुखां पुसून उपकार सांगच्याक तयार जालो. म्हातारो कोणशो घ्वन गेलो. तो स्वल्प वेळाक स्तब्ध रावलो. चार पांच दुखांचे थेंबे सडकार पडले. 'या रब्बुल आलमीन!' ताच्या मनांत प्रतिध्वनी जाली. परमेश्वर !

## बारा

तो एक हॉटलांत चडलो. शेळ उदकान हात पांय धुले. दोन आण्याक (बारा पैसा) आहार घेवन खेलो. जायतें उदकय पिल्लो. मागीर भायर देंवलो. चौदा आणे बाकी आसात. शांत जावन तशें चमकलो. वाऱ्यांतल्या कापसागदी प्रती गल्लींत भोंवलो.

वरां चार जालीं. दिसाची भयानक हुनसाण उणी जाली. गल्लींत दादल्यांचो गोंदोळ चड जालो. ताका एकल्यान धर्न रावयलो. एक म्हातारो. काळो कोट, काळी तोपी. कोटाच्या उंचार रोमेची तांबडी कम्बळ. हृष्ट मनीश. दोळ्यांक मात्र स्वल्प थकावट आसा.

'ऊं ! कितें जाय?' अब्बासान विचारलें. काळो कोट घालेल्यान दयादृष्टीन पळयलो. पांय पडून ताणें म्हळें: 'भावा, हांव विदेशी. आहार खावन तीन दीस जाले. ही कांबळ विकच्याक यत्न केलो. कोणेय घेना...'

अब्बासाचे दोळे भरले. ताका दया दिसली. एक व्हड त्याग करच्याक तयार जालो. सहानुभूती दिसून चार आणे दिल्ले. काळो कोट घालेल्यान ते खुशीन घेतले, पांय पडून चल्लो.

पार्का साकून एक गीत आयकलो. दुखाच्या हृदयाक आपडून आयलो एक शेळ गीत.... अब्बास पार्कांत एक खाली कोणशाक बैसलो. भिन्न भिन्न रंगाचीं परमळाचीं फुलां. सुंदर तणा पातळसाण. थंय संतोषाचो गोंदळ. हाता हात धर्न चलच्या प्रेमी युग्मांचो खेळ–हास. निपून पळोवंच्यो छात्रियो. तणाच्या मैदानाचेर भोंवतणी बैसून उपहास करच्यो विद्यार्थिनियो – पार्कांतल्या दृश्यांत कांय ताका मन धांवले ना. दूख भरलेल्या खंयच्या की मनांक लागून येवच्या त्या शोकगितांनी ताचेर प्रभाव घालो. तो चिंतातूर जालो. भूख लागून पडलेल्या वेळार ताची मदत करच्याक आयिल्ले ते चेडियेक ताणे उगडास केलो. वसंतकुमारीचें तें सुंदर रूप ताचे मुखार उबार्न आयलें. तिगेलें लजेवप, तिची अडचण, सग तो पळयता. जिणेच्या, जनेलांतल्यान कोणकी पळयता म्हण ताका दिसलें. प्रेमान भरलेले दोन दोळे... विसकळ्ळे तांबडे ओंट... लकलकच्यो दांतां फांतियो... तें हासचे चान्दणें ! निंदेलो आत्मो जागो जालो. त्या विशाल दोळ्यांत दिश्टी दवर्न मुखार लागीं सरता. तो आंग काडून जागो जालो. हुमेलो. हृदयाची दरिया खवळता !

तें शीतळ गीत सोंपलें. रेडियो आतां वेगळें एक गीत म्हणता. धुंवरेच्या सिगाराचो परमळ. कोणकी बांकार येवन बैसलो. कापणी काडनातिलो चेरो. ग्रीस तेल लागल्लें बुरशेल्लें वस्त्र. अब्बासाक तिटकारो दिसलो.

आयलल्यान श्रद्धेन पळयलो.

'तूं ह्या गांवचो न्हय?' ताणें विचारलें. अब्बासाक हें व्हड पसंद जाले ना. उलवंचाक मन येना.

'न्हय.'

उपरांत तो हाल्लोना. अब्बास पार्कांतलीं दृश्यां एक एक कर्न देखतालो. हाता-हात धर्न खुतखुती हासून भोंवतल्या अँग्लो इन्डियन जोडयो, वाटेन वतल्या तरणाट्यांक निपून निपून पळोवंच्यो सोपूर दाईयो, भिसरावंची वाक्यां व्हडान उलो दीवन धावन भोवन पत्र विकतले लान चेडे - हांकां रुका बावल्या गदी तो पळवन रावलो.

अब्बास तुरंत उटावन बैसलो. करुणास्पद रुपान एका तरणाट्याक अडचण कर्न, पार्काच्या दारार साकून, ते पचीस पैसे दिल्ललो मनीश उलयता. तीच काळी तोपी, काळ्या कोटाचे उंचार रोमेची तांबडी कंबळ. लागी बांकार बैसल्या मनीशाक अब्बासान जिज्ञासेन विचारलें :

'चोय, त्या मनीशाक तूं ओळखता?'

तो चोयलो. मनीशाक ओळखलो अशें समजून.

'ओळखतां. कित्या, तुका फटयलो की' 'फटयलो म्हण? ऊं?' अब्बासान अजापान विचारलें. लागी बैसल्यान मंद हांसून म्हळें :

'ताका तेंच धंध. सोर पिवूंक जाय. भांग पिवूंक जाय. विदेशी लोकांक पळयल्यार लागीं सरतलो.'

ताणें म्हळें : 'चोय, थंय दिश्टी पडचें 'अंबिका' मिल - थांगाचो एक वावराडी हांव. म्हजें नांव जब्बार. ताची बायल थंय काम करता. स आणे पगार मेळतालें. अर्द चडच हो घेतलो. सोरो आनी भांगी घेवंच्याक ते नुपुरो. देकून...'

'ओ ! हो!'

विद्युत लागल्या गदी जालें. म्हान त्यागाचो परिणाम अशें की? ताका अजाप जालें.

'तुमी?' अब्बासाचें चेऱ्यार पळवन जब्बारान उत्सुकतायेन विचारलें.

अब्बासान इतिहास पुराय सांगून आयकयलो. जब्बारान काकुळतायेन तें सग आयकेलें. सहानुभूतीन ताका आश्वासन दिलें.

'मिलांत तुमकां एक वावर तयार करूं. आमकां वच्या घराक.' प्रांजळ संतोष सयत आशिल्लें तें आमंत्रण ताणें स्वीकार केलें.

'वच्यां.'

ताणें 'हां' म्हळें. ते दोगय गलींत देंवले. एक अजापान शारांतले कोटी दिवे जगमगले. ताचे जिणेचो मार्ग उजवाडाचो जालो.

नव्या उत्साहान पोरण्या काळ साकून आशिल्ल्या दोस्तां गदी ते मुखार गेले.

## तेरा

मोड आनी काळबाण दूर सर्न जिणेचें मळब निर्मळ सुंदर जालें. एक नवो उत्साह ताच्या चेऱ्यार दृश्टि पडता. विशाल मानव समाजाचो एक वांगडी आसा. ह्या संवसाराक संपन्न करचो एक वावराडी! ताका व्हड धाडस दिसता. राष्ट्राचो जीव तो. महासाम्राज्याच्या शीरांतल्यान व्हांवच्या रगताचे न्हंयतलो एक थेंबो तो. घडणुकेचे म्हयने दोन जाले. पोरणो उत्साह आनी ताकत परतून आयली. तो वावरा ल्या संघाचो सचीव जालो. उत्साहाचें जीण. तरीय एक प्रकारची अस्वस्थकाय. केन्नाय एक चिंता. ती ताच्या मनांक केन्नाय दूख दिताली. एकलोच बैसल्या वेळार ताका कश्ट दिताली. ते दोनीय विस्कळ दोळे केन्नाय काकुळतकायेन ताका पळयताले... ताच्या चेऱ्यार दुख पातळतालें. कसल्याकय जीव ना शी ताका दिसतालो. दिसाक उजवाड ना; वाऱ्याक शेळवत ना. फुलांक परमळ ना. निस्तेज चन्द्रम. लकलकप नातिल्लीं नक्षत्रां. खंयीय पळयल्यार एक दुखाची सया. ताचें हर्दें भर्न येता.

'एक अस्वस्थकाय कितें? घराक कांय धाडून दिल्लें ना की?' जब्बारान विचारलें.

'धाडून दिलें.' निर्जीव रुपान अब्बासान म्हळें. 'आनी कितें?' ताणें अंवसरायलो. आपणाकडे साकून कितेंकी निपोवन दवरता म्हण जब्बाराक दिसच्याक लागलें. ताणें बलात्कार केलो. 'सांग अब्बास. दुख कितें?'

सांजवेळ आशिल्लो. मळबार तीळयागदी नक्षत्रां भर्न आशिल्लीं. शेळ वारें ल्हवू ल्हवू मारतालें. संघाच्या कार्यालयाच्या उंचार माळयेर टरस्सार दोन आराम कुरस्यांचेर ते बैसल्यात. एक बीडी लावन ताण्डून अब्बास दीर्घ श्वास सोडून सांगूंक लागलो. 'एक घडणूक, एक चित्र. तें म्हाका दूख दिता. केन्नाय माजे मागलान येता. स्नेह भरलेले दोन विशाल दोळे...'

जिज्ञासेन जब्बारान 'ऊं' म्हण आयकलें. मनांत तो हासतालो. 'कोणाचें चित्र?' ताणें ल्हवू विचारलें. अब्बासाक सांगच्याक भंय, लजा. जब्बाराचो बलात्कार चड जालो. अब्बासान म्हळें: 'एक चेडियेचें...'

बीडी वाडवोवन (सोंत करन) पुराय काणी अब्बासान ताका आयकयली. जब्बाराक कायरीं समजलीं. ताणे उपदेश दिल्लो. 'व्हड ना. तिका बायल म्हण स्वीकार कर!'

अब्बास स्तब्ध जालो. एके चेडयेक बायल रुपान स्वीकार करप? तें ताच्यान जावना. अडचणां एक सास आसात. ताणें विरोध केलो.

'कितल्या जाणांनी तिका वेंगयलें आसयेत? कितल्या जाणांनी तिका चुंबन केल्लें आसयेत? कितल्या जाणांक तिणें तिचें बायलेपण विकलें आसयेत? कितले...'

दोस्तान अडचण घालें. ताणें गंभीर रुपान म्हळें: 'मनान तिणें तें केल्लें आसचेंना. जिवंत आसच्याक दुसरी वाट आसल्यार चडान चड बायलो चेडयो जावना.'

ताणें म्हळें: 'चडान चड भूख सोडच्याक जायनातिल्ल्यो जिणेच्यो गरजो. हांणी तिका एक चेडी केल्ली आसयेत. तिचे कठीन भुकेन कोणाकय तिणे उमो दिल्लो आसयेत. तिच्या स्त्रीधर्मान तें काय केल्लें आसचेंना. म्हाका दिसता, तिचें मन प्रेमा खातीर तान काडटा म्हण. एक तुमी चिंतन

करात. गरीब, अनाथ तुमी ते पोरणे खोंपींत कश्ट भोगचे देकून मदत करच्याक तिणे कित्याक मुखार येवूंक जाय? कितें पळोवन तिणे तुमकां मोहपाशांत घालूंक प्रयत्न करचाक जाय? हाय ! प्रेम भरलेलें तिचें मन तुमकां अर्पण करच्याक हाडलें. तुमी तें स्वीकार केलें ना.'

'हांवें कितें करच्याक जाय?' अब्बासान विचारलें.

'आमी तिका पळोवंया. मागीर...'

एक आयतारा तयार काडून ते गेले. चेडियांचे गल्लींत पावले. अब्बास भायर रावलो. ताणे दाकयल्ल्या घरांत जब्बार गेलो.

एक काळका कूड. बावन पडल्ल्या एका कमळा देंटा समान वसंतकुमारी एका मांच्यार पडल्या. तिचे दोळे मात्र आतां परजळतात. सकल तिका वारें घाल्न एक म्हातारी बैसल्या. जब्बाराक देखच्याक ती ल्हवू उटायली. ताणें म्हळें:

'हांव आयल्लों, मागलांच्या कूडांत रावल्या तरणाट्या पासून...'

ताणें सांगून सोंपयलेंना. वसंतकुमारी खोणस काडून रडूंक लागली.

वर्सांनी बावगल्ले ते म्हातारेन तिका समजायली. हर्द्यार हात दामून धरन ती खणसां काडून रडली. तो सहानुभूती सयत चोयलो. म्हातारी गल्लीचे मागलांचें कवड उक्तावन परतून चोयली. तोवय गेलो. तीं भायर आयलीं. बंद कूड उक्तावन म्हातारी भितर गेली. जब्बार भितर गेलो. सोपोर जाल्यारीय साफ सुथरी कूड.

'पळय. हाका आजीय ती भाडें दिता.' म्हातारेन म्हळें. 'तो वचतसून तिका स्वस्थकाय ना. ती थकता वता. कांय तिणे म्हाजेकडे सांगलें ना. अशेंच रडतली. मागीर तिणें म्हाका म्हळें. आज येतलो, फाय येतलो, अशें हांवें तिका समजायली.'

ताणें मदें विचारलें : 'तुमची धूव ती?'

म्हातारी सांगच्याक तयार जाली ना. ताणें गरज दाक्यली. म्हातारेन भंयान ताच्या तोण्डाक पळयलो.

'सांगात. भियेवं नाकात.'

'न्हय, हांवें घेवन वाडयल्ली. आस्पत्रांत साकून मेळ्ळेली.'

ताणें अंवसरान म्हळें, 'हांगा रावात. हांव ताका हाडतां.'

भायर वचून दोस्ताक सर्वय सांगलें.

'तुमी वचात. हांव पोरण्या कूडांत बैसन.' अब्बासाक धाडलो.

ताचें हर्दें धगधग जालें. पाय ताणें नेणतांच कुडां भितर चल्लो. पाया नाद आयकून तिणें माथें उबारलें. खोणस काडून रडून पिटपिटेवन उटायली. रावच्याक जायनातिल्लें एक तांत बावगली. वाऱ्या गती गदी अब्बास मुखार सरलो. हातांनी धरली. मांच्यार बैसलो. दोन दोळ्या उदकांचे थेंबे तिच्या चेर्यार पडले. ल्हवू ल्हवू तिणे दोळे विसकळायले. प्रेमान भरलेले चार दोळे एकामेकांक चोयले. एक उजवाड पातळ्ळो. दोगंय हांसलीं.

'वसंतकुमारी, क्षमा पावंका', ताणें ल्हवू म्हळें.

तिचें हर्दें हालचें चड जालें. श्वास बेगीन चल्लो. ताचें शरीर कडकडलें. मनोवेगा निमित्तीं चेरो बावगलो. तिचे दोळे बंद जाले. तांबीडसाण भरलेल्या तिच्या विसकळिल्ल्या ओंटांचेर ताचो चेरो दामलो.

# रसपाळें केळें

## एक

रसपाळें केळें – ही काणी हांव मन लावन न्हय बरयतां. अब्दुल खादर साहबालें उपद्रवा लागून. तो लेखता, हांत एक व्हड नैतीक पाठ आसा म्हण. ताची घरकान्न जमीलाबीबी संबंदी आसा ही कथा.

जमीलाबीबी विश्वविद्यालयाची बी.ए. पदवीधरनी. अब्दुल खादर साहब विद्यालयांतलो धावो वर्ग मेरेन शिकला. देशाची चाल प्रमाणी बी.ए.कारनीक धावें वर्ग मेरेन शिकल्यान व्हारडीक कर्येतकी? पूण झुजांत बळान धर्न घेतिल्ली म्हण अब्दुल खादर साहब दावो करता. पूर्वपुरातन काळाक बायलांक दादले फटोवन धर्न घेवन वताले. दीग दोराचे तलवाक गुळके कर्न, तें उडोवनूय बायलांक धरताले. जायते तरांचे जुलुम दादले बायलांचेर करताले. अब्दुल खादर साहब एक सुसंस्कृत मनीश आशिल्लो. देखून ताणें तशें कांय न्हय केलां. तो शारांतलो एक 'केडी' (लूट मारपी), बीडी कामगार संघाचो सचीव आनी एक बरो फुटबॉल खेळपीय आशिल्लो. आटवें क्लास साकून धावें वर्ग मेरेन जमीला बीबी वांगडा एकच यत्तेंत शिकला आनी आठवें वर्ग साकूनूच जमीलाबीबीचे मोगांत घुसपला म्हणूय अब्दुल खादर साहब सांगता. ही एक निपट फट म्हण जमीला बीबी सांगता.

कशेंय करून जमीलाबीबी बी.ए.पास जाली. बापूले बीडी फाक्टरीं साकून दाम–दुडू जायशें काडून एक व्हड 'लेडी' (महिला) म्हण तशें आस्त बाळगून भोवंचो काळ. थळाचे तरणाटे सगट जमीलाबीबीचेर मोगांत पडलेय आसात. जमीला बीबी पासून एक ओळीचीं पदां, व्हड प्रेम काव्यां तशें जायते तरांची कविता तरणाटे कवी रचतात. जमीलाबीबीचे कळीजा मुखार, थळाचे फुडारी तरणाटे – तांचें एक सैन्यच एक व्हड 'क्यू' भाशेन राबलां. अब्दुल खादर साहब तांत एकांतय ना आशिल्लो. ताणे कविता रचपाक वा प्रेमपत्र बरोवपाक यत्न केलो ना. तें कांय म्हाका कळना म्हण अब्दुल खादर

साहब सांगता. ताणे जमीलाबीबी पासून एक 'प्रेमगीत' रचलां आसा म्हण जमीलाबीबी सांगता.

ती निपट फट म्हण अब्दुल खादर साहब सांगता. ताणें केलें अशें: एक दीस जमीलाबीबीक पायां–वाटेर अडखळी घालन राबोवन ताणे विचारलें.

'तुजें नांव जमीला बीबी न्हय की?'

जमीलाबीबीक हें आवडलें ना. जमीलाबीबीक वळख नाशिल्ले कोणेय तरणाटे ते थळांत आसा की? तीणे केवल एक 'लेडी' सारके व्हड गंभीरतायेन विचारलें :

'व्हय, आसा, जाल्यार?'

अब्दुल खादर साहब हांसलो. भो एक सुंदर हांस. तें जमीलाबीबीन देखलें आसा; पसंत पडताय. पूण तो देखावो ! जमीलाबीबीक राग हाडता तो देखावो. तें जमीला बीबीक रुच ना.

'कितें जाय?'

'विशेश कर्न कांय न्हय.' अब्दुल खादर साहबान म्हळें. 'जमीला बीबीचे बापाली फाक्टरी आसा मू. थांगा एकशें वीस बीडी करपी कामगार आसात. हांव तांचो सचीव आसां. नांव अब्दुल खादर.'

'भी बरें !' जमीलाबीबीन म्हळें: 'शाराचो क्रिमीदोर म्हणूय आयकलें आसा.'

'होय. बीडी कामगार हडताल करपाक विचार करतात. आमी तुमची फाक्टरी टाळेबंदी करयतले!'

जमीलाबीबीन विचारलें : 'तें म्हाजे कडे सांगता कित्याक? बापाक वचून सांग!'

'जमीलाबीबी कडे सांगचाक कारण आसा.'

'तें कितें?'

अब्दुल खादर साहबान म्हळें: 'हांव जमीलाबीबीक चड मोग करतां!' जमीला बीबीचे मनांक व्हड शीतळताय दिसली. तरीय एक लजावुंक जाय. जमीलाबीबी हांसली. भो हिणसांवचो हास.

'संतोश!' जमीलाबीबीन म्हळें. 'आनी दुसरें कितें की गांवची खबर?' ते सवालाक एक सामान्य 'क्यू' आंत रावचो तरणाटो जालो तरी तो निस्तेज जात आशिल्लो ! पूण अब्दुल खादर साहबान तें एक आव्हान सारकें मानून म्हळें:

'जमीला, तूवें म्हाका व्हरडीक केली ना जाल्यार?'

आव्हान सारकेंच मानून जमीलाबीबीन निमगलें :

'ना जाल्यार कितें करतलो?'

'हांव गळपांस घेवन मरतलों!' अशें कांय अब्दुल खादर साहबान सांगलेंना. ताणें म्हळें :

'जमीला, हांव तुजें हाड मार्न पिट्टो करतलों!'

जमीलाबीबी चुप रावली.

अब्दुल खादर साहबान म्हळें:

'जमीला, म्हाजें जीवन तूवें निर्फळ कर न्हयें! हांव तुका दोळ्यां भर सारको मोग करतां. तुजे अंगाचे कपडांक प्रेम करतां. तुका हांव सकयल पाय साकून ऊंच मान मेरेन प्रेम करतां. तूवें चमकचे वाटेकय प्रेम करतां!'

कितें सांगप? जमीलाबीबीक पसंत जालें. तरीय तें प्रगट करचें योग्य व्हय? जमीलाबीबीन विचारलें: 'देख पडचे चलियांक सगट वाटेर आडावन राबोवन अशें प्रेम-भाशण करप आसा न्हय की?'

'ना ! म्हजे जमीला, तुजे कडे न्हन्तना दुसरे खंयचाय चलये कडे हांव उलयलो ना लेगीत, चोयलोना लेगीत. उलोवंचीय ना. पळोवंचीय ना. तू म्हजे दोळ्यांतली दिश्टी आसा !'

तीणे गंभीरतायेन विचारलें : 'मागीर?'

ताणे म्हळें : 'तुका हांवंय म्हाका तूवंय !'

'ओ – व्हड संतोसा !' अशें सांगून जमीलाबीबी गेली. अशें झूज आरंभलें. तोंडी लटाफत जाली. घरकार विरोधी. थळावी विरोधी. हडतालाचे गंदळ ! अखेर... कसल्याक? जमीलाबीबीक अब्दुल खादर साहबान व्हारडीक केली. तशें खोशयेन दीस काडचे वेळार येता रसपाळें केळें !

## दोन

समय बराबर पांच वरां.

पावसाळी. वोतय आसा, पावसूय आसा. आठोवन उगडास नाशिल्ले वेळार दोनीय आसतलें. लागी आशिल्ले न्हंयंत उदक तशें 'घुम' सी ऊंच येता. अशेंच तें पळोवंचाकय, न्हावंचाकय अब्दुल खादर साहब खमीस आंगार घालनाशिल्लें आंगूटीय घेवन आंगणांत देंवलो. तेन्ना जमीला बीबीन ल्हवू कवडा लागी येवन उलो दिल्लो :

'मागीरी एय...!'

अब्दुल खादर साहबान चिंतन केली : शर्ट घालन वच म्हण सांगपाक जावयेत ! कारण, लग्न जाले उपरांत तीं दोगंय एकसान रावपाक आरंभले तुरंत उपरांत जमीलाबीबीले नवे कांय अध्यादेश सादर केल्ले.

अब्दुल खादर साहब 'जन्टलमॅन' जावुंक जाय! बरे भाशेन न्हेसून पुसून जाय भायर वचुंक. चालचलणूकेंत गंभीरताय दाखोवुंक जाय. वाटेर पोरने हेंडपी दोस्तांकडे उलोवपाक नज. बीडी करपी, कवी, ओजे व्हांवपी, राजकारणी मनीश, मोटोर ड्रायवर, रिक्षा ड्रायवर – तांचे कोणाचेच कडे नातेन बराबरीचो वेव्हार करचाक पाडना. आनी घराचे कामाक एक नोकरीनीक नेमुंक जाय. अब्दुल खादर साहबान जेवण खाण शिजोवन तयार करपाक वचाक पाडना. एक बरे स्थितीर जीवन करपाक जाय ! थोडे भितर म्हळ्यार तो एक बरो मनीश जावुंक जाय ! सज्जन जावुंक जाय ! खंयचीय बायल मनीश खंयंचाय दादलाकय लग्न करचो मुख्य उद्देश, ते दादल्याक बरो करपाक मू. दादल्याक सीधा वाटेन व्हरप, तागेले आत्मीक आनी भौतीक सगट विशयांतय हात घालन घुसपावप. हें सग एक बायलेलें कर्तव्य म्हण जमीलाबीबी विस्वास दवरता. समस्त बायलोय विस्वास दवरतात. हे बरे

बायल–दर्शनशास्त्रा पासून अब्दुल खादर साहबान कांय म्हळें ना. कितें म्हणचाक? लग्न जावन चड काळूय जालो ना मू? ताणे नवे वैभवान म्हळें:

'म्हजे जमीला हांव न्हावंचाक वता न्हय? शर्ट आंगार घालन वचुंक जाय?'

'ओ!' जमीलाबीबीन भारी दुःख पावले भाशेन म्हळें: 'हांव सांगल्यार मानप ना मू !'

'जमीलान सांगले कांय पुणीय हांवें मानलें ना आसा?' अशें म्हणून भितर धावन येवन शर्ट आंगार घालन भायर देवलो. पूण शर्टाक बुतांव कांय ना आशिल्लो.

चोय दादल्याची बेजवाबदारी !

जमीलाबीबीन तीन बुतावं हाळ्ळे आनी शर्टाक घालन दिल्ले.

अब्दुल खादर साहब चल्लो.

जमीलाबीबीन दुसरीय उलो दिल्लो.

'मागीरी... एय !'

अब्दुल खादर साहब घूवन चोयलो. ताणे चिंतन केल्ली: या रब्बुल आलमीन ! रांदपिणीले कामा पासून सी दिसता ! कितें करप? रांदपिणी नाशिल्लें जीवन करपाक जायना की? आमचीं कार्यां आमीच करूंक जाय. एकली बी.ए. पास जाली म्हण कितें पसावत रांदणीर पेज करूं पाडना? बी.ए. न्हय, आनी एम.ए., पी.एच.डी.कारीण जाल्यारीय पेज आनी रांदय करूंक जाय. कळना जाल्यार अब्दुल खादर साहब शिकयतलो. शिकोवंचाक लागला आसा. बिरियाणी सावन चाय मेरेन करूक ताका कळता.

'कितें जमीला?' अब्दुल खादर साहबान विचारलें. 'रांदपिणीलें प्रश्न की?'

'न्हय' जमीलाबीबीन मनस्ताप भोगचे भाशेन म्हळें. 'हांव बी.ए.पास जाल्यां रादपीण जावपाक मू!'

'मोगाचे !' अब्दुल खादर साहबान म्हळें: 'म्हजे मोगाचीन रांदचीकूडांत भितर सरपाक नाका. सगट हांव दुरुस्त करीन. पुरो न्हय?'

'ओ... पुरो ! दिसपट्टें म्हणता.'

'आज लेगीत म्हजी म्हाराणी रांदचीकूडांत भितर सर. फाय साकून तुजो हो दास...!'

'अशें कांय म्हण नाकात!'

'आतां कित्याक आपयला?' ताणें विचार केलो, केस वळोवन चेऱ्यार पाउडर घालन वचाक जावयेत. पूण जमीलाबीबीन भो लजेन, मनस्तापान आनी मोगान म्हळें : 'रसपाळें केळें !'

'कसलें रसपाळें?' बायलो दाखय-लिपय करना आशिल्लें कांय पुणीय सांगतलीं? ताणें विचारलें: 'कितें म्हणता तूं?'

'रसपाळें ! दोन केळीं विकते घेवन हाडतले की?'

हावु ! रसपाळें केळें न्हय? खावपाक वसवस आसा ना? हाडीन, हाडीन. न्हंयचे करावळेक दुकानांत आसा. आनी थंय ना जाल्यार तारी मचवार चडून पेलतड वचून दोन फरलांग चमकल्यार थंयचे एक लान बाजारां सांकून घेवयेत. ताणे म्हळें :

'एक घड रसपाळीं हाडीन'.

'दोन पुरो.' जमीलाबीबीन म्हळें. 'देखले कडे सगट हेंडपाक पाडना! वेगीन हांगा येवुंक जाय. सांज जावूं मेरेन रावचाक नज. एकलीच बसचाक म्हाका भय दिसता. कांय विसरू नज, आयकलें?'

'ना मू !' अशें म्हणून तो चल्लो. बायलो म्हणतात आयकलें, खंयच हेंडपाक वचाक नज म्हण ! अब्दुल खादर साहब हांसलो. तुरतुरीत ताका मोगाचो हाल जावपाक लागलो. जमीलाक पयले फावट जाय दिसलो एक विशय, दुसऱ्यो बायलो जाल्यार, या राब्बुल आलमीन, अब्दुल खादर साहबाचे मनांक दिसलें. कांय सगट हिकमतां मू त्यो घोवाकडे मागणी करतल्यो ! भांगर, सिल्क, कांकण, मोहोर, डकोटा विमान - तें सगट सोड, हीं सगट म्हत्व नाशिल्लीं वस्तू आसात. ताणे चिंतन केलें. कांय जाणां आसात तीं घोवाकडे मागतात फकत मोल नाशिल्लीं पदार्थां. रानांत बीवन पडल्ले शिंविणीच्यो दोन मिशियो ! त्यो हाडून दिल्यो नाशल्यार मनस्ताप. 'ओ,

जाल्यारय, हांव माजरा सारके शिंवाचे चेरेच्यो दोन मिशियो जाय म्हण सांगून... ओ हें सगट इतलेंच आसा' अशें म्हणून भों करून खणस काडून. रडतलीं ! घोव कितें करतलो? आनी वेगळे एक तराचो प्रकार आसा. तांकां जांय एवरेस्ट शिखराचेर साकून एक लान दोवा कुडको. ती घेवन हाडून दिल्ली नाशल्यार म्हणतलीं, दोळे भरन गागेवन : 'ओ, एक लान कुडको दोवा तकळो जाय म्हण सांगचाक घेवन हाडून दीनाशिल्लो दादलो न्हय.... म्हजो जीव काडात !' घोव कितें करतलो? जमीलाबीबीन हाडपाक सांगल्लें असलें कांय गिरगिरें आसा की? फकत दोनी दोन रसपाळीं केळीं ! अब्दुल खादर साहबान चिंतन केली. न्हाण जावन, शर्टय घेवन, वचून एक घड रसपाळीं घेवुंक जाय. तो तशें न्हंयचे देगेर पावलो.

न्हंय एक मातीयेचे गुलाली रंगाची एक म्हासागर जाल्या. कसलो झोत! दोनीय तड उदकांत बावगून आशिल्ले रूख कांय दिश्टी पडना. कसले कसले वस्तू व्हळन वता ! न्हंयं सगल्या सगली भिरांकूळ जाल्या.

अब्दुल खादर साहब न्हंयंत देंवन न्हालो. म्हळ्यार एक बुडलो, तेंच. उदकाक दोवा कुडक्या पाशीय शेळवोत. तो नमाज म्हणपाक विसरलो. बेगीन तड आयलो. माथें पुसून तारी व्हडचे दुकानाक धांवलो. थंय पावंचाक – कण्णन * केळें आसा, पाळयन्कोडन* आसा, पडट्टी* आसा, पूण रसपाळें ना ! कितें करप? तो तारी–मचवार चडलो. मचवा चल्लें. न्हंयचे मदें पावंचाक गंभीर वारें सुटपाक लागलें. ताका लागून वातावरण काळोख जावूं लागलें. माचवा तांडेलान कशेंय करून पलतड पावयली. अब्दुल खादर साहब देवन धांवलो. मदें हादीर पावंचाक पावसूय आरंभलो. तो धांवन सांतां वचून एक दुकानांत चडून रावलो. गंभीर पावस ! दुकानांत सगट दीवे जळ्ळे. पावस एक थांबचे खातीर तो रावलो. गंभीर वारेंय आसा. समय गेल्लो कळ्ळें ना. पोरणे उग्दे हेंडप्यां लागी बडायो मार्न तशें बसलो. मागीर पळोवंचाक वरां आठां लागी पावलीं. ताका उतळताप जालो. जमीला बीबी एकलीच बसून भियेतली. तो भायर देवलो. जायते दुकानांत सोदलें. पूण रसपाळें मात्र ना ! कितें करचाक? व्हड निराश जालो. अखेर ताणे एक

---

* हीं केरळचीं तरेतरेच्या नांवांचीं केळीं.

डजन सोन्नारींग घेतलीं. रसपाळ्या पाशीय बरें मू सोन्नारींग? मोलय चड आसा; विटामीनय चड आसा. तें सग एक कागदाचे पोटल्यांत काडून तो चमकलो. पावसूय बरो काळोखूय. खयींय उजवाड ना. रपसाळें आनी पावस दोनीय मेळन एक भयंगर गूडगजाल घडयतात न्हय? अब्दुल खादर साहब तारीघाटांत पावलो. कोणेय ना. ताणे काळोख चोवन पावसांतल्यान मचवाकाराक उलो दिल्लो. एक धा-वीस फांतां 'पू...होय!' अशें व्होडान उलो दिल्लो. कोण आयकचाक? ताळो भेतलो न्हन्तना काय विशेश ना. कितेंय जावो, अशें मनांत लेखून ताणे पेवंपाक थारायलें. शर्ट आंगार साकून काडून आंगूटचांत सोन्नारींगा बांदून माथ्यार दवरलें. ताचीं दोनीय तल्लवां खाडकीर बरे भाशेन बळान बांदलीं. शर्ट आनी मुण्ड* सोन्नारींगां भायरच्यान माथ्याक बांदलें. ताणे चिंतन केली. ती आतां कितें करता आसतली? चोय जमीला, अब्दुल खादर साहबान चिंतन केली. व्हारडीक केली ना आशिल्ली जाल्यार खंयीय चडून पडयेत आशिल्लें न्हय? पळय, दादल्यालें स्वातंत्र्य वची वाट ! या रब्बुल आलमीन धनियां, हांव न्हंयंत उडकी मारन पेवंपाक वतां! म्हाका तूवें राखुंक जाय ! तशें चिंतून अब्दुल खादर साहबान उदेंत दिकाक न्हंयचे देगेवेयल्यान एक फरलांग चमकलो. न्हंय उदेंता साकून अस्तंता दिकार व्हळता. सारकें पेंवल्यार झोत म्हाका एक फरलांगा अदीक सकयल घेवन वचेत !

अब्दुल खादर साहब धाडशीन सकयल देवलो. तरी बुडून मेलो जाल्यार? पूण जमीलाबीबी खातीर न्हय की? उदक कमर भर जालें. पाय जमना. तो पेवंपाक लागलो. माथे मात्र भायर दिश्टी पडता. ताणून पेंवून मुखार गेलो. काळोखांतले झोतांत मागल्यान खंयचे मुखार खंयचे? कांय कळना. अदमास कर्न वता. मदें न्हंयंत केन्ना गेलो आनी करावळीक केन्ना पावतलो कांय कळना. हात पांय वांवटेवुंक लागले. अखेर, कित्याककी खंयकी ताचो हाथ लागलो. बळान झोत सकयल ओडून घेवन व्हरत! ताबो सोडलो ना. एक दोन घोट उदक पिल्लो. अब्दुल खादर साहबाक समझलें, ताबो मेळ्ळा एक वांशी (बांबू) हिडांत म्हण. जायते कांटयांचे खांद्यांचेय अडचनाची चिंता करनातल्लें तो तड चडलो. वसून कडकडलो. उगडास

* केरळांतलें दादल्यांनी न्हेसपाचें मोटवें लुगट.

करन भयान थरथरलो. अशेंच बसल्यारी? रानांतल्यान आनी कांटयांतल्यान अब्दुल खादर चल्लो. जल्म घेतल्ले भाशेन ! मुण्ड आनी शर्ट दोनीय मोलान कवरे आशिल्लो खांदो मोडून दाण्डो कर्न अब्दुल खादर साहब चमकलो. केळींचें एक भाट ! जगलावपांत ताणें प्रकृती पळयली. एक घरय, तेन्ना खबर समजलें. वचून पांवचे कडे साकून एक अर्द मील सकयल आयला !

तो घराचो आखाडो दांटवन हाका–ताका हात लावन माडाचो सांकव दांटवून मुखार चमकलो. तेन्ना एक सुणें भोंकलें ! ताका लागून वेगळें एकय. तशें गावंचीं सर्वय सूणींय ! सदाचार भाशेन जावयेत तीं भोंकतात. ताणे चिंतन केली, कितें करप? घोळिल्ली वाटो, सांकव आनी व्हड वाटो दांटवून अशें–तशें कशेंय कर्न घराक पावलो. हावू ! थंय उजवाड आसा. मोगाची जमीला न्हिदलीना. अब्दुल खादर साहबान चिंतन केली. घोवाक प्रेम करची घरकान्न ! जमीला, कवड उक्तें कर – अशें ताणे म्हळें ना. आंगूटी न्हेसून जावो म्हण चिंतन कर्न वारांदार सरलो. आनी जनेलांतल्यान भितर चोयलो. तो थंडी निमित्तीं कडकडतालो. तरीय अब्दुल खादर साहब आपाप हांसलो. एक सुन्दर दृश्य.

मेजार एक दीवो जळता. ताचे लागी दोन व्हड थाळी. त्यो दोनीय वेगळे वेगळे थाळीयानी धापल्यांत. लागीच चार पांच लान ताटलीयो. त्योवय धांपल्यांत. शीत आनी रावंदयो आसात तांत. घोवाची वाट पळोवन घरकान्नीय. हातांत एक भिरांकूळ पिसकाती ! तीवय घेवन जमीलाबीबी कदेलार बसून पुरो जावन मेजार माथें दवर्न न्हिंदल्या !

ताचे भायर वेगळेंय आसा: विशेशताय : मुखारलें कवड भितरचान खिळी घाल्या. पूण भायर साकून कोणेय चोर कवड धिंगळून खिळी फुटोवन भितर आयल्ले जाल्यार? देखून एक मेज ओडून घालन कवडा लागून दवरलां. मेजाक घटाय नुपुरो म्हण लेखून म्हळ्या गदी मेजार एक लान उशेंय ! पुरो न्हय!

बायलांली बुद्द चोय, अशें चिंतन कर्न अब्दुल खादर साहब जमीला बीबीक उलो दीवन जागो करपाक वतां तेन्ना वेगळो एक समजून घेवपा सारको प्रसंग. रांदची कूडीचे कवडांतल्यान बरो उजवाड आंगणांत पडता!

नें कितें? तो त्या वशीं गेलो. कसलें अजाप ! ती उतळतापान रांदचीकूडीचे कवड बंद करचाक विसरली. लोकांतले सगट चोरांकय पुरसांय भाशेन स्वतंत्र रुपान चडून वचेत, अशें चिंतून अब्दुल खादर साहब भितर सरलो. आवाज करनाशिल्लें, भो ल्हवू, कवड बंद कर्न खिळी घाली. हातांतलो दण्डो रांदची कूडींत दवर्न ल्हवू न्हेसपाचे कूडांत गेलो. आंग जायतेकडे सिरल्लें आसा, रगतय व्हांवता. जमीला तुजे खातीर हांवें कितलें मात्र रगत व्हांवंयलां ! ताणे तीणे चेऱ्यार घालचें परमळा पाउडर सर्वय आंगाक पुसलें. उपरांत न्हेसून-पुसून केस वळोवन दवरले. सोन्नारींगां न्हेसणा कूडींतच दवरलीं. ते उपरांत जमीलाबीबीक उलो दिवपाक वचाक नमाजाचो उगडास आयलो सूर्यास्ताची आनी रातीची प्रार्थना केली ना. ती करयां. तो हांवें रांदचीकूडांत वचून उदक घेवन तोण्ड धुल्लें आनी येवन नमाज म्हळें. जमीलाबीबी खातीर, आपणलो जीव राखले खातीर, रब्बुल आलमीन यजमानाकडे मागणीय केली. ते उपरांत सोन्नारींगा दोन आयदनांत काडून मेजार दवर्न उलो दिलो :

'म्हाराणी !'

जमीलाबीबी अकूळ पिकूळ जाली. भियेवन पिसकातीय घेवन दोळे विस्कळायले !

'हाका कातरनाका!' अब्दुल खादर साहबान म्हळें. 'चोर आनी कांय न्हय. हांगा राबला गरीब अबुद्दी अस्सल अब्दुल खादर आसा !'

'देखल्ले व्हडें सगटय भोंवन आयला न्हय?' अशें म्हणून कवडा लागी पळोवंचाक ती एक तटास जाली : 'भितर कशें आयले?'

अब्दुल साहबान म्हळें : 'हो दादलो येवंचे वेळार सर्व कवडंय आपाप उकतीं जातलीं; सर्वय हड्डींय आपाप...!'

'पिशेपणाचीं खबरां करनाकात. कशें भितर सरले?'

अब्दुल खादर साहबान म्हळें : 'रांदची कूडा हादीन !'

तीणे विचारलें : 'कांय दाण्डो घलन खिळी उक्तावन न्हय? कांय चोरानी तें पळयलें जाल्यार? आनी तेवय चडतले ! आनी हे घरांत शांततायेन कशें रावतलीं?'

अब्दुल खादर साहबान म्हळें: 'ब्लडी फूल ! कवड बंद केल्लें नाशिल्लें.' जमीलाबीबीन म्हळें : 'ओ... एक तरा संस्कृतायेन उलयात, कवड बंद केल्लें नाशिल्लें खंय!'

'या राब्बुल आलमीन !' अब्दुल खादर साहबान चिंतन केली. बायलांनी केल्लेले चूक्यांक ताचान 'होय' म्हणवंचाक जायत की? ताणे विचारलें :

'तूवें नमाज म्हळें की?'

'नमाज म्हळें !' म्हण सांगून उठावंचाक तीणे सोन्नारींगां देखलीं. चेरो तांबसार जालो. राग आयलो. हाडून दवरलां ! कोणेय खातलें की? भो तिरस्कार भाशेन सोन्नारींगांक पळवन लासून गोबोर करचे रागान. तरीय कांय मत दिल्ले ना.

अब्दुल खादर साहबान म्हळें:
'रसपाळें केळें खंयीच ना.'

जमीलाबीबीन कांय जाप दिली ना. कितें सांगचाक? हाडून दवरलां...! हात धुवपाक तीणे उदक हाडून दवरलें. दोगंय हात धूवन जेवलीं.

'रांदय बरी जाल्या.' अब्दुल खादर साहबान म्हळें. खऱ्यानीच, रांदयो सग भो वायट आसात. मीट ना; थोग ांक तिकसाण चड. तरीय घरकान्नीक चूक सांगचे सारकें की?

तीणे एक बरें खबर सांगलें :'हांव न्हिंदेवुंक वतां!'

ताणे म्हळें: 'सोन्नारींग खावन न्हिंदवूं, रसपाळें खंयीच ना. हांवें दोंगरा उदकांत पेंवन वचून हाडिल्लीं मू?'

तीणे म्हळें : 'तशें फट सांगचें नाकात. म्हाका सोन्नारींग पसंत ना. घेवन हाडपी खायात.'

ती नांक फुल्लावन नीट चमकून मांच्यार वचून पडली.

अब्दुल खादर साहबान सोन्नारींगाची साली काडली. बयो एक आयदनांत भरल्यो आनी उलो दिलो: 'जमीला....!'

'मान्य ना!'

'मान्य ना की?' अब्दुल खादर साहबान चिंतन केली : व्हारडीक जाले रोखडच चेडुवाचे पोटाक एक धपको दींवका आशिल्लो!

'जमीला बेगीन हांगा उठून यो!'

'म्हाका न्हींद येता!'

'तें होय की!' ताणे उठून वचून भो थंडसाणेन म्हळें: 'जमीला, हांवें चड कश्ट सोसून हाडलीं हीं. चोय, हांव न्हंय पेंवून उदक पीवन मरण पावलो जाल्यार?'

जमीलाबीबी हांतणार पडून तीणे चेरो उश्यार दामलो.

'जमीला!'

जमीलान चेरो चिके घुंवडायलो.

'हांवें म्हळेंलें रसपाळें!'

'गांवांत रसपाळें ना. फाय हांव खंयीय साकून केळी नेमे हाडीन.'

'ओ... तें सग घड जावन केळीं पिकतर खायन मू!'

'आसो, हीं सोन्नारींगां खा; हांत बरें विटामिन आसा.'

'म्हाका नाका!'

'तूं खावुंकच जाय!'

जमीलाबीबी उठून बसली. व्हड अनादर दाखोवन निपट एक लेडी भाशेन विचारलें :

'खालें ना जाल्यार मार्न खाववयतले की?'

'रायट !' अब्दुल खादर साहबान चिंतन केली: चांग एक युक्त! तो क्तांय उलयनाशिल्लें रांदप-घरांत गेलो आनी दाण ार साकून दोन लान कवरे मोडून काडून हाडले.

जमीलाबीबीन दाण्डो देखलो. 'भा' भाशेन ती थंय बसली. ताणे म्हळें: 'उठा!'

'मन ना!'

'मन ना की?' तो वचून पिसकात घेवन आयलो.

'बुस्क!' म्हणचे भाशेन जमीलाबीबी बसली.

'यो' ताणे आपयली. तीणे म्हळें : 'मन ना.'

'तें होय की?' ताणे जमीलाबीबीचे जांगेर हुनहुनी दोन पेट मारले. आनी पिसकात दाखयली.

'आनी लागीचें कातरप!'

ती बावडी भरल्लेले दोळ्यां सयत उठायली. ते दुकांचे थेंब... ते देखचाक.. कितें सांगचाक ! अब्दुल खादर साहबाचें हर्दें भेतलें. दादलो न्हय तो? बायल मनीशेचे दोळ्यांत दुकां देखल्यार व्हड कश्ट दिसचीना? तरीय चिके समयाक अब्दुल खादर साहबान आपणालें हर्दें एक पाशाणा उं ा भाशेन बदलायलें. आनी म्हळें :

'जमीला... दोळ्यांची दुकां कांय मोल नाशिल्लें वगडावनाका. जाय म्हण दिसता जाल्यार एक बुयांवांत भर्न दवर. हांव तांत मागीर न्हायन! आयकलें?'

जमीलाबीबीन गळीत आवाजान विचारलें:

'म्हाका जिवानशी मारपाक वतात की?'

'होय!' ताणे म्हळ्ळें. 'तुका कातरून लान लान कुडके कर्न बिरियाणी तयार करपाक वतां!'

ताणे तिचे हाताक धर्न लागीचे कूडांत व्हेल्ली. आनी सोन्नारींगां मुखार रावयली.

'काडून खा!' अब्दुल खादर साहबान आज्ञा दिली.

जमीलाबीबीन तें आयकलो दावो सरी केलो ना. तशें 'बुस्क' म्हणचे भाशेन रावली.

घोवान सांगल्यार मानची ना की? ताणे तिचे कुल्यार 'फटस्को' कर्न स पेट दिल्ले!

तीणे एक बोय काडून खाली.

'पुरो न्हय! आनींक्रय!' तो ल्हवू गरजलो. ताचे भायर पिसकातीय दाखयली: 'पळयली? सुस्तायतलों!'

तीणे बेगिबेगीन बयो काडून खाल्यो.

ताणें म्हळें : 'गुण्टी काडून उडोवन सन्त खाल्यार पुरो!'

तशें दुकांचे थेंबे घालन जमीलाबीबी ल्हवू गुण्टी काडून उडोवन खावुंक लागली.

अब्दुल खादर साहबान आतांच-आतां जाय आशिल्ले कामां पासून विचारलें : 'हांव तुचो कोण?'

तीणे म्हळें : 'कळना !'

'पिसकाती पळयली?.... तुचो कोण हांव?'

'घोव'

ताणे विचारलें : 'पिसकाती देखली... तूं आनी म्हाका सुधारूक प्रयत्न करतली व्हय? ना म्हण बेगीन सांग ! पिसकाती देखली?'

'ना'

ताणे विचारलें, 'तें तूं खाता कितें?'

'सोन्नारींगां' ताणे तिचे कुल्यार आनी एक पेट मारलो. 'पिसकाती देखली? म्हण, खाता रसपाळें केळें!'

'रसपाळें केळें!'

'रान्दपीण जाय की? नाका म्हण सांग. पिसकाती पळयली?'

'नाका!'

'तूं लेडी व्हय? पिसकाती देखली?... तूं म्हजी पत्नी न्हय?'

'होय!'

मोटोर गाडी चलोवपी, रिक्षा गाडी चलोवपी, कवी, ओजें-व्हांवपी, राजकारणी मनीश, बीडी करपी - तांचे कडे सग बराबर वेव्हार करतली? पिसकाती पळयली?.... वेव्हार करीन, वेव्हार करीन म्हण सांग!'

'वेव्हार करीन, करीन !'

'खाता कितें?'

'रसपाळें केळे!'

पिसकाती आनी बडी सकयल घाल 'म्हजे मोगाचे!' म्हण सांगून अब्दुल खादर साहबान जमीलाबीबीक वेंगायली, उमो घेतलो. तिचे कुल्यार आनी जांगेर पेटांचीं चिन्ना! तांकां आपडचाक ताचें हर्दें भेतलें.

'म्हाजे मोगाचेक दुकलें की?' ताणे विचारलें.

तीणे उदासपणान म्हळें: 'ना!'

## तीन

अशें आसतनाय ताचें हर्दें भो दुकलें. दादलो न्हय? तशें ती रात भोगली. फालें जालें. दीस वरसां भोगलीं. न्हयंत जायते फांतां हुंवार आयलो. जमीलाबीबी णव फांतां बाळंत जाली. लोकांत कांय तराचे बदलाव आयले. सम्राज्यां नश्ट जालीं. मुकूटां, राजदंडां आनी शिंवासनां उबून गेलीं. नवे विचारांक मान्यताय मेळ्ळी. मानव समाज प्रगतीचे मार्गार मुखार गेलें. अब्दुल खादर साहब आनी जमीलाबीबी – दोगांकय पिरायेन चड वर्सां जालीं. दांत सगटय गेले. दोगंय केस पिकून म्हातारीं जालीं. दोगांकय पोंग पडलें. मालम्हातारो आनी मालम्हातारी. पूतय धुवोय 'आनी तांकां चेरडूंवांय जालीं. तशें जीवन करतात जाल्यारीय पोरणे घडणूकांत कांय पूणीय उगडास करनाशिल्लें आसतलीं की! अब्दुल खादर साहब हांसून जमीलाबीबीक विचारतलो : 'म्हाराणी, फूडे तूवे रसपाळें जाय म्हण सांगचाक, रातींत न्हय पेंवन हांवें हाडल्लें कितें?'

जमीलाबीबी हांसून म्हणटली:

'रसपाळें केळें!'

तो विचारतलो : 'तें कशें आसलें?'

ती म्हणतली : 'सोन्नारींगा भाशेन वाटकुळें!'

'हा... हा... हा' म्हण हांसून तो निमगतलो : 'हाडलेलें कितें?'

ती म्हणतली : 'रसपाळें केळें! रसपाळें केळें!'

# विश्वविख्यात नांक

आश्चर्यचकित करची व्हड गजाल. बुधवंत आनी ज्ञानवंत हांचे मदे एक नांक व्हड तर्क विषय जालां. विश्वविख्यात नांक.

ते नांकांचो यथार्थ इतिहास हांगा बरयतां.

ताका चोवीस वर्सां पुराय जावचें पिरायेचेर ते नांकांचो इतिहास प्रारभ जाता. तेन्ना पर्यन्त ताका कोणेय ओळखना आशिल्ले. हे चोवीसावे वर्साक कांय विशेषगुण आसा की कितें? एक बरोबर आसा. विश्व इतिहासाचीं पाना परतून पळयल्यार चडान चड महापुरुषांगेले चोवीसावें वर्साक कांय विशेषगुण दिश्ट पडतले. इतिहासाचे विद्यार्थ्यांक हें विशेष करन सांगचें ना मू.

अमचो इतिहास पुरुष एक रांदपी आशिल्लो. स्वयंपाकी सांगचाक योग्य बुधवंतकायो कांय नाशिल्ल्यो. बरप–वाचप कांय कळना. स्वयंपाकघर ताचो लोक. ताचे भायरचे कार्यां पासून निपट लक्ष दिवप ना. कित्याक लक्ष दिवुंक जाय?

बरे रूचान जेवप, सूखान पूड वोडप, निंदप, परतून जाग जावप, रांदप शुरु करप हे ताचे नित्यक्रम. म्हयन्यांचें नांव ताका कळना. वेतन घेवंचाक वेळ जातर आवय येवन वेतन घेवन वतली. पूण जाय जाल्यार ती आवस घेवन दितली. अशें सुखान भोव खोशीन जीवन करचे काळार ताका चोवीस वर्सां पूर्ण जातात. ताका लागून अजापी घडणूक घडता !

वेगळे विशेष गुण कांय ना. नांकाक स्वल्प दिगाय दवरल्या. तोंडय जावन व्होणूव पर्यंत दीग जाल्यां !

तशें तें नांक दिसान दीस दीग जावंक लागलें. निपोवन दवरचाक साध्य जावचीं कायरीं की? एक म्हयन्या भितर नांक बोंबली पर्यंत दीग जालें. पूण कांय पीडा आसा व्हय? तेंवंय ना. श्वासोच्छ्वास कर्येत. पूड ताणयेत. घाण परमळ वेगळो कळता. सांगचे योग्य कांय कश्ट नात.

पूण असलीं नांकां लोकइतिहासाचे पानांत आसयेत – एदें तेदें. पुण तसलें अजापी नांक की हें नांक? हे नांकां निमित्तीं ते गरीब रांदप्याक तागेले धंदा साकून सांगून धाडलो.

कारण कितें?

सांगून धाडल्या वावरा  ाक परतून धंदाक काडुंक जाय अशें म्हण गोंदळ घालचाक कोणय मुखार आयले नात. राजकीय पक्षांनी हे अन्याया मुखार दोळे धांपले.

'क्त्याक ताका सांगून धाडलो?'

मनीशा हितकारक म्हणचे कोणेय हें प्रश्न विचारलें ना. खंय गेले तेन्ना हे बुधवंतय ज्ञानवंतय?

दुर्बल धंदेली गरीब रांदपी!

काम कितें पसावत नष्ट जालें हें कोणेंय ताका सांगून समझावंचें ना. कामाक रावयल्ले घरकारांक मनांक शांति ना, हेंच कारण. नांकदाराक पळवंचाक, नांक पळवंचाक, रात दीस मनीश सागर!!! फोटो काडपी, मुखार देखून उलोवपी, रेडियो सिनेमा, टेलिविजन, समाचार पत्रांचे संपादक, अशें गाजचो मनीश–सागर.

ते घरां साकून जायतीं पदार्थां फारन गेलीं. एक सुंदरी चेडुवाक फारून घेवन वचाकय प्रयत्न जालो.

हे प्रकारी काम नष्ट झालेलो तो रांदपी आपणाले गरीब खोमटांत उपशी पडचे वेळार एक कार्य ताका समझलें. तोवय तागेलें नांकय व्हड ख्याती पावल्या म्हण !

दूरदेशां साकून ताका देखचाक लोक येता. व्हड दीग नांक पळवन विस्मयस्तब्ध रावतात. कांय जाणं आपडून पळयतात. पूण कोणेय.... कोणेय 'तुमी कांय खेल्लें व्हय? इतली थकणी कित्या?' अशें कांय कोणेंय विचारलें ना. एक फांता ओडचाक पूड घेवंचाक ते घरांत एक पैसोय ना. उपाश घालेलें अजाप जनावर तो व्हय? मूर्ख जाल्यारीय मनीश मू तो? ताणें ताचे म्हांतारी आवयक उलो दीवन म्हळें :

'हे शिस्तहीन मनीसांक आंबडून भायर घालन कवडं बंद कर!'

आवयन उपायानी सगटांकय भायर घालन कवड बंद केलें. तो दीस साकून तांकां बरो काळ जालो ! आवयक लांच दीवन कांय जाण पुताचें नांक पळवुंक लागले. जनं मूर्ख न्हय? हे लांचाक बदल कांय नीतीनिष्ट जन बुधवंतय ज्ञानवंतय व्हड आवाज केलो. पूण सरकारान हाचे संबंधी कांय कामकाज केलें ना. आयकलें म्हणूय दाकयलें ना. हे महा अनास्थेक निषेध करन जायते प्रतिवादी सरकाराक विरोध करचे नासधूस करचे पक्षांत मेळ्ळे.

नांकेदाराची येणावळ दिसान दीस वाढत आयली. कितें चड सांगचें! तो मूर्ख रांदपी स वर्सां भितर लखपती जालो.

ताणें तीन फान्ता सिनेमांत अभिनय केलो. 'दी ह्यूमन सबमरीन' नांवाचे विशिष्ट कलाविषयक बहुरंगी सिनेमांत कोटी लेकान लोकाक आकर्षून घेतले! अंतरवाहिनी–मनीश ! स महाकवींनी नांकेदाराची स्तूती करन म्हाकाव्यां रचून उजवाडायलीं. णव म्हा साहित्यकारांनी नाकेदाराचे जीवनाचो इतिहास रचून धन आनी नांव कमायलें.

नाकेदाराचें घर एक अतिथिमंदिरय जालें. कोणाकय थंय केन्नाय आहार आसा. एक वेळे हुंगूक पूडीय.

ते काळाक ताका दोग चिटणीस आशिल्ले. दोग सुंदर विद्यावतीयो. दोगंय नांकेदाराक प्रेम करतात. दोगय नांकेदाराची आराधना करतात. कसलेय मूर्खाकय कसलेय व्हड चोराकय, कसलोय द्वेष करप्याकय प्रेम करचाक सदा सर्वदा सुन्दर चेडुवां आसतलीं मू.

लोक इतिहासाचीं पानां परतून परतून पळयल्यार दोगं सुंदर बायलो एकच समयार एक दादल्याक मोग केल्यार चिलवाण गुस्पण्यो जातल्यो मू. नांकेदाराचे जीवनांतय तशें जालें.

ते दोग सुंदरी चेडुवां गदी, जनंय सग नांकेदाराक मोग करतात. बोंबले फोण्डां मरान दीग संसार भरन विख्यात सुंदर नांक म्हत्वाचें निशाण न्हय की? खरोखर.

लोकांत जावंच्यो घडणुका संबन्धी नांकेदार आपणालो अभिपिराय सांगतलो. समाचार पत्रांचे संपादक तो उजवाडायतले.

एक वराक 10,000 मील वेग आशिल्लें विमान निर्मलां ! ताचे पसावत नांकेदारान सकल बरयले सारकें निवेदन केलां....!'

'अंतरले मनीशाक डाक्टर बुन्दरोस फुरासिवुरासान जीव दिलो. ताचे पासून नांकेदारान सकल दिल्ले प्रकारीं निवेदन केलां...'

लोकांतली चडान चड उंचीचे पर्वत शिखराचेर कांय जाणं चडले म्हण आयकचाक जनानीं विचारलें:

'ताचे पासून नांकेदारान कितें म्हळां?'

नांकेदारान कांय म्हळेंना जाल्यार....आ.... ती घडणूक निरर्थक. अशें भूमण्डल यात्रा, संसाराची उत्पत्ती, रंग दिवप, घडियाळाचे ब्यार, मोहिनी प्रयोग, फोटोग्राफी, आत्मो, प्रकाशघर, कादंबरी रचणाय, मरणोत्तर जीवन पत्रकारिता, शिकार – मात्र न्हय. सगटाचेय पासून नांकेदारान अभिप्राय सांगुक जाय. सांगतलो मू. नांकेदाराक कळनातिल्ले संसारांत कांय आसा व्हय? एक सांग !

हे नियतकालार नांकेदाराक वोडून ताण्डून काडचाक व्हड गुपीत मसलतो जातात. वोडून ताण्डून काडप नवेंच कांय न्हय. वोडून ताण्डून काडचो आसा संसाराचे इतिहासाचो चडान चड भाग.

वोडून ताण्डून काडप म्हळ्यार कितें?

तुमी नापीक भूंयचेर कांय शरश्यो रोयतात. शिंपतात. सारें घालतात. वोय बांदतात. प्रतिक्षेचीं वर्सां जालीं. शरश्यो व्हड जावन तांचेर फळां जालीं. बरे नाल्र्लां पोंडियो लांबतात. त्या वेळार ते मा ा बागां तुमचे साकून बलातकारीं घेवंचाक कोणाकय अति इत्सा आसयेत ! नांकेदाराक वोडून ताण्डून आपणाव्या !

पयलेच नांकेदाराक बलात्कारीं आपणावंचाक सरकारन एक क्रान्तीचो प्रयत्न केलो. तें सरकाराचो एक उपाय आशिल्लो. 'नांकेदारांत प्रमूख' म्हळेली एक पदवी मात्र न्हय, नांकेदाराक सरकारान एक पदकय दिलें.

राष्ट्राचे अध्यक्षान (राष्ट्रपतीन) वज्रांकित तें पदक नांकेदाराचे गोवंटेक घालें. आनी मागीर हस्तांदोलना जागीं राष्ट्रपतीन नांकेदाराचे नांकाचे तलव धरन हालयलें. ह्याचे सग वृत्तांताचें 'रीळ' गांवभरचे सिनिमाघरांत आनी दूरदर्शनांत प्रकटायलें.

ताचे भितर राष्ट्रीय पक्षाचो लोक उत्साहान मुखार आयलो. जनांगेले महान झुझाक समतावादी नांकेदारान मुखेलपण दीवुंक जाय ! समतावादी नांकेदार ! कोणाचो सखा, कित्याचो सखा? म्हाजे देवा ! दुर्बळ नाकेदार.... नांकेदार पक्षांत मेळुंक जाय !

खंयचे पक्षांत?

पक्ष जायते आसात. लक्ष्य क्रान्ती. जनांची क्रान्ती. सग जनांगेले क्रान्ती पक्षांत नांकेदार कशें मेळतलो?

नांकेदारान म्हळें :

'हांवें पक्षांत मेळका कित्याक? म्हाजान साध्य न्हय!'

तशें आसतना चिटणीसांतली एकलेन म्हळें:

माका मोग करता जाल्यार सखा नांकेदारान म्हाजे पक्षांत मेळूंक जाय!

नांकेदार चुप रावलो.

'हांवें खंयचाय पक्षांत मेळुंक जाय की?'

नांकेदारान दुसरीलागीं विचारलें. तिका कायरीं समझलीं. तीणें म्हळें: 'ओ, कसल्याक?'

ताचे भितर एक क्रान्तीकारी पक्षान जयघोष उलो दिलो.

'आमचो पक्ष नांकेदाराचो पक्ष ! नांकेदाराचो पक्ष जनांचो क्रान्ति पक्ष !' हें आयकच्याक दुसरे क्रान्ति पक्षाचे लोकांक कोप आयलो. ताणी नांकेदाराचे चिटणीसांतले एकले करान नांकेदाराक विरोध जावन एक भयानक निवेदन दीवयलें :

'नांकेदारान जनांक फटयलो ! प्रतिगामी मध्यवर्गाचो मनीस तो. इतः पर्यन्त नांकेदार जनांक फटयतालो. हे भयनाक फटवणेंत म्हाकाय मेळयली.

म्हाका मनःताप आसा. हांव जनांक खरें समझायतां. नांकेदाराचें नांक निपट रबराचें नांक आसा !'

हू ! हें निवेदन संसारांतले सग समाचार पत्रांनीय उजवाडायलें. नांक्दाराचें नांक रबरू नांक ! महा मध्यवर्गाचो नांकेदार. चोर. फटवपी. महा प्रतिगामी. ठेठ नांक न्हय !

हें आयकल्यार जनपदा मदें गोंदळ जायनातिल्लें रावचो कशें? लोक खबदळवना कित्या? ठेठ नांक न्हय की? न्हय ! संसाराचे भिन्न भिन्न भागां साकून तार, दूरभाषी समाचार, बरपां ! राष्ट्रपतीक शान्तीन बैसचाक साध्य जायना.

'जनांक फटोवपी रबर नांकेदाराक नाश येवो. रबर नांकेदाराचो चोर प्रतिगामी पक्ष ना जावो ! इन्कलाब जिन्दाबाद !' हें निवेदन नांकेदाराचे प्रतिपक्षान उजवाडावंचाक दूसरो क्रान्तिकारी पक्षान दूसरी सुन्दर चिटणीसा करान निवेदन उजवाडावयलें.

'मोगाचे गांवकरांनो, संसाराचे लोकांनो !', तिणे म्हळेलें सर्वय फटी आसा. तिका समतावादी नांकेदारान प्रेम केलोना. ताची जाळकाय. समतावादी नांकेदाराचें धन आनी ख्यात वोडून ताण्डून काडचाक ती प्रयत्न पावली. तिचे भावांत एकलो दुसरे पक्षांत आसा. चोरांचे ते पक्षाक नागडे करन दाकोवंचाक हांव हे संदर्भाचो उपयोग करतां. हांव सखा नांकेदाराची इमानदार चिटणीस आसा. माका सारकी कळता. सखाचें नांक रबराचें न्हय. म्हाजे हृदया बराबर निपट ठेठ. फटवण ना. मंत्र ना. तंत्र ना. अनुकरण न्हय. ठेठ म्हाजे हृदया सारखे. भरपाईची इत्सा नातिल्लें हें संकटाचे समयार सखा नांकेदाराचे पक्षांत मेळेल्या जनांगेलो क्रान्तिपक्ष जिन्दाबाद ! सखा नांकेदार जिन्दाबाद ! सखा नांकेदाराचो पक्ष जनांचो पुरोगामी क्रान्ति पक्ष! इनकलाब जिन्दाबाद.

कितें करतले? जनांक मनांत एक गोंदळ. ताचे मदें नांकेदाराचे क्रांतीपक्षाचे प्रतिक्रान्ती पक्षाचे लोकांनी सरकाराकय, राष्ट्रपतीकय, प्रधानमंत्रीकय सोवंचाक शुरू केलें.

'मूर्ख सरकारान रबर नांकेदाराक, लोकाक फटयतल्याक 'नासिक मुखेल' नांव दिवन वज्रांकित भांगरा पदक दिलें. जनाक अशें फटयल्यांत राष्ट्रपतीक आनी प्रधानमंत्रीक वांटो आसा मू. हें भयानक कपट प्रबंधांत एक पक्षांतर आसा. राष्ट्रपति आनी प्रधानमंत्री दोगांनीय राजीनामो दीवुंक जाय! मंत्रीमण्डलीन राजीनामो दीवुंक जाय ! रबर नांकेदाराक जीवनाशीं मारूंक जाय !'

हें आकयचाक राष्ट्रपति खवळलो. प्रधानमंत्रीय खवळलो. एक दीस फाल्यार सैन्य आनी रणगाडीयो दुर्बल नांकेदाराचे घरा भोवंतणी आयलीं. नांकेदाराक पोलीसाच्या ताब्यांत काडलो.

मागीर थोडे दिसांक नांकेदारा पासून कांय खबर ना. जनं ताका विसरलें. सग शांत. पूण प्रत्यक्ष हायड्रजन, आटम, नूक्लियर हीं आयलीं. कितें म्हळ्यार जनांनी विसरचाक राष्ट्रपतीचो एक लान जयघोष जालो.

'मार्च णवावे तारीकेक नांकेदार मुखेलाक सार्वजनिक तपास करतले. नांक ठेठ व्हय की? ४८ राज्याचें प्रतिनिधी कुशल डाक्टर नांकेदाराक पळयतले. लोकांतले सर्वय समाचार पत्रांचेय प्रतिनिधी आसतले, रेडियो सिनेमा, टी.वी. सर्वय आसतले. हो तपास सर्वय गावंकारांक 'वृत्तांताचे रीळांत देखचाक साध्य जातलें. जनं शांतपणान रावात.

जन गाढव न्हय की? ठेठ मूर्ख, क्रांतीकारक. तें शांत जालें ना. ते राजधानी शारांत मेळे. खाणावळींत बलात्कारीं प्रवेश जालें. दिसाळ्याचीं कार्यालयां मोडून घालीं. सिनेमा घरांक उजो घालो. सरकाराचीं घरां मोडून उडकायलीं. जातीचो अक्रम जालो. जायते जाण हें नांकेदाराचे झुजांत रगतासाक्षीगार जाले. मंगळ, शांत जालें.

मार्च णव तारीख. वरां इकरा जावंचाक राष्ट्रपती घराचे मुखार एक मनीश-महासागर दिसलो. तेन्ना ध्वनिक्षेपक यंत्र लोकांकडे उलवंचाक लागलें. जनांनी शिस्त पालन करूक जाय. उलवंचाक नज. तपास शुरू जालें.

राष्ट्रपती, मुखेल मंत्री आनी दूसरे जायते मंत्र्याचे मुखार डाक्टर नांकेदाराचे भोंवतणी मेळ्ळे.... जनं सर्वय चिंतातुर ! श्वास धरन रावलां !

एक म्हा डाक्टरान नाकेदाराचें नांकां तलब धांपलें. आनी एक्ल्यान अल्पीन काडून नांकांचे तलवार थोंबली. ते समयार गजब जालें. नाकेदाराचे नांका तलवार एक थेंबो तांबडें रगत फुटलें.

'नाकं रबराचें न्हय ! अनुकरण न्हय ! ठेठ सुरवातीचें.' डाकटरांनी सर्वय मेळन निर्णय केलो.

नांकेदार सायबाचे चिटणीसान ताचे नांकांचे तलवाक दामून चुंबन केलें. 'सखा नांकेदार जिन्दाबाद ! नाकां मुखेल जिन्दाबाद ! नांकेदाराचो पुरोगामी जनां पक्ष जिन्दाबाद ! जनाब नांकेदाराचें नांक ठेठ मूळचें! मूळचें! मूळचें!'

ब्रह्मांड भेतचे गदी आवाज ! मूळचें ! ठेठ मूळचें !

हो आवाज शांत जावंचाक राष्ट्रपती म्हाविद्यावंतान एक नवें कायरें किलें. सखा नांकेदाराक 'मूक्कश्री' पदवी दीवन लोकसभेंत नामनिर्देश केलो !

मूक्कश्री मूक्कन एम्.पी.!

दोन तीन विद्यापीठांनी नांकेदाराक एम.लिट. पदवी दीवन मान्य केलो.
नांकां श्री नांकेदार – मास्टर ऑफ लिटरेचर !
नांकां श्री नांकेदार – डाक्टर ऑफ लिटरेचर !
तरीय मूर्ख गाढव जन. मूर्खांचें शासन सरकार !

तांका श्री नांकेदाराक मेळनातिल्ले सुंदरीचो पक्ष एकमेळीन म्हणूय, बरवनूय, भाषण करनूय भोंवतात. राष्ट्रपतीन राजीनामो दीवुंक जाय, मुखेल मंत्रीन राजीनामो दीवुंक जाय ! मंत्रीमंडळीनय राजीनामो दीवुंक जाय. जनां फसवेगिरी ! नांकेदाराचें नांक रबरा नांक ! मूळचें न्हयींच न्हय.'

क्रान्तीची चलवण पळेयात !

बुधवंत, तत्वज्ञानी –कितें करतले? मनांत गोंदळ जायनातिल्ले रावतलो व्हय?..... घडणूक विश्वविख्यात नांक.

# दीन-दुर्बळांची वेश्या

ते तरूण, सुंदर नर्सीक हांसो आयलो. मोग्या कडें तिणें म्हळें:

'जलूम आनी मरण हांव दिसानदीस पळयतां. पुस्तकांत दिसचें न्हय, दोळ्यां मुखार हांव तांत भाग घेवनूय आसां. 'हांगा आसा आत्मीक विद्यालय' अशें म्हाका आस्पत्रे पासून दिसतालें देखून. काम कर्न भायर आयल्यार हांव तें सगट विसरपाक प्रयत्न करतां. न्हाण जावन निर्मळ वस्त्र न्हेसपाक जाय. पावडर लावपाक जाय. परमळ पुसपाक जाय. रुचीक खाण खावूंक जाय. थोडो समय संतोशान दिवपाक जाय. ह्या वेळार म्हजो भांगरा पूत येवन तत्वगिन्यान सांगपाक लागता!'

'हांव तत्वगिन्यान सांगतां अशें न्हय. लोकांतलें निश्ठूरपण, तिरस्कार, हिंसा – हांचे सगटां खातीर स्वताच्या अणभवांच्या आधारार हांव उलयतां.'

'स्वताचो अणभव?'

'हय.'

'जाल्यार सांग म्हाका. म्हाकाय कळूं दी तो.'

'मदें कांय सांगच्याक नज. कांय आसल्यार अखेर सांगल्यार पुरो.'

'हयकार दिलो!'

'काल सांजवेळा हांव शारच्या पार्कांत बशिल्लों', प्रेमी सांगपाक लागलो. 'इल्लो वेळ उपरांत हांवें पळोवंच्याक, म्हज्या मुखावेल्या बांकार एक तरणाटी महिला एकलीच बसल्या. सगली मेळून एक घुसपल्ली अवस्था. फालें जावन न्हाल्लिना म्हण दिसलें. खाणय कांय खालें ना म्हण दिसता. तोंड बावून आनी ओंठ सुकून करपून आशिल्ले. तिच्या धव्या घागऱ्यार तांबडी रेंव लागिल्ली आसा. ती गोरी. काळें जॅकेट आंगार घालां. मांसाळ शरिरार तें घट्ट बसलां. उबारून आशिल्ले दोन काळे पेल्लां सारके मोमे.

'पार्कांतले दादल्यांचे दोळे तिचेर केन्द्रीकरण कर्न आसात. कांय फकाणांचीं उतरां सांगून कांय जाण हांसतात. कांय जाण आशेभगत दोळ्यांनी

पळयतात. कांय जाण कांयकी उगडास करचे सारके. सगले मेळन, ती अनवळखी न्हय; दीन दुर्बळांची वेश्या आसा ती, अशें म्हणये, तें म्हाका कळना. तिका एक भा ा घेतल्ल्या घरा समान लेकचें बरें आसतलें. देखावाक एक सुंदर खोंपी म्हण सांगये.

तशें हांवें चिंतन केलें. खोंपी, घरां, इमारतींच्यो माळो, रावळारां. संवसारांतले एक एक वेश्ये पसावत हांवें चिंतन केलें. लोकांत सगटय राज्यांत वेश्या आसात मूं... वेश्या–हॉटल आसात, लिंग संबंदी भूक आनी तान शम करचीं हॉटलां. भा ाक घेवंच्यो सुंदर तरणाट्यो बायल मनिशो.

'थंय कोण सगट वतात? स्वता घर आसचोय नासचोय वता. दादल्यांत चडांत चड व्यभिचार करपी हय? जाल्यार ते कित्याक तशे जातात? तांकांय मोग मेळना की? चडांत चड संतुश्ट न्हय? की वेश्या बायलो तांकां थंय आकर्शीत करतात? सत्य सांगू, म्हाका कांय समजाना. हो एकाद्रो आमकां लागचो प्रश्नूय न्हय आसये. तरी चिंतन करतां मात्र. एक बायल–मनीश क्त्या खातीर वेश्या जाता? केन्नाय दुडवां खातीर आसूंक जाय म्हण ना. ताचें कारण, जायत्या तरांच्या कामा धंद्यां सारको होवूय एक काम धंदो म्हण कांय जाणां तें मानून घेतात, मात्र. वेश्या–वेवसाय एक पोरण्यांतलो पोरणो काम धंदो अशें आयकल्लें आसा. जिविताच्यो गरजेच्यो वस्तू प्राप्त करपाक आनी जिवितांत बिरूद आनी मान मर्यादा मेळोवपाकय राज्य जिखपाकय बायलो वेश्या–वेवसाय एका हत्यारा रुपान वापरतात. चडांत चड नटयो, गावपिण्यो, नर्तक्यो आनी राजकुंवऱ्यो – हांचे भितर असो वेश्या वेवसाय चालू आसता.

'हांवे म्हळें ना मू की म्हजे मुखार बांकाचेर बशिल्ले बायल–मनिशेच्या तोंडार संतोश ना. कठीन दूख आसा, एके सुंदर तरणाटेक दुखेस्त पळोवन दुखाचें कारण समजून तिका थंडावन शांत करची म्हूण दादल्यांक दिसतलें. एके म्हातारेन व्हडान. बोब मारल्यारीय चडशे लोक घुंवन पळोवचेना. ती तरणाटी आनी सुंदरी म्हूण जावंये, म्हाका तिचेर काकुळतकाय दिसली. 'तुजें दूख कितें तूं खंयचे गांवची? नांव कितें?'

'हांवे वचून विचारलें ना. दिसा उजवाडे एका वेश्या-चेडवा कडें चर्चा करपाक म्हाका धाडस ना जालें. येवजिनासतना हांव तिका समजावूंक यत्न करचे म्हण आसूं, तिणें खाण जेवण केल्लें ना म्हण सांगल्यार हांव कितें करतलों? तेन्ना म्हजे कडें सुमार पाव रुपया मात्र आशिल्लो. ताच्यान जेवण मेळचें ना. मागीर 'वाटेन वतल्या वागा म्हाका येवन खा गा' म्हळ्ळे सारकें जावूं नये. हांव पार्का सावन भायर आयलों. सांज जावंचो वेळ. वाटेर लोकांची खेट. हांव सार्वजनीक वाचनालया लागीं पावलों. रोडाच्या कोनशार घुंवचे कडेन पावपाक थंय रावल्लो एक काळो, थोर पोलीस रागान म्हणताः

'आबा! ते येवप पळयलां? बदमाश!'

'हांवें तें आयकलें तेन्ना म्हाका खप जालें. म्हाका ताणें अशें म्हळां म्हण म्हाका दिसलें. भयांकृत राग म्हज्या काळजाक हुलपावपाक लागलो. 'ब्लडी बदमाश! तूं कोणाक बदमास म्हणता?' म्हण हांवें विचारपाक चिंतन केलें. पूण पोलीसाचे ते दोळे म्हजे मुखार न्हय आशिल्ले! हांवें वापस घुंवन चोयलें. म्हजे मागशीं ती तरणाटी भा ाची सुंदरी येता.

'रागान उजळ जावन तो चोयता तिका. सोदपाक देखल्ल्या सोंशा सारकी ती तटास रावली. पोलिसाचे काळे सुजल्ल्या तोंडाचे ल्हान दोळे तांबडे जाले. एक ल्हान व्हडल्या ताळ्यान ताणें विचारलें:

'खंय वचपाक भायर सरली गो?'

'तिच्या व्हड दोळ्यांची दिश्टी दया मागच्या रुपान म्हाका दिसलें. तिणें भियेवन म्हळें, 'घराक...'

'हंपडी, तुजें घर!'

तिचे मागशीं येवंच्या दोगां गाडीकारांक तीख दरेन पळोवन पोलिसान विचारलें:

'हांकां सगटांक तूं खंय घेवन वता?'

'हांव खंयच घेवन व्हरना.'

गाडीकारान म्हळें: ‘आमी बाजारां सावन लुगट घेवन येतात.’ प्रमाणाक दोन कागदा पोटल्यो मेकळून धर्वी वस्त्रां ताका दाखयली.

‘कळता रे म्हाका’ म्हण सांगून पोलीस तिचे कडें घुंवलो. ‘आगो, हांवें तुका सांगलें न्हय, अशें भोंवपाक नज म्हण?’ अशें सांगून व्हड बळान ताच्या हातांतलो दांडलो तिचे छातयेर नेटान मोखलो!

रेंव भरल्ल्या साकाचेर रिगचे भाशेन आवाज आयकूंक पडलो.

‘हायो? हे म्हज्या देवा!’ म्हण बोब मार्न ती वाटेर घुंवन पडली. त्याच वेळार वाटेचे विजेचे दिवेय उजवाडले. ही नीत सादर करपशें देडशें लोकांनी पळयल्या. पूण कोणेंय त्या पोलीसकाराक कांय विचारलें ना. एक एकलो आपणाले वाटेक गेलो.

उजवाड एक व्हड वर्तुळाकाराचेर वाटेर पसरून पडला. ताचे मद्दें तीय पडल्या. ती सुसकारून रडत आसा.

पुलीसान म्हका म्हळें, मौज मजा करचे भाशेनः ‘महोदय, ह्या म ांक लागून गोबोर करपाक जाय. ह्या भिरांत्यां खातीर शार भर्न आसा. गंभीर रोग पसारपाक ह्यो हांगा भोंवतात. तांकां मदत करचे हे गाडीकार.’ मागीर गाडीकारां कडें ‘येयात रे सुण्यांनो!’ अशी आज्ञा केली. गाडीकार एकदम भयान कडकडले. ते डाफर मामा न्हय म्हण खालपणान जाणयलें, पूण परिणाम कांय जालो ना. पोलीसकार तांकांय घेवन गेलो.

हांव तिचे कडें वचपाक छाती हालोवंच्या रुपान तिणें हुडक्यांनी रडपाक सुरू केलें.

‘म्हज्या महाशया, हें पळयात!’ म्हण सांगून तिणें जॅकेट वयर केलें. उजव्या मोम्याचे वयर तांब ा तुपा गोडपावाच्या रुपान दाट वयर येवन आसा!

नीतीची कुरू! तें तशें सोंपलें. त्या गरीब गाडीकारांक कितें कुरू मेळपाक आसा काय?

'म्हज्या महाशया,' ती म्हणता, निमाण्या सोमारा ऊर्या फळां बी खावन हांव मरच्याक तयार काडतालीं. मागीर आत्मो सैतानाक दिवूं जाय म्हण लेखलें.

हावें विचारलें: 'आवय बापूय आसा?'

'ना. एक भाव मात्र आसा. मलेरिया रोग लागून हास्पिटलांत पडला. पांच स दीस जाले, ताका पळोवपाक हांव दिसान दीस थंय वतां. दार राखपी म्हाका भितर वचपाक सोडचो ना. दुडू दिवूंक जाय! आयज फान्त्यार हांव इल्लें पेजे निश्शें पिलीं. ह्या यमकाळा निमितीं शान्ततायेन न्हिदपाक कश्ट. अशें तशें कशेंय मेल्यार पुरो म्हण दिसता. काल रातीं त्या पोलिसान थंय एकडें वचपाक जाय म्हण सांगलें.  थंय वचपाक वाटेर वेगळे दोग पोलीस आडावन वेगळ्या एका थळार घेवन गेल्ले.'

हावें कांय म्हळें ना. म्हजे कडें आशिल्लो पाव रुपया तिका दिवन परतून आयलों. त्या दिसा रात मद्रात जावनूय म्हाका न्हीद आयली ना. कारण, तिच्या उजव्या मोम्या वयर तांबा तुपा पोवा सारकें उबारून आशिल्लें दाट खत म्हज्या दोळ्यां मुखार स्पश्ट दिश्टी पडतालें.

'आरेरे गरीब!' ते तरणाटे सुंदर नर्सीन म्हळें: 'चिंतन कर्न पळय. ती चड मोल्लाची सारी, ऊंच खुरांचे बूट, खांद्यार वॅनिटी बॅगय घेवन भोवमानेस्त म्हण चमकली जाल्यार म्हाका दुखोवपाक कोणूय धाडस करतले व्हय?'

# आवय

पयशिल्ल्या कोणा एका शारांत जायत्या तरांच्या कश्टानी दीस सारपी पुताक आवय दुखभरीत मनान बरयतः

'पुता, आमकां तुका चिके पळोवपाक जाय.'

इतलेंच न्हय. चड चड वाक्यां. व्याकरणाचे नेम वा अक्षरांचो आकार हें कांय ना जाल्यारय, आवयच्या मनाचे सगळें दुख्ख स्पश्ट परस्पर मेळून साबार काळ जाले.

आवय दिसान दीस वाट पळयता आसतली म्हण पुताक कळटा. पूण कितें करचें? वचपाक दुडू ना. दिसान दीस उपजीविका चलोवपाकच व्हड संकश्ट. 'कशेंय करून फाल्यां घरा वचपाक भायर सरूंक जाय, वचून आवयक मेळपाक जाय' अशें म्हणून मनाक शांत करप. तातूंत मदें दीस, हफ्ते, म्हयने, म्हयने आनी वर्सां असो काळ मुखार वता.

आवय दिसान दीस पुताची वाट पळयता.

हांवें आतां मेरेन सांगलां तें आनी सांगपाचो आसां तें आवय विशीं आसा. असल्यो घडणुको, भारतांतले एके एके आवय विशींच्यो एका एका पुता लागीं आसतल्यो भारताचे स्वतंत्रतायेच्या संग्रामा विशीं हांव सांगपाचों आसां. उगडास करपाक कठीन विशय. हो विशय आनी आवय हांचे मदेंय कांय व्हड संबंद ना. हांव आवयचो पूत – होच संबंद. म्हजे सारक्या संतानांक जल्म दिल्ल्यो आवयो, मातृभुंयेच्या स्वातंत्र्या खातीर झुजपाच्या अपराधाक लागून हीं संतानां बंदखणींत पाविल्लीं तेन्ना कितें करताल्यो? खंयच्यान तरी आयिल्ल्या विदेशी गोऱ्यांल्या सरकाराचे नोकर आशिल्ल्या भारतियांनीच भारतांतल्या तरणाट्यांक मुठिंनी गुड्डावन हाडां मोडून पूड करून बंदखणींत घाले तेन्ना तांच्या आवयांनी भायल्या लाखांनी घरांनी बसून कितें केलें? उगडास करपाक जायत? म्हाका अदमासूच करपाक जावंचें ना, पूण तरी तेन्ना म्हजे आवयन कितें केलें तें म्हाका बरे भाशेन कळटा.

तें पोरणें पुराण हांव हांगा बरोवंक बसलां ताचे फाटल्यान दुसरो आनीक कांय हेतू ना. हांवें आवयचें पत्र वाचलें तेन्ना पोरणे कांय विचार म्हज्या मनांत आयले. हांव वैकम तलयोलपरंपु थळार सावन शंबर मैल पयस कोलकुट (कालिकट) शारांत मिठाच्या सत्यग्रहाक गेल्लों ती कथा.

मिठाचो सत्याग्रह! उगडास करपाक जातलो?

ताचे आदीं आनीक इल्लेंशें सांगूंक जाय. हांव हें बरयतां एक हजार णवशें आठतीस वर्सांत. हें, वा भारत आयजूय गुलाम देश आसा हें रहस्य न्हय. मोहनदास करमचंद गांधी ह्या मनशाक लागून हांवें पयलेच खेपे मारपेट घेतलो – हें रहस्य हांव हांगा बरोवपाचो आसां... एक मात, आवयन म्हाका जल्मूच दिवंक नाशिल्लो जाल्यार म्हजे संबंदान कांय घुस्पागोंदळ जावंचो नाशिल्लो. म्हाका लागून आवयक कसलें मनोदुख्खूय जावंचें नाशिल्लें. गुलामी, गरिबी तशेच दुसरे कांय भयंकर रोग भरिल्ल्या ह्या अभागी देशांत आवयन म्हाका कित्याक जल्म दिलो? हो प्रस्न भारतांतले एके एके आवयक तिचें एक एकलें भुरगें विचारतलें व्हय? भारत इतलो गरीब देश कसो जालो? हांव एक भारतीय अशें अभिमानान सांगपाक म्हाका जायना. हांव पुरायेन एक गुलाम. गुलाम भारत देशाचो हांव तिरस्कार करतां. पूण भारत भूंय म्हजी आवय न्हय? म्हाका जल्म दिल्ली म्हजी आवय म्हजे पसून आस्त बाळगिता तशी भारत भुंयूय म्हजे पसून आस्त बाळगुचिना? भारत भूंय मेल्ल्या म्हाका, आनी, म्हाका जल्मा घाल्ली म्हजी आवय जिव्या म्हाका.

अदमास !

हांव उगडास करतां.

आवयन म्हाका जल्म दिलो. आपणालें दूद आनी असेंच हेर कांय दिवन म्हाका वाडयलो. तसो म्हाका एक मनीस केलो. खूब तानेवन, उमेद वाडोवन जाल्लें संतान हांव, हो सगळो आवयचो युक्तिवाद! 'तूं तानेवन उमेद वाडोवन जल्मल्लें संतान!' अशें जण एकल्या संतानाक पळोवन जण एकली आवय सांगतली व्हय? म्हज्या काळजांत येवपी विकार हांव हांगा बरोवंक बसूंक ना, मना करपी बेडये सारक्यो पोलीस कोठयो, जेल, फांशी दिवपाचें फळें. उगडास जाता?

कुडींक तशी मनाकय घुसमटावपी पागारांची भयंकर बंदखण आसा भारत! गांधीजीन अशें म्हळां, केन्ना तें कळना. गांधीजींक लागून मार आनी मुठी घेतल्यो ताचो म्हाका बरो उगडास आसा. मारिल्लो एका ब्राह्मणान. नांव वेंकटेश्वर अय्यर. तो वैकम अंग्रेजी हायस्कुलाचो हेडमास्तर आशिल्लो. बेताचे बडयेच्या बळान सात पेट. तें वैकम सत्याग्रहाच्या वेळार. सगळ्या अछूत हिन्दूंक देवळांनी प्रवेश करपाक मान्यताय दिवपाक जाय. सत्याग्रह्यांच्या दोळ्यांत सवर्ण हिन्दू जातिचो लोक हरवो चुनो भरतात. खूब उपद्रव दितात, हें सगळें सोंपोवंक जाय. गांधीजी येतात. उगडास आसा?

वैकम बोट जेट्टी आनी न्हंयचे तडीर लोकांची व्हड खेट. सगळे कडेन गोंदळ. दुसऱ्या विद्यार्थ्यां वांगडा हांवूय खेटून गोंदळून लोकां मुखार पावलों बोटीर गांधीजीक पयस सावनच पळयलो जेटीक बोट लागली. हजारांनी ताळ्यांतल्यान आवाज आयलो – भारतांतले सगले अनिती आड झुजाच्यो घोषणा दिल्ले भाशेन भयंकर आह्वान दिल्ले भाशेन, हजारांनी ताळ्यांतल्यान दर्याच्या गाजपा भाशेन आवाज आयलो – महात्मा गांधी की... जय!

तो अर्द नागडो फकीर. दोन दांत वगडायल्ल्या दांतां भोंवतणचें मांस दाखोवन हांसून हात जोडून न्हंयचे तडीर देंवलो. लोकांचो व्हड बोवाळ. उकत्या मोटरकारांत तो ल्हवू चडून बसलो. लोकांचे खेटींतल्यान कार सत्याग्रह आश्रमांत ल्हवू ल्हवू मुखार सरली. विद्यार्थ्यांतले कांय जाण कारिचे कडेक हुमकळून रावले; तांचे मदें हांवय. ते खेटींत म्हाका एक इत्सा! त्या लोकमान्य महात्म्याक हात लावपाक जाय ! एक आफुडलोना जाल्यार हांव मरून सक्यल पडटलों म्हण म्हाका दिसलें. जमिल्ल्या लाखांनी लोकां मदल्या कोणेंय देखल्यार? म्हाका भंय आनी भिरांत जाली. सगळें विसरून हांव गांधीजींच्या उजव्या खांदाक ल्हवू आफुडलों ! सक्यल पडूंक गेल्लों देखून हाताक धरलो. स्नायूंक बळ ना. गुळगुळसाण. गांधीजी म्हाका चोवन मुमुरख्यांनी हांसले.

त्या दिसा सांजे घरा वचून आवय लागीं हांवें अभिमानान म्हळें:'आवय गे हांवें गांधीजीक हात लायलो.

गांधीजी कोण कितें म्हण जाणविकाय नाशिल्ली म्हजी आवय भियेवन अजापीत जाली. 'हो... म्हज्या पुता!....'आवयन अजापान म्हाका पळयलो.

हांव उगडास करतां.

हेडमास्टर देवालय प्रवेशाच्या सत्याग्रहा आड आशिल्लो. गांधीजीचोय विरोध करतालो. देखून विद्यार्थ्यांत कोणेंय खद्दर न्हेसपाक मनाय आशिल्ली; सत्याग्रह आश्रमांत वचपाकूय मनाय आशिल्ली.

हांव त्या दिसा खद्दर न्हेशिल्लों. आश्रमांतय हांव वतालों. एक खेपे हांव विद्यालयांतल्या वर्गांत भितर सरतालों तेन्ना हेडमास्टरान म्हाका उलो केलो आनी रागान हांसून म्हळें: 'आम्पडा ! ताचो सणा-परबेचो भेस देखलो?'

हांव ओगी रावलों. परतून ताणें विचारलें: 'तुजो बापूय असले कपडे घालतालो?''

हांवें म्हळें, 'ना.'

तेन्नाचीच खबर. एक दीस हांव वर्गांत गेलों. घांट वाजून दोन तीन मिनटां जाले उपरांत हेडमास्टर हातांत बेत घेवन वरांदार उबो आशिल्लो. म्हाका आपोवन विचारलें तेन्ना हांवें म्हळें: 'आश्रमांत गेल्लों.'

'थंय तुगेलो कोण आसा?' विचारीत ताणें मोद्यान स पेट म्हज्या हाता तळव्यार मारले. 'हे मुखार वचूंक फावना, समजलें न्हय?' अशें म्हणीत फाटीर एक बडी घाली.

'आनीक गेल्यार तुका डिसमिस करतलों!'

पूण हांव परतुनूय गेलों. हांव उगडास करतां.

तेन्ना म्हजेलागीं एक खादी शर्ट आनी एक खादी धोतीय आशिल्ली. एक शर्ट आनी एक धोती मात्र. तेन्ना खादी स्वातंत्र्याची आनी विदेशी सरकाराचो विरोध दाखोवपाची एक निशाणी आशिल्ली. विदेशी वस्त्रां न्हेसचोंना म्हण हांवें जबरदस्ती धरिल्ली.

हांव सांगतालों: 'हें भारतांत विणून तयार केल्लें वस्त्र. तशे गांधीजी, जवाहरलाल नेहरू, स्वराज्य, विदेशी प्रभुत्व हे सगळे संवादाचे विशय

आशिल्ले. गांवच्या म्हाता–यांक चीन देशा विशीं वा इंग्लंडा विशीं संशय विचारपाक दोग तरणाटे मात आशिल्ले. एकलो के.आर. नारायणबाब. कठोर यत्न करपी नारायणबाब तेन्नाचो चडश्या दिसाळ्यांचो नेमिल्लो प्रतिनिधी आशिल्लो. कोणेंय क्तियाय खातीर म्हजे कडेन संशय निमगिल्यार 'म्हाका कळना' म्हण हांवे तेन्ना सांगलें ना. पूण एक खेपे म्हाका जाप दिवपाक कठीन जालें.

आवयन विचारलें: 'आरे हो गांधी आमचो उपास सोंपयतलो?'

एक भारी व्हड प्रस्न, सगळ्या भारताक लागपी. ताचे विशीं म्हाका कांय कळना जाल्यारय हांवे म्हळें:

'भारत स्वतंत्र जाल्यार आमचो उपास सोंपतलो!'

क्रिस्तांव वर्स एक हजार णवशें तीस. तेन्नाच जावंक जाय, गांधीजीन तांगेले इकरा विशय मेळोवन घेतिल्लें एक पत्र तेन्नाचो वायसरॉय लॉर्ड इरवीन हांकां सबरमती आश्रमा सावन धाडलें. रेनॉल्ड नांवाचो एक अंग्रेज तरणाटो तें पत्र घेवन गेल्लो अशी याद जाता. पूण समाधानाची जाप मेळ्ळिना. पत्रांत बरयल्ले भाशेन सत्याग्रह संग्राम सुरू जालो. मिठाच्या कायद्याचो विरोध करपाक सत्तर अनुयायां सयत गांधीजी दांडी समुद्र वेळेर वचपाक भायर सरले. भारतांतले कोट्यांनी दळिद्री लोक ज्या मिठाचो रांदपाक उपेग करताले ताचेर भायल्यान हांगा येवन अधिकार स्थापन केल्ल्या ब्रिटीश सरकारान सरकारी कर लागू केल्लो. भारताक हालोवन उडयल्ली गांधीजींची ती दांडी यात्रा. तिचे आदींच तांणी स्पश्टपणान म्हळें:

'एकतर म्हाका जाय आशिल्ली मोख साध्य करून हांव आश्रमांत परतून येतलों. ना जाल्यार म्हजें मडें अरबी समुद्रांत पडून होळून वतना दिश्टी पडटलें.'

गांधीजी मरतले? हिमालया सावन कन्याकुमारी मेरेन आवाज गाजलो. सगळों भारत खुबळ्ळो. ब्रिटीश सरकार आनी भारतांतले नरेश हांणी तांचे पुराय शक्तिचो उपेग करून आयुदां नाशिल्ले हिन्दू, मुसलमान, इसाई, पारसी, सीख ह्या सत्याग्रहिंचो फुडो केलो. सैन्य, पोलीस, जेल, माची – हें जालें राज्य करप. गांधीजीक आनी अनुयायीक दांडी सागराचे वेळेर आसतना बंदी केले.

दुसऱ्या खंयच्याय थळा भाशेन केरळाचेंय वातावरण तेन्ना शांत नाशिल्लें. कोलकुटचे समुद्रावेळेर मिठाच्या कायद्या आड वावुरपी लोकांक एक भारती सुप्रिन्टॅण्डॅटाच्या हुकमान खूब पिडापीड भोगयल्ली. बूट घाल्ल्या पांयांनी फांफार मारप, लाठयो मारप – आनी मारपी कोण? भारतीय पोलीस आनी सैनीक!

केळप्पन, मुहम्मद अब्दुर्रहमान आनी हेरांक बंदी केले. ताका लागून कायदेभंग करप, बंदी करप आनी पुलिसांचे पिडापीड भोगोवप. तांचे मदी कोलकुटचे समुद्रावेळेर विद्यार्थ्यां आड केल्ली कारवाय सामकी निश्ठूर आशिल्ली. निरपराधी विद्यार्थीगण! केरळचे फुडाराचे नागरीक तांकां केरळच्या पोलिसांनी मारून भुंयेर घाले. माथें फुटून रगत व्हांवन ते कोलकुटचे समुद्रावेळेर पडले. शेंक ांनी विद्यार्थी! 'मातृभूमि' दिसाळ्यार एका मुखेल्यान उजवाडायल्ल्या निवेदनांत म्हळें –

'मायभुंयेचें रीण तांकोवपाक कोलकुटचे सागरावेळेर जमिल्ल्या नेणार विद्यार्थ्यांक – निरायूध आनी निरपराधी नाजूक बाल विद्यार्थ्यांक केरळच्याच बायलांनी जल्मा घाल्ल्या पोलिसांनी दया माया नाशिल्ले क्रूरतायेन लाठयांचो मार दिलो, तांच्यो तकल्यो फोडल्यो. आनी ह्या शारांतले मानादीक, धनवंत आनी मुखेल नागरीक म्हणपी सगळे हें पळोवन, आयकून चूप बसल्यात. हें पळेतां तेन्ना, अधिकाऱ्यांच्या हुकमाक दोळे धांपून पाळो दिवपी, शिक्षण नाशिल्ल्या पोलिसांची हांव कित्याक चूक करूं?'

तो काळूच तसो आशिल्लो. तरी साबार लोक ओगी बसले नात. लोक एकठांय येवन रणगीत गावंक लागले. 'येयात येयात भावांनो, कश्ट सोंसून झूज करपाचो वेळ आयला.'

तसो हांवूय गेलों. कोणाक सांगी नासतना शिक्षण सोडून, कोलकुटाक गेलों. त्या दिसा सांजे म्हजी आवय रांदचे कुडींत जेवण तयार करताली. आवयक कांय खबर नाशिल्ली. हांवें आवय कडल्यान निमाणचो उदकाचो ग्लास घेतलो आनी आवयचेर एक नदर घालून भायर सरलों.

कोणूय मागल्यान येता म्हण भियेलों.

बोटी वयल्यान अंचिकमळ (एरनाकुळम) देंवन इडप्पळ्ळीक चलून वचून रेल्वे स्टेशनार पावलों. सांज जाल्ली. गाडी येवपाक चड कळाव जालो. तेन्ना चार पांच पोलीस दिवो घेवन स्टेशनार आयले. हांव भियेवन कडकडलों.

न्हिदपाचो देखावो करून मोन्यांनी आड पडलों. एकल्यान म्हजे कुशीक लाठयेन ल्हवू स्पर्श करून म्हाका हटकिलो. दिवो म्हज्या तोंडा कडेन हाडून विचारलें: 'खंय वता रे तूं?'

कितें सांगचें? कांग्रेसींत भरती जावपाक तिरुवितांकुरां सावन कोलकुटाक वतां म्हण सांगपाक हांव भियेलों. हांवें फट सांगली. 'षोर्णूराक वतां.'

'कित्याक?'

परतून एक फट 'थंय म्हज्या मामाचो चायेचो व्यापार आसा.'

पोलिसान मुखार कांय विचारलें ना. ते एका चोराक सोदूक भोंवताले षोर्णूराची तिकेट घेतली. थंय देवन पट्टांबी मेरेन चमकलों. परतून गाडयेचो प्रवास करून कोलकुटाक पावलों. मुहम्मद अब्दुर्रहमानच्या 'अल अमीन' दिसाळ्याच्या 'अल अमीन' लॉजांत रावलों. म्हजो एक गांवकार सय्यद मुहम्मद बेल्लारी जेलांत आशिल्लो. पयलींच हांवें ताका जेलांत लिपचोरयां एक पत्र धाडिल्लें – म्हजें सर्वस्व भारतमातेच्या पांयां कडेन अर्पण करपाचो निर्णय घेतला. गुलामिची सांखळ तोडपा खातीर म्हजी पुराय शक्त हांव दान दितां. हांव कादयेंत वचपाकूय तयार आसां!

ताका ताणें जाप बरोवन धाडिल्ली. 'म्हाका आनीक थोडेच दीस आसात सुटपाक. परस्पर मेळून उलयले उपरांत कांग्रेसींत वांगडी जाल्यार पुरो.' 'अल अमीन' दिसाळ्याचो पालवी संपादकय त्या काळाच्या मुखेल्यांत भितर एकलो आशिल्लो. ताणें ओट्टप्पालम शारांत ई. मोयदू मौलवी आनी हेरां सयत सुप्रिन्टॅन्डँटाची पिडापीड भोगिल्ली. तो भायर ये सर रावपाचो म्हाका थारा नाशिल्लो. भारत फाल्यां स्वतंत्र जातलो, स्वातंत्र्य सग्रामांत म्हाकाय भाग घेवंक जाय! म्हज्या गांवांतल्या, म्हजे जातींतल्या चड लोकांनी तातूंत भाग घेवंक ना, हें उणेपण म्हाका भरून काडपाक जाय त्या वेळार म्हजो बापूय आयलो. सय्यद मुहम्मदालें पत्र दाखोवन बापायक सांगलें:

'हांव कांग्रेसींत भरती जायना, स्कुलांतय वचना. एक नोकरी मेळोवपाचो प्रयत्न करतां. लागींच मेळटली.' कसोय बापायक समजावन धाडला. उपरांत हांव सरळ कांग्रेसिच्या कार्यालयांत गेलों. थंयूय म्हजी निशेंणी जाली. हांव एक सी.आय.डी. म्हण ते गैर समजले. ताका म्हजी डायरी कारण जाल्ली. तातूंत अंग्रेजी, तमीळ, हिन्दी, अरबी, मलयाळम अशा साबार भासांनी हांवे बरयल्लें आशिल्लें. ती डायरी बांकार दवरून हांव वाटोणे वचपाक गेलों हांव परतून आयलों तेन्ना सेक्रेटरी ती उकती करून वाचतालो ताका तातूंत चड कांय समजलें नासतलें. तरीय ती म्हजे वयल्या दुबावाक कारण जाली. हांवें सय्यद मुहम्मदालें पत्र दाखयलें. मागिरूय दुबाव ना जालो ना. म्हजी दशा आनी दिश्टी सगळ्याचेर ताची नदर आशिल्ली. कार्यलयांत राष्ट्राच्या मुखेल्यांचे फोटे लांबयल्ले आशिल्ले. वांकडें फॅल्ट हॅट, आंगार व्हड कॉलराचो धवो शर्ट, वयल्या ओंटार भरिल्ल्यो पातळ मिशयो. तोंडाची शोक गंभीर दशा. हो फोटो कोणाचो म्हण हांवें निमगिलें. कारण, सायबाल्या भेसांतल्या त्या मुखेल्या कडेन पळोवंक म्हाका तिरस्कार दिसलो. सेक्रेटरीन म्हळें: 'भगत सिंह.' तें आयकून हांव अजापान तटास जालों. वीर पराक्रमी भगत सिंह! तेन्ना ताका गोळार दिल्लो नाशिल्लो. भगत सिंह, राजगुरु, सुखदेव... पंजाबाच्या गुट्टांतल्या त्या तीन क्रांतिकार्यां विशीं हांवें खबरेपत्रांचेर वाचिल्लें. नाणी विधानसभाघराच्या हॉलांत बॉम्ब उडयल्लो, वायसरॉयाची रेलगाडी मोडून घालपाचो यत्न केल्लो तें हांव जाणा आशिल्लों. ते फोटो हांव उकत्या दोळ्यांनी पळेत रावलों. सेक्रेटरीन म्हळें: 'भगतसिंहाच्या तोंडाची सारकाय तुमकां आसा. मिशयो आनी कॉलर तांचेच वरी. एक फॅल्ट हॅटय दवरल्यार तशें दिसतले.'

हांव ओग्गी रावलों. म्हाका भगत सिंहाची सारकाय आसा हे विशीं चिंतून आशिल्लों. तेन्ना सेक्रेटरीन म्हाका परतून विचारलें, 'खऱ्यांनीच तुमी मुसलमान व्हय की?'

हांवें विचारलें: 'तुमकां संशय आसा?' मागीर तेन्ना मेरेनचें म्हजें जीवन चरित्र हांवें सांगून उडयलें. अखेर तांणी विचारलें: 'फाल्यां समुद्राचे वेळेर पीठ करपाक वचपाची तयारी आसा?'

'तयार!' हांवें हयकार दिलो.

तसोच दुसऱ्या दिसा फांतोडेर न्हिदेंतल्यान उठलों. बुडकुलो, झेंडो आनी हेर कांय वस्तू घेवन आमी वचपाक तयार जातले. त्याच वेळार निसणिच्या पांव  ार 'पट पटा' आवाज आयकून तटास जाले. आमी चोयलें, स सात पुलीसकारां सयत इन्सपेक्टर भितर सरलो. ते आमकां इकराय जाणांक बंदी करून घेवन गेले.

तें एका आयतारा सकाळच्या समयार जालें. आमी कोणेंच कांय खाल्लें नाशिल्लें. न्हीद नाशिल्ल्याची थकणीय म्हाका चड आशिल्ली. आमचे मागलान एक व्हड जणावळीय आयली. पोलीस स्टेशन लागीं पावपाक म्हजें धाडस ऊब जावन गेलें. पयलेच खेपे हांव पोलीस स्टेशनांत वतां. खांडें, तांच्या कठीन उजवाडाच्या झोतान आनी स्टेशनांतल्या पुलिसांच्या निश्ठूर तोंडांनी म्हाका भोव भेश्टायलो. म्हाका नरकाचो उगडास आयलो.

आमकां रेगार वरांदार रावयले. गिड्डो माजरा दोळ्यांचो इन्स्पेक्टर भितर गेलो. आमच्या मुखावेल्यान एक दीग रुंद घटमूट पोलीसकार हेवटेन तेवटेन चमकत आशिल्लो. तांबडे व्हड दोळ्यांचे तीख नदरेन तो आमकां एक एकल्याकय पळयतालो. ताचो नंबर २७० आशिल्लो. मुखार राविल्ल्या कॅप्टनाच्या मानेच्या मणक्याक धरून ताणें ताका भितर धुकल्लो. भितरल्यान मुठी, फांपार आनी रडचाचो आवाज आयलो. म्हजें काळीज थरथरलें. हांव चौथो आशिल्लों. धा मिनटां सरलीं. दुसऱ्याकय घेवन गेले.

ताचें हड्डें फोडपा सारकें रडें आयकून हांव थरथरलों. माफी मागची अशें थारायलें एक खिणाक मात्र. पूण अकस्मात म्हाका दिसलें, कित्याक माफी मागची? चूक कांय करूंकना. स्वातंत्र्या खातीर कितले कितले तरणाटे तरणाट्यो मरण पावल्यात. हांवें भगत सिंह आनी ताच्या दोस्तांक स्मरण केलें. मरण पावूं तेंच म्हजें करतूप!

मुखावयलो २७० नंबर पोलीसकार एक एकल्याक तो खंयचो तें विचारतालो. एक एकलो आपल्या गांवाचें नांव सांगतालो.

'कण्णूर', 'तलश्शेरी', 'पोन्नानी'.

ताणें म्हाका विचारलें, 'तुजो?'

हांवें म्हळें: 'वैकम'

'वैकम!' ताणें अजापान म्हाका चोयलें.

तिरुवितांकूरचो!

'नांव?'

हांवें नांव सांगलें. गर्वान. २७० न म्हाका विचारलें, 'तिरुवितांकूराक स्वशासन मेळ्ळें?'

हांवें म्हळें : 'ना राजाच्या राज्यांत संग्राम नाका अशें गांधीजीन म्हळां.' 'ड्हूं!' तो भेश्टावपा सारको गुणगुणलो. क्रूर दिश्टीन लागीं आयलो. म्हज्या दोनूय कानसुलांचेर फट् फट् करून दोन थापटां! आनी मानेचो मणको धरून बागोवन फाटीर मुठी मारूंक लागलो. तांब्याच्या आयदनार मुठी मारपा सारको आवाज गाजलो. सतरा काय सत्तावीस मेरेन हांवें मेजलें. मागीर हांवें मेजलें ना. कित्याक मेजचें?

अखेर दोगां पोलीसकारांचे मजतीन अपंगूळ जाल्ल्या म्हाका भितर व्हेलो. इन्स्पेक्टरान म्हजी अवस्था पळोवन म्हळें: 'ऊं?'

एका पोलीसकारान म्हळें: 'नंप्यार चेनंपान मारलो...'

गंभिरताय कांय ना अशें सांगूंक सोदिल्ले वरी पोलीस इन्स्पेक्टर गुणगुणलो: 'ऊं'

दुसऱ्या एका पोलीसकारान म्हजें शर्ट निसरावन म्हजी उंचाय, थोराय आनी निशाणी सगळें पळोवन घेतलें.

अखेर आमकां इकरांकय पोलीस कोठयेंत घाले. ती शिमीट घाल्ली एक सान कूड आशिल्ली. लोखणी सळयांचें कवाड. माथ्यार खर उजवाडाचो बल्ब. पोलीस कोठयेच्या एका कोनशांत एक कळसो भर मूत. ताच्यो खातसाणी. त्या दिसा आमकां खाण मेळ्ळें ना. रातीं भिरांकूळ थंडी आशिल्ली. न्हिदपाक मांदरी नाशिल्ली. दुसऱ्या दिसां फांल्यार एकएकल्याचें तोंड सुजून फुगून आयिल्लें. आमकां चलपाक लेगीत जायनाशिल्लें. बेडयो घालून आमकां कोलकुटच्या बाजारा वाटेन, बंदूक आनी तलवार धरून पोलीस राखणदार न्यायालयांत घेवन गेले.

चौदा दिसांच्या रिमांडाक कोलकुटच्या सबजेलांत धाडले. थंय आसतना इश्टांनी म्हळें, २७० नंबरच्या पुलिसान म्हजे फाटीर हाता मुठीन मारून अखेर हाता कोंपरांनी मूठ मारली म्हण. तेल लावन एका स्वयंसेवकान मालीश केलें. पूण णव कडेन एक रुपयाच्या नाण्या येद्या आकाराचो कुडको वत लागून काळो जावंचे भाशेन उरला म्हण सांगलें.

म्हाका तीन म्हयन्यांचे कठीन बंदखणेचो दंड मेळ्ळो. ताका लागून म्हाका कण्णूर सेंट्रल जेलांत बदली केलो. टी. प्रकाशम, बाटलीवाला, ई. मोयदू मौलवी आनी हेरां सयत थंय सुमार ७०० राजनितीक बंदी आशिल्ले.

जेलांत खाण भो वायट आशल्लें. पेजांत पिळेल्ले सोये भाशेन किडी पेंवताल्यो. त्यो पेल्यान काडून आमी जेवताले. भायरची खबर नव्या बंदियां कडल्यान आमकां मेळटाली. तेन्ना भगत सिंहाक आनी हेरांक गोळार दिल्ले ही खबर कळटकच आमी तीन दीस उपास केलो. हें म्हजें पयलें उपासाचें व्रत आशिल्लें. तिसऱ्या दिसा उदक पिवंच्या वेळार गळो कुटको जालो शें दिसलें.

भारताचे वेगळे वेगळे कडेन सावन आयिल्ले बंदी थंय आशिल्ले. क्रान्तिकार, चांचाळ घडोवन हाडपी, समाजवादी, साम्यवादी, तशे तरेतरेचे आदर्शवादी व्यक्ती. तांचे सगटांचेंय ध्येय भारताचें स्वातंत्र्य. कांय म्हयन्यां उपरान्त गांधी इरवीन संमतीपत्राक अनुसरून आमकां सगळ्यांक मुक्त केले. भायर आयलों तेन्ना खंय वचचें हो निर्णय घेवपाक म्हाका जालें ना. म्हजे सारके कश्ट भोगिल्ले राष्ट्रसेवक जायते आशिल्ले. चडशा जाणांक रेलपास लेगीत मेळूंक नाशिल्लो.

म्हाका दोन उमेदी आशिल्ल्यो. दुसरी उमेद शॉलाची. देगेर द्राक्षाची वाल आशिल्ली खद्दर शॉल म्हाका मिस्टर अच्चुतन हांणी विकती घेवन दिल्ली. पयली इत्सा – २७० पुलिसाक जिवानशीं मारपाची! पूण म्हजे कडें हत्यार कांय नाशिल्लें. एक रिवॉल्वर मेळ्ळें जाल्यार ! हांवें भारी इत्सा केली. तो पोलीसकार पाळयम थळार ट्राफीक ुटीर रावला हें हांवें पळयलां. तो स फूट उंचायेचो एक राक्षस. हांवें मूठ मारल्यार ताका लागचिना. सुरी काळजाक तोंपूंक जाय. 'अल अमीन' लॉजा सावन एक सुरी हांवें चोरली. ती घेवन वता आसतना मिस्टर अच्चुतनाक मेळ्ळों. तांणी अजाप प्रगटायलें.

'गेलोना?'

'हांवें म्हळें: 'ना.'

तांणी विचारलें: 'घराक वचून आवय बापायक मेळपा नाका?'

हांवें म्हळें: 'ताचे पयलीं म्हाका एक काम करपाचें आसा.' हांवें सगळी खबर सांगली. तो म्हाका मानांचिराक (तळ्यालागीं) घेवन गेलो. भो शांततायेन विचारलें: तुमी सत्याग्रही न्हय? मागीर गांधीचे दांत कशे गेल्ले ती खबर तांणी म्हाका सांगली.

'अशें जिवानाशीं मारचें जाल्यार जिवंत रावपाक योग्य असो एकलो लेगीत पुलीसकारी आयज ना. आयच्या सरकाराचे टाळपाक जायनाशिल्ले एक घटक आसात पोलीस. ते सरकाराचे उपकरण मात आसात. ते भोव दुबळे. तांचेर आरोप करून कितें फळ? शांत जा. घरा वच.'

अच्चुतनबाबानच म्हाका गाडयेर चडोवन धाडलो. अंचीकमळ आयलों. मुस्लीम हॉटेलांत एक म्हयनो रावलों. घरा वचपाक लज. निराशा, दुख्ख आनी आळसाय ! अखेर, एके राती बोटीर चडून हांव वैकम शारांत पावलों. थंय सावन तलयोलपरम्पू गांवांत चलून गेलों. चार पांच मैल वाट आसा. गंभीर काळोख. सोरोप आनी हेर आशिल्ली वाट. श्रुवेलिकुन्नु थळा लागीं एक आंब्या रुखाच्या खांद्यार एक मनीस गळफांस घेवन मेल्लो आशिल्लो. रातिचीं तीन वरां जालीं. हांव घरच्या आंगणात पावपाक 'कोण तो?' असो म्हजे आवयचो आवाज आयलो. हांव वरांदार चडलों. आवयन दिवो जळयलो. जशें कांय घडले ना तशें म्हाका विचारलें:

'तुवें कितें खालें रे पुता?'

हांव चुप रावलों. हांवे सुसकारो सोडलो. लोक सगळो न्हिदला. म्हजी आवय मात न्हीद खळून जागरूक बसल्या. उदक एक टोंटीदार आयदनांत हाडून दवरून, आवयन म्हाका हात पांय धुवूंक सांगलें आनी शिताचें आयदन लागीं दव्रून दिलें.

दुसरें कांय विचारलें ना.

म्हाका अजाप दिसलें. हांव आयज येतलों म्हण आवयक कशें कळ्ळें? आवयन म्हळें: 'ओ... शीत आनी नुस्त्याची कडी करून सद्दां रातची हांव तुजी येवंची वाट पळयत रावतालीं.'

म्हत्व नाशिल्लें एक निवेदन. हांव येवंक नाशिल्ली एक एक रात आवय जागी रावन म्हजी वाट पळेत रावताली.

वर्सां मागिरूय सरलीं. जिवितांत जायत्यो घडणुको घडल्यो.

आवय आयजूय पुताची वाट पळेत बसल्या.

'पुता, आमकां तुका चिके पळोवपाक जाय.'

# हातबेडी

हातबेडी पळयली? म्हण म्हज्या सांगाती कैद्यान हाताक घाल्ली बेडी दाखोवन, दुखेस्त मनान आपणाली दुखभरीत कथा सांगून सोंपयली तेन्ना म्हाका कितें दिसलें? स्पश्टपणान सांगपाक म्हाका कळना. म्हज्या उजव्या हाताक ताका बांदिल्लो. म्हज्या बरोवपाच्या ह्या उजव्या हाताक बेडी आशिल्ली. दुसऱ्या वाळयांत सांगात्याचो दावो हात. ताच्या माथ्यार सोलिल्लो नाल्ल भरिल्लो एक सा. त्या ओज्याक आधार दिवपाचे भाशेन उजवो हात. तो पुराय नागडो नाशिल्लो. पिंजकरें बुरशें घाणयारें खादिचें आंग पुसपाचें लुगट कमराक वेडायल्लें. म्हजे कपडे–खद्दर जुब्बा आनी खद्दर धोती – आदल्या काळाक धवे आशिल्ले. आयज ते पिंजिल्ले. बोंथेरे बुरशे जाल्ले आनी, दुसरे म्हाका वळखतले म्हण लेखून म्हज्या मनांत दूख जागयताले. शेंदेडशें बंदी आसात. अनवळखी शारांतली पोलीस–कोठी. म्हाका व्हडलेशे कोण वळखलेनात. आनी निमाणें तो दीस आयलो. सुटपाचो दीस न्हय. न्यायाधिशान निकाल दिवंचो दीस. णव कांय धा म्हयने थंय बंदखणींत वेळ दिल्लो. तें लेखांत धरचें न्हय. खरी ख्यास्त येवचीच आशिल्ली. तिची ही सावळी. सावळीच उजो जाल्यार उजो कसो आसतलो? मनांत विचार येताले. अदमासान देडशें बंदी. उज्यांत पडून भाजतात जाल्यारय एक फायदो आसा. पोटांत इल्लें तरी पडटा. भायर आशिल्ले जाल्यार? दुस्काळ, झूज. तरी पोलीस–कोठये भायल्या लोकां भितर उपाशीं पडून मरपांत एक मजा आसा. 'कोण रे तो सुणो?' 'तुजी आवयरे', 'उलोवं नाका!', 'आरे, सांगलेंना हांवें, हो रडपाचो जागो न्हय म्हूण?', 'देव तुजो धनी मू?'... पोलिसांचें बंदचा कडेन उलोवप. कितले बंदी! सगले अपराधी. अपराध्यां कडचो वेव्हार. हातूंत क्रूरताय आसा अशें म्हणूं येता? धर्तरे वयल्यो लांखांनी पोलीस कोठयो. गुपीत आनी भौशीक पोलीस. खाण–जेवणाक आनी हेरा कित्याकूच पावना असो पगार. तिरस्कार दिसचो अशें जिवीत. पोलिसांनी मुठी मारून म्हजो पिठो केलो त्या वेळारूय, अश्लील उतरांनी म्हाका न्हाणयल्ल्या वेळारूय म्हाका दिसलें: जाता जाल्यार पोलिसांचो पगार वाडोवंक जाय ! पूण म्हज्यान कितें करूं येतालें? दुस–या बंदियांच्या

मनांत कितें आशिल्लें, हांव नकळं. पोलीस म्हळ्यार खंयच्याय सरकाराक पळोवपाचो हारसो अशें दुसरे येवजिताले आसतले. घडये नासतलेय. तांच्या मनांतलें म्हाका कशें कळचें? हांव कोणाच कडेन उलयनाशिल्लों सुमार देडशें दादले चार पोलीस–कोठयांनी रात दीस मोन्यांनी आसताले. उलोवप ना, हांसप ना – मुमुरख्यांनीय हांसप ना, कांय ना – मोने. ही स्थिती आशिल्ली. देखून म्हज्या उजव्या हाताक बांदिल्ल्या सांगात्याक हांव वळखनाशिल्लों. तो म्हाका वळखतालो जाल्यारूय हांव नेणां आशिल्लों. त्या दिसा हातबेडयो घालून रस्त्या वेल्यान चलत आमकां न्यायालयांत घेवन गेल्ले तेन्ना दीस भर दुसरो एक बंदी म्हज्या हाताक बांदून आशिल्लो. अपराधी म्हणटकूच खुनी, चोर, लुटमारो, पाकीटमार, स्मगलर, दुडवांच्यो नोटी दोन पटिंनी वाडोवपी, खोट्यो नोटी छापपी, राष्ट्र–अपराधी – कोणूय आसूं येतालो. हांव कांय उलयलों ना. फकत नशिबाचें चिंततालों. पूण न्यायालयान निकाल दिल्लो त्या दिसा हांव नशिबाचेंय चिंता नाशिल्लों. घडये म्हाका सारकी जायनाशिल्ली बेडी म्हज्या उजव्या हाताक बळान दांबून घाल्ली, ती म्हजो हात दुखयताली देखून जावंये सांगाती अपराध्याकूय दुखतालें काय, हांवें विचारलें ना. कितेंय जावं, न्यायाधिशान आमचो निकाल दिलो.

दिशिल्लें, चडांत चड म्हयने आसतले. दुसरो अपराधी कितें येवजितालो, हांव नकळं. निकाल आयकलो तेन्ना हांव बेशुद्धध जालों ना. दोन मिनटां खातीर दोळ्यांनी देखपाक आनी कानांनी आयकुपाक कठीन जाल्ले वरी जालें. दुसऱ्या मनशाक कितें दिसलें, खबर ना. घरकान्न आशिल्ली देखून तिचे पासत एकाद्रो उगडास केल्लो जावंये. कितेंय जावं, त्या अपराध्या विशिंचो मना लागपी असो थोडो तपशील त्या दिसा म्हाका कळ्ळो. हें कशें जालें, सांगतां :

सार्वजनिक रस्त्या वयल्यान हातबेडयांची मिरवणूक न्यायालयांत वचपाक मुखार सरता. अठरा हातबेडयो, सतीस बेडयोधारी. चडश्या जाणांच्या माथ्यार ओजीं आसात, पुरावे, प्रमाणां. आपणाली आनी दुसऱ्यांलीं. दुसऱ्यांच्या ओज्याचो एक भाग तरी आमी घेवंक जाय म्हण एक तत्वगिन्यान

आसा मू. कित्याक म्हण म्हाका कळना. तें व्हरपाक म्हाका पोलिसांनी सांगलें ना. सांगिल्लें जाल्यार हांव घेवन व्हरतलों आशिल्लों काय ना म्हुण्णूय म्हाका कळना... मरण जाल्यार मरण, तें आशिल्लें तेन्नाचें तत्वगिन्यान आमी तशे सतीस बेडयो घाल्ले अपराधी एके ओळीन रावल्यात. आमचे लागीं बंदूक आनी तलवार घेवन स पोलिसूय.

'वाटेर खंयय उलोवंक रावल्यार रांडेपुतांचें काळीज मारून मारून उदक करतले!... हूं सरात रे मुखार !' अशें सदां भाशेन पोलिसांनी म्हळें. तेन्नाच एक ल्हान तिरंगी बावटो धिरिश्टान वयर काडून उबोवन, एक सुंदर मोटार गाडी पोलीस ठाण्या मुखार 'झुम्म्' करून येवन उबी रावली. तातुंतल्यान खादी न्हेशिल्ले दोग मानेस्त सकयल देंवले. एकलो थळावो पोलीस इनस्पेक्टर. दुसरो :

'म्हजो फिर्यादी', सहअपराध्यान ल्हवू, सामकें ल्हवू म्हळें. 'एक पोरणो भारतीय राष्ट्रीय कांग्रेसवालो, वळखता?' हांवें म्हळें: 'वळख मेळना.'

त्या पोरण्या कांग्रेसवाल्यान इन्स्पेक्टराक हात दिलो. दोगूय कितें तरी फुत्तफुत्तले आनी 'ऑल रायट ! ऑल रायट !' म्हणत तो कांग्रेसवालो ते सुंदर मोटारींत बसलो. 'गर्रर्रऽ' आवाज करीत झेंडो उबयत गाडी गेली.

'हूं. चलपाक लागात रे!' अशें सदां भाशेन पोलिसांनी म्हळें. हातबेडयांची मिरवणूक मुखार सरली. भर वोतांतल्यान भर बोवाळाच्या रस्त्या वयल्यान. आंवळून घाल्ले बेडयेचे दुखिची कठीन थंडीय मज्जातंतूंतल्यान म्हज्या मेंदूंत पावली. सांगाती अपराध्याच्याय मेंदूंत ती पावली काय?

ताणें विचारलें : 'म्हाका वळखता?'

हांवें म्हळें: 'ना.'

ताणें म्हळें : 'हांव हांगाचे टाउन कांग्रेसिचो...'

'कांग्रेस?'

'सेक्रेटरी.'

'केस?'

'घर फोडप!'

बरें न्हय?! टाउन कांग्रेसिचो सेक्रेटरी. आनी घर फोडप! अजाप दिसलें. तरीय हांव ओगी रावलों.

ताणें म्हाका विचारलें: तुजी केस देशद्रोहाची न्हय?'

'हय.'

'काणी कांय नाटक?'

'दोनूय. हांव दोनूय.'

ताणें म्हळें: 'तुका हांगा हाडिल्लो तेन्नाच हांव समजल्लों.'

'दुसरे पोलीस कोठयेंत कितले म्हयने आशिल्लो?', ताणें विचारलें. हांवें म्हळें: 'दोन.'

'थंय आसतना तुका मार पडिल्लो?'

'इल्लोसो.'

'म्हाका तीन खेपो मारून चेंचायलो सामको.'

'कोणाचें घर...?'

'गाडयेंतल्यान इन्स्पेक्टराक देंवोवन गेल्ल्या...'

'कोण रांडेपूत रे तो उलयता?' एका पोलिसान बेश्टोच धेंकणो घाल्लो. बेडयो घाल्ले ओगी पडले. मिरवणूक तशीच मुखार सरली. वेळ चड जाल्लो. सांगात्यान हातबेडी हालयली. दुखीन हांव जागरूक जालों. ल्हवू ताणें म्हळें: 'त्या पोरण्या कांग्रेसवाल्याच्यो मिली आसात – रायस मील आनी ऑयल मील.'

'नांव?'

ताणें नांव सांगलें: '........' हांव ताका वळखलों.

'आयकलां. गांधीजी हांगा आयिल्ले तेन्ना दोन दीस तांचे सोयरे आशिल्ले.'

'हय. महात्मा गांधी बशिल्ले थंय एक स्मारक उबारलां. मारबल फातराची एक माची. माळये वयले कुडींत. मर्दी 'महात्मा गांधी हांगा बशिल्ले' अशें भांगरा लिपयेंत बरोवन दवरलां.' ताणें मुखार म्हळें, 'तुका ह्या लॉक–अपांत हाडचे णव दीस आदीं म्हाका हांगाच्या इन्स्पेक्टरान बंदी करून

हाडलो. हांव न्हावपाक वतालों. सांजेचो वेळ. घरकान्न म्हाका न्हावपाक उदक तापयताली.'

'हूं..'

'म्हजी घरकान्न म्हाका न्हेसपा खातीर वस्त्रां घेवन पोलीस ठाण्यार धा वीस खेपो आयली. दिवपाक इन्स्पेक्टरान परवानगी दिली ना.'

'अशें?'

ताणें खंती मनान आपणाली खबर सांगली:

'हांव एक व्हडेंकार म्हूण जल्मल्लों. म्हजे लागीं दुडू डिग्री ना. इकरा वर्सांचें कांग्रेसिचें दायज. हांवें जायतीं फळादीक भाशणां दिल्लीं.'

'नांव?'

'----'

'!!!!!'

'आयकलां?'

'हय.'

'सात खेपो कादयेंत गेलां. म्हजो जागो विकून दुडू कामगारां खातीर खर्चल्लो.'

'कामगारांक?'

'हय कांग्रेसिच्या झें  ा खाला कामगारांक संघटीत केले... आयकता न्हय?'

'हय, आयकतां...'

'काळखांत म्हाका हाडून पोलीस कोठयेंत घालो. सुरवेक म्हजेर जबरदस्ती जाली तेन्ना सुमार एक हजार बायलां आनी दादले हातांत तिरंगो आनी पेट्रोमाक्स दिवे घेवन पोलीस स्टेशना मुखार एकठांय जाल्ले.'

'कित्याक?'

'म्हाका सोडचो म्हूण तांणी बोवाळ केलो सत्याग्रह केलो. पूण रिजर्व पोलिसांनी तांकां मार घालो.'

'मागीर?'

'पोलीस कमिशनर धरून वयर आशिल्ल्यांक सगळ्यांक तार धाडली..'

'घर लुटपाचें कितें?'

'तें सरकारान केल्लें. हांवें कोणाचेंच घर लुटूंक ना. सांगलें ना तुका, रायस मील... ऑयल मील... सुमार तिनशें कामगार... चड बायलां. सगळ्यांक हांवें पवित्र खद्दर न्हेसयलें. तिरंग्या झें । खाला...'

'हूं..'

'झुजा आदीं कामगारांक मजुरी तांदळा रुपान दिताले. तेन्ना तांदळाक चड मोल नाशिल्लें. झूज सुरू जालें आनी भाताचें मोल वाडलें. तांणी तांदूळ सांठावन दवरलो आनी कामगारांक पोरणीच मजुरी दुडवा रुपान दिवंक लागले...'

आमी न्यायालयांत पावले. तो आपणालो विशय विसरलो ना. न्यायालयाच्या कामांत आमी घुस्पून उरले. आमच्यो बेडयो काडल्यो. आमकां पोलीस शिमे वयले कोठयेंत व्हरून घाले. केशीं प्रमाणें मॅजिस्ट्रेटा मुखार हाजीर केले. एक दोन तीन चार केशिंची तपासणी केली. चडश्यो केशी स्थगीत करून मुखार धुकल्ल्यो. आमचे केशिचो निकाल दिल्लो. सांज लागीं पावली तशो कादयेच्या स्पश्ट उगडासान हातबेडयो घालून आमकां पोलीस कोठयेंत परतून हाडले. आमकां पुरो जाल्लें. दुख्ख सगळ्यांक आसा. सांगात्यान दुख्खान म्हळें:

'न्यायाधिशान दिल्लो निकाल आयकून म्हजी घरकान्न बेशुद्ध जावन न्यायालयांत खाला पडली!'

'म्हाका कोण ना, देखून म्हजी मजा.'

ताणें विचारलें: 'कितले म्हयने?'

हांवे म्हळें, 'दोन वर्सांची खर बंदखणिची ख्यास्त आनी एक हजार रुपयांचो दंड लायलो. दंड भरिना जाल्यार आनीक स म्हयन्यांची खर ख्यास्त.'

म्हाका एक हजार रुपया दंड लायिल्लो तातूंत गंभीरताय दिसली. दुडू ना जाल्यार कितें? रीण आसचें एक योग्यताय आसा. जाल्यारय –

दोन वर्सांचे खर बंदखणिचे ख्यास्तीक आनी एक हजार रुपया दंड लावपाक हांवें कितें केलें? हांवें कोणाक जिवानशीं मारिल्लो व्हय? कोणाक दुख्ख दिल्लें व्हय? अडेच वर्सांक रात कितें म्हण कळचें ना. एक नखेत्र काय व्हड विशय न्हय. तरी... शेऽ .. म्हाका सगल्या सगालो त्रास दिसलो. घळघळीत रडपाची इत्सा जाली. पूण दुकांचे थेंबे खंय? हात बेडी! हात बेडी... चिंतनांक लेगीत बेडी! फुडार कोटी कोटी लोकांचो फुडार... सगल्यांक हातबेडी. म्हजीं चिंतनां वयर सकयल जातालीं. सांगात्यान म्हळें: 'सांगात्या, म्हजें लग्न जावन देड म्हयनो लेगीत जावंक ना. ताचे आदीं...'

'?'

'उमळशीक पुरायेन हांव एक...'

हांव चूप रावलों. म्हाका कसली उमळशीक?

ताणें विचारलें : 'तुका घरकान्न आसा?'

'कोण्ण ना.'

'असो पयलेच खेपे तूं कादयेंत वता?'

हांवें म्हळें: 'हाचे आदीं दोन तीन खेपो गेलां.'

बशिल्ल्या ताळ्यान ताणें म्हळें: 'सांगात्या... म्हजी घरकान्न... ती... आनी चलतां चलतां तो रडलो. सुसकारून न्हय. मोन्यांनी. आमी तशेच मुखार सरले. लायटिचे दिवे स्पश्ट जाले. दुकांचे थेंब पुसपाक ताणें हात उबारलो. म्हज्या हातान ते पुसले.

'माफ करचें!' ताणें म्हळें. हांव कांय उलयलों ना. हातबेडयांची मिरवणूक पोलीस स्टेशना सरीं पावली. ताणें म्हळें, 'एकाद्री हिंसा जावंये!'

'इन्स्पेक्टर आतां पवित्र खादी न्हेसला!' तो मुखार म्हणूंक लागलो: 'आनी सगळे खादी न्हेसतले. सगळें परतें सुरू जातलेंय बी. एकाद्रें, म्हजेंच चुकलें जावंये सगलीच चूक.. आमी तांचे इमारती मुखार सत्याग्रह केलो. सगळ्यांक...' अशें म्हणून ताणें दावो हात वयर उबारलो. आनी भरिल्ल्या दोळ्यांनी लोकांक पळेत ताणें विचारलें,

'हातबेडी पळयली न्हय?'

# आयषुकुट्टी

आयषुकुट्टी, बाळंत जावपाची दुखी तिजान सहन करपाक जायना. दोतोराक आपोवन हाडून नाशिल्लें ती बाळंत जावंचना – अशें तिणे हट धरलो. दुखीची कल्पना करन ती व्हडान बोब घालूं लागली.

'म्हजे मोगाचे घोवा ! दोतोराक आपोवन घेवन यो !'

'धूवे', वैजीणीन, सुके तणाचे गुडें भाशेन उबारन व्हड जाल्लें पोट सांसपून तिका समजायली. 'चिके फाट परतून पडून प्रयास कर. .... आतांच आता भायर यतलें!'

'ना!' आयषुकुट्टीन तीख नदरेन पळोवन खरशेत घोशणा केली: 'हांव मरण पावों!'

तें भो व्हडान जालें.... उदेंत दिकार वारांदाचेर एकठांय जालेल्यो बायलोय अस्तंत दिकार आंगणांत आनी हेर कडे जमा जाल्लेले दादलेय– हांकां आयकू पडचे आवाजार, दोतोराक आपोवन हाडलो ना जाल्यार खरोच आयषुकुट्टी मरतली म्हळेलें भिरांकूळ खबर लोकांचे ध्यानांत हाडलें. ती मेल्ली जाल्यार ताचे मुख्य जवाबदार, तिचो घोव आनी सासूमांय आसतलीं ! कशेंय करून तीं वचून दोतोराक हाडतलीं उण्यांत उणे साठ वा शें रुपया खर्चतलो ! दोतोर आयलो ना जाल्यारूय आयषुकुट्टी बाळंत जातली. पूण दोतोरान येवंचें एक पदवी न्हंय? शेजारचे धनवंतांगेले घरांकडे मोटोर गाडीयेर दोतोराक हाडतात न्हय? आयषुकुट्टीचे घोवाक दाम–दुडू ना जाल्यारीय – साठ वा शें रुपया खयंच सावन करो. कोणाचेय कडे सावन उशणें घेवयेत मू. ना जाल्यार कांय तरी विकून साठ रुपया करो. ते दिसांकडे घोवाचे भावाची घरकान्न आस्याम्मा बाळंत जावपा वेळार दोतोराक आपोवन हाळ्ळो कशें? तशें कांय विकून दुडू करो. आस्याम्मा खातीर तिचो घोव कितें सगटय करता ! आस्याम्मा तर जातींत स्वल्प सकयलची आसा. आस्याम्माचो बापूयचे आजीचो घोव जाती 'बाटलो' आशिल्लो. तसलो उणाव कांय आयषुकुट्टीक ना. बायलो एकठांय जावंचे वेळार व्हड पदवीर आयषुकुट्टीकय सांगचें न्हय?

'ओ, हांव बाळंत जावंचे वेळारीय दोतोराक हाळ्ळो ! मेजून शें रुपया दिल्लो ! घरा दारार आयली मोटर कार. ताकाय दिल्ले, धा रुपया ! पूण म्हजे चेडुवा.... दोतोरा कडे आसा, छाती तपासपाची एक नळी... ती दवरन पळयल्यार, म्हजे आवयचो सोपूत घेवन सागंतां, पोटांत पडून चेरडूं हासता दिश्टी पडता !'

अशें आस्याम्मा केन्नाय सांगतली गांवच्यो सगळ्यो बायलो तेंच परतून तोखणाय करन सांगतात. तें आयकतर आयषुकुट्टीक राग येतलो. तशेंच दोतोराक हाडुंक जाय, ही आशा पयले बाळांतेरा वेळार आशिल्ली. पूण ती तें विसरली ! पूण आतां फावट तशें चूक जावूं ना. जाल्यारूय वैजीण ताचें आडा आसा, दोतोराक आपोवन हाडची गरज ना म्हण तिणे सुर्वेकच सांगलें. हावभाव देखल्यार कळना? शेंबर वायलाचे 'चेरडुवांक घेतल्ली' न्हंय ती? जाल्यारीय आयषुकुट्टीक रागूय दुखय आसा. आस्याम्मा परस खालाची आयषुकुट्टी आसा? तें सांग !

'देवानो?' ती दांत चिड्डून गाजली. 'दोतोराक हाड!'

आयषुकुट्टीचे सासूमांयेन ते काळोखा कूडांत भितर सरन नम्रतायेन मागलें : 'आयषुकुट्टी, धूवे, तूं अशें सांगू न्हयें. ताजे कडे दुडू ना. तूं म्हजे भांगराची न्हय? तूं तशी बाळंत जा !'

'म्हजे भांगरा मांयें !' आयषुकुट्टी रडूंक लागली. 'देवा आठोवन दोतोराक हाड !'

'म्हजे रब्बे, कितें वाट?' सासूमांयेन चिंतन केली.

हू हू म्हण हुनसाण दिसोवन आयषुकुट्टी पागराक तेंकून बसली. वैजिणीन दीव्याची जळची वात नीट करन सांगलें. 'धूवे, तू सकयल पड आनी बाळंत जा!'

आयषुकुट्टीन कठीन रागान वैजिणीक दोळे वाटारून पळयलें. आनी दुखान बोब घाली. सासूमांयन परत परत मागणें केलें. आयषुकुट्टीन स्पश्ट सांगलें : 'मांयेंक कळना हाची पिडा ! रब्बे, दोतोराक हाड!'

मांयेंक अजाप जालें. ती णव फांतां बाळंत जाल्या, दोतोराक हाडू नाशिल्लें. जाल्यारूय आयषुकुट्टी..... ती कांय उलय नाशिल्लें भायर गेली.

नवे बायलांचे हटा खातीर तिका बरे रूपान कळता. स्वता अणभव जायते नात की? कुसकुटाचे विशयां खातीर दादल्यांक कश्ट दिवपय तांकां भारी दुख भोगपाक सोडून दिवपय बायलांक सुन्दर दिसचो तांचो सभावगूण आसा मू. 'जाल्यारूय म्हजे खातीर तें केलें' अशें एक बडाय मात्र तांत आसा. पूण बायलो बडायेच्यो अवतार न्हय? तांणी वाजचे ताळा अनुसरून नाचचे भुरग्यांलें खेळणे मात्र न्हय दादले? हें सगट सासूमांयक कळता जाल्यारीय आयषुकुट्टीचें बाळंतपण – होच हांगाचो चिंतन करपाचो विशय. दोतोराक आपोवन हाळ्ळो ना – हे एक कारण पासत आयषुकुट्टी भायर पडली जाल्यार? मागीर बाकी थांगा आशिल्यानी जिवंत आसून कितें फायदो? व्हड अपमान. पूण दोतोराक हाडपाक दुडू जाय न्हय? हसन कुञा कडे, दुडू कांय ना. फालें साकूत काळोख जावूं पर्यन्त वीडी केल्यार हसन कुञाक मेळचे दुडूवानी ते कुटुंबाक जीवन करपाक कश्ट आसात. जाल्यारूय तिणे वचून पुताक म्हळें. हसन कुञ तें आयकून दुखेस्त बसलो. लग्न करचें नाका आशिल्लें मू म्हण ताका दिसलें. पूण कितें करतलो? साठ रुपया कोणाकडे सावन मागून घेतलो? शेंबर रुपयाच जाय म्हण जावयेत. धनियाकडे गेल्यार ताणे दाम दिवंचना. घर आनी घर आशिल्लो जागो घाण बरवन दिल्यार एकाद्रें मेळयेत. ताची गरज आसा? काम करन रीण दीवन पावपाक जावंचना. व्याज चड चड जावन अखेर घर आनी घराचो जागो धनियालो जातलो. हसन कुञ दुखी जालो. ताणे बाळंतपणाचें कूडाचे जनेल उकतावन तोंड दाकयलें.

'म्हजे मोगाचे घोवा, हांव मरन वतलीं' हसन कुञाक चोवन आयषुकुट्टी रव्ळी. 'दोतोराक हाड!'

'तूं चड पडून नाच नाका.... आयकलें, आयषुकुट्टी? मुठी मारन हांव तुजे हाड पिट्टो करतलों ! तू मर.... म्हाका तणा समाना.... हांव दुसरी एक लेक लग्नं करतलों !' अशें हसन कुञान सांगलें ना. ताणे नमळकायेन म्हळें : 'म्हजे भागंरा, आमकां लागीचे फावट दोतोराक हाडूं !'

'लागीचे फांतां ! तें बरें आसा !'

पुरो न्हय. 'आतांच, आतांच हाडुंक जाय !' 'चंदा मामांक धरन दिवुंक जाय' म्हण हट करचे ल्हान भुरग्या भाशेन आयषुकुट्टीन हट धरलें. कित्याकतर

तिका तिगेले आवय–बापूयन व्हड अपुरबायेन वाडयल्या. तें लग्नच जाल्यां हसन कुञ आनी आयषुकुट्टी – हांचे बापूयंचे दोस्तीक लागून. आयषुकुट्टीची आवय पयलींच ताचे आड आशिल्ली – कांय कितेंय जाल्यार विवाह – संबंद तोडपाक, आयषुकुट्टीची आवय हसन कुञाकडे सांगतली. 'ओ... तें एंचंय आतांच तोडतां' म्हण हसन कुञान सांगचना. आयषुकुट्टीचे कुटुंबाक हसन कुञा परस धनाचे बळ चड आसा. थंय सावन मेळ्ळेले वरदक्षिणेचो दुडू बेजवाबदार खर्चून बगडायलो. जाल्यारय आयषुकुट्टी हसन कुञाक व्हड प्रेम करता. 'मोगाच्या' म्हण ताका उलोदितली. ती मेल्ली जाल्यार? हसन कुञ हुमेलो.

'मोगाळे, आयषुकुट्टी, म्हजे भांगराचे, दुखेस्त जावूं नाका !' अशें सांत्वन दिवन हसन कुञ गेलो.

आयषुकुट्टी परत परत दोतोराक हाडपाक बोबाळ घालत रावली. बाळंत जावचें देखपाक आयल्यो बायलो एकमेकाक पळोवन रावल्यो. 'ती बायलमनीश मेल्यारीय ताणी दोतोराक हाडचना !'

तें आयकून आयषुकुट्टीची आवय तूफान वेगार भितर आयली. 'धूवे! आयषुकुट्टी!'

'म्हजे आवयगे, हांव मरतलीं–दोतोराक हाड!' ते गांवचे लोकांक सर्वांकय आयकू पडचे आवाजान आयषुकुट्टीचे आवयन म्हळें :

'धूवे मंगळसूत्र (wedlock) काडून विकून जाल्यारीय दोतोराक आवय हाडतली. म्हजी धूव नुलयत पड ! आमी तशें दाम–दुडू नाशिल्लीं कांय न्हय.' असलीं कांटया सारकी अडचणीचीं दोन तीन उतरां सागूंन ती भायर देवली. हसन कुञाचे मुखार वचून उबी रावून बोबाळ घाली : 'म्हजे धूवेक सोडचीट दी. तिका अशें कश्ट दिवपाक कोणे सांगलें तुका?'

'मांये, मनीश आयकतले. ती वैजीण सांगता दोतोर नाका म्हण.'

ती म्हजे धूवेची गजाल थारावपी कोण? तुजान जावंचना जाल्यार तें सांग. तूवें तिजी सोडचीट दिल्यार पुरो. मोगान तिका लग्न करपाक दादले दुसरे आसात. आमी खंयीय सावन बाटून आयल्लीं न्हय!'

तें दुसरे सगळ्यांचेय भाशेन आस्याम्मानय आयकलें 'बाटून आयल्ली' ....... तिका उद्देश दवरून म्हळें जाल्यारीय तशें तिणे लेखलें ना. राती ताचें एकाक धा करन, शें मिरियो घालन घोवा लागी म्हणूं अशें तिणे चिंतन केली. 'बाटून आयल्ली'! हें तिजे जीवनाचे सदांच उरपी एक कलंक आसा. तिचे मनांत गंभीर राग आशिल्लो. पूण कांय भायर दाखयलो ना. तोंडार हास येवन आशिल्लो.

ते हासा लागून, हसन कुञ दोतोराक आपोवन हाडपाक गेला – ही खबर तिणे आयकली. ती एक मुखेल खबर आशिल्ली. तें सगळ्यांक कळ्ळे. बायलानी अजापान तांचे मदें म्हळें : 'हसन कुञ दोतोराक हाडपाक गेला!'

ती खबर बाळांतीणीचे कूडांतय पावली. वचून सांगली आस्याम्मान. मनांक व्हड संतोस जालो. जाल्यारय आयषुकुट्टीन तें भायर दाखयले ना.

'तुजे खातीर हाडल्लो भाशेन व्हडवीकाय दाखोवपाक न्हय.... हें!' अशें दिसचें सारके आयषुकुट्टी आस्याम्माक चोयली. एक बायलमनीशीचें रहस्य दुसर्‍या एक बायलमनीशीकय कळता म्हणचें रहस्य तांणी एकमेकाक कळवंचना. आस्याम्मा गेल्ले उपरांत आयषुकुट्टी संतोसाचे दुकांचे थेंब्यांतल्यान हासली. पूण एक व्हड हुसको तिजे मनात आशिल्लो. दोतोरान येवन पावंचे फूडे ती बाळंत जाली तर? वेळ पावल्यार कितलीय आडखळ घाल्यारीय बाळंत जायनाशिल्लें राबतली व्हय? तिका भय जालें. ती पुराय हुमेली. पोटांत कितेंकी पडून घुसपा गोंदळ करता सी तिका दिसलें .

'भक्तीन भेट दिवपी लोकानों ! फटवण करचें न्हय!' तिणे आपाप संतांकडे मागलें. मरण पावल्ने संत सर्वय तिचे बाळंतपणांत जोखून काम करपा खातीर एक एकल्यांचय नांव म्हळें. 'म्हजे मोयदीने ! म्हजे देवानों ! म्हजे सर्गाचे धनिया!' अखेर, म्हजे अळ्ळाहो! हांव नाहूर मशीदांत एक भांगराचे चलीये चेरडाक आंगवण दीन!'

आतां आयषुकुट्टीक समजिकाय मेळ्ळी कि पोटांतलें चेरडूं चलो म्हण ! चलीये चेरडूं आशिल्लें तर एक कोनस्यात चुप्प पडता आशिल्लें, हें तशें न्हंय. शिंकयाक धरन भुरगीं हुमकळचे भाशेन आयषुकुट्टीचे काळीजाक धरन लांबून तो हुमकळता... चाबून धरलां. हात ताणे मागशीं बांदल्यात...आतां

तो पोटांत माथें सकयल पाय ऊंच करन तोल सांबाळून रावला ! आनीक उठून आयषुकुट्टीचें हड्डें काडून फुटबॉल खेळता ! तिका गंभीर पिडा. उज्या उदक ऊंच चडचे भाशेन माथें धुवंरपाक लागलें. हरवी मिरसांग वाटून सारयल्या भाशेन हुलपय मिरमिरपय.... तिका दोळ्यानी देखपाक कठीन जालें. ती बेशुध्द जावूं वता ! जाल्यारय ती बळ सर्वय घेवन संतोशान घुरघुरीत करन दूद दिवपी गायचे सारके तशें पडली. मिनिटां जावन वरां सोंपली..... काळीज धड धडता आशिल्लें... माथ्यां भितर शिजतालें.... ती मरन वतली म्हण तिणे पुराय समजून घेतलें... तेन्ना एक व्हड आवाज! तो ल्हवू ल्हवू लागी लागी आयलो. घराचे दारार येवन 'डूम' करन थामलो. 'दोतोर!' म्हण जायते आवाज आयकू पडले. ताका लागून आयषुकुट्टी सदळ जाली ! चेरडाचें माथें भायरय आयलें. दोतोर आपणाले अनुगामी सयत 'किर' 'किर' आवाज करन बाळंतीले कूडांत भितर सरलो. आयषुकुट्टीचे शरीराचेर बागोवन तिका एक आफडलो. अपार आनंदान आयषुकुट्टी पुराय बाळंत जाली.

संवसारांत पयले पावट आयल्या त्या आत्म्याक अशें अदीक वेळ कळाव केल्ल्याचे निशेधाची सुचोवणी भाशेन ताणे व्हडान किंचून बोब घाली. तो पळ्ळेल कडे सावन उठावन आयषुकुट्टीक मारतलो म्हण भय जालें. जाल्यारय दोतोरान येवन ती बाळंत जाल्या म्हण तिका समाधान आशिल्ली.

अशें आयषुकुट्टी दोतोराक आपोवन हाडून मान राखून बाळंत जाली– ही कथा वैजिणीन तिचे घोवाक सांगली आनी ती कथा ताणे चायेचे दुकानांत चाय पितल्यांकय तशें सगळे गावांतय ताचो प्रचार जालो. तांतय आडांगी चेडे वाट सगळी भोवन, आयषुकुट्टीचें आवाजाचें अनुकरण करन, ताणून ओडून लांब वा रूंद करून 'दोतोराक हाड' म्हण उलो दीवन भोवंचांतय आयषुकुट्टीक अपमान ना. मनां भितर आसा जाल्यारय भायर दाखवप ना. कोणेय तें सुचयल्यार, अभिमान सयत हासून आयषुकुट्टी स्पश्टपणान सांगतली :

'ओ... जाल्यारय हांवें बाळंत जावंचे तेन्नाय दोतोराक हाळ्ळो मू!'

# मूर्ख मनीसांचो सर्ग

ती कित्याक तशें तीरव नदरेन पळयता; काळीज कोरांतून घेवंचे सारके ? ओ ! आळसायेन पुस्तकाचे पानार परतून ताणे पळयलें. इल्ले उपरांत मैदानाचे भोवंतणी दिश्टी भोवंडायली. मळबाधार मेरेन कांय ना. नरी ते दिकार पळवपाक जायना. सूर्यप्रकाश लकलकचे सावळे सारके भिरांकूळ किरणां फांकारतात. चिके अस्वस्थतायेन तो परतून घूवन चोयलो.

ती गेली ना !

ताकाच पळवन रावल्या. पायणेचे समाप्तीचेरन विलक्षण आनी रसरशीत आकार. गुलाबी रंगाचे साडीयेचे भितर आंगार धवी चोळी मात. धवी की काळी... सांगपाक कठीन. चेरो वाडकूळो आनी उणे रुंदायेचे कपाळ. दोळे पळयल्यार खूब रडल्ले सारके आसात. भांगराची ल्हान वाडकूळी फुल्ली एक तांत लागून रावून लकलकता. परतून परतून केस मेकळून आनी बांदून ती कित्याक खाक्यांचे काळे केसां फोंड्र दाखयता? तरणाटेपणाचे उन्माद तिजे प्रत्येक ह्यावभावात स्पश्ट दिश्टी पडता. ते व्हड मोमे आनी थोर थार कुले मनांक बेजार करतात कित्याक ? मज्जातंत आनी रक्तवाहिनी – हांत हुनसाण पसरता. मनांत भारी चिंता उदेता. ती एक हावेस रूपान बदलता तिका वेंग मारन छातीक लागून घेवन चिड्डून उमाव घेवपाकय.... हय, ते इत्सेक बळ चड जाता – एक परकी दादल्याक एक परकी बायलेचे आड.... जावपाक पाडना. तो ध्येय नाशिल्लें चल्लो. घुवन पळयल्यार इत्सा ताका बंदी करतली हय? मागीरचे दिसाय तो थंय गेलो. तिका पळोवपा खातीर न्हय जाल्यारीय, थांगा वाटे देगेर मैदानाचे लागी आशिल्ले बांकांचेर एकांत तो बसलो. ते दिकार पळवपाक नज म्हण चिंतन केली जाल्यार ते वशीन एक शें फावट चोयलो.

तिका देखली ना.

तो रावचे थळार आयलो. आनी थांगा वचपाक नज. वावरांत गुल्ल आसचाक ताणे यत्न केलो. कांयकी, मन केंद्रीत करपाक जायना ! अनवळखी

शार. परकी भास. ओ सगळेय अनवळखीचेंच जाल्यार कितें? बायल आनी दादलो हीं परस्पर आकर्शीत जातात. ताणे चिंतन केली. हे संसारांत जीवन आरंभ करन सुमार काळ जाले. मांस मज्जा आशिल्लो घटमूट दादलो. इत्सा सर्वय नियंत्रणांत दवरल्या. अशें ओ, अशें आनी कितले काळाक जीवन करतलो? मनाक कांयकी व्हड घटाय. हें एकसुरेपण बरें आसा हय? तो रात देवन चमकलो. बरें चान्दनें. व्हड गोंदळ. आवाजो. जण आनी वाहनां धावतां आसांत. तो तशें मैदानाचे लागी पावलो. रूखा पोंदा बांकांचेर बसलो. हून आंगाक परसून वचें शेळ वारें. ओ मळबार भरन फूलां सारेक नखेत्रां. पूण ती पायण एकसुरी !

ती खंय?

दिसान दीस मागीर तिका पळवपाक लागलो दोळे वळखून जाले. ती फुकट मुमुरख्यानी हासता ! दादलो मनीस ताका कित्याक परतून हासपाक जायना? मान्यतायेचे पोंदा दामून चिड्डून मरण घेवन पळे घाडस ! ना. तो परतून हासतलो. ओ, तें आडांगी जाल्यार? तो उठावन चलून रावचे थळार पावलो.

ताजे सारके लग्न जावुंक ना अशे व्यक्ती तिका बायलां पासवत उलवन आसात. बायलां पासवत हून हून चिंता सगले कडेन पुराय भरून आसा ! ताका देखचाक ताणी वासपूसाचो विशय परतीलो. सगल्यांकय कामवासनाची तान लागून आसा. वर्सां जालीं तशें जीवन करतात. कोणाकय एक बायलेक लग्न करन हाडून तिका पोसपाची दामाची तांक ना. शारांत जियेतात. मेळची पगार कांय करपाक पावना. तरीय.... वाटेन बायलो वचे वेळार सगलेय वसवशें पळयतले. आरंभार ताजे सारके सगल्यानीय मान्यताय दाखोवपाचो देखाव केलो. ल्हवू ल्हवू ती घासून पूसून गेली. बायलांचे विशयां पासवत सांगचे वेळार तो मात म्हणतलो :

‘छे, वायट ! आमी संस्कृतायेचे मनीस न्हय?’

तांत कोणाकय समजून घेवपांत मतभेद ना. संस्कृताय ना आशिल्ले कोणेय आसा हय? भाशण करचे माचीयेर, दिसाळ्यांत.... दिसाक सगळेय सन्मानाचो दिखावो करप. मित्रांची तो फिर्याद करतलो. ताका कारणय

आसा. बायले सारके ते एक एकाक मोग करतात. एकलो एक कीराक. दुसरो एकलो एक सूण्याक, एकलो एक माजराक, आनी एकलो एक चानीयेक धरन वाडोवपाक प्रयत्न करता. संस्कृताय नाशिल्ली. ताणे तोण्डाक पाउडर पुसलें. केस बरे रूपान वळोवन दवरलो. एक चोरा भाशेन तो भायर चल्लो. मानेस्तानों, खंय वतात? तो ते बांकार एक पाय दवरून रोडा मुखार आशिल्ले गलीचे पेल्यान पोंदा खांचीतल्यान चोयलो. रूखाचे मदीं खूब पोरणे घराचे आंगणांत ती रावल्या ! केसांत वनफूलां. मोम्यांचे व्हडपण आनी सौंदर्य दाखोवन धवी चोळी. चड बारीक ल्हान घागरो. तांतल्यान.... ओ.... काळीज कठोर व्हड स्पीडार मारता ! हावू ! ताका तीणे पळयलो.

दुसरे कोणेय नदर दवरतात हय?

तोण्डाची ओलसाण गेली. रगत सग आटून गेल्लें सारके. तो बांकार बसलो. मैदानांत पयस काकी कलसांव न्हेसल्ले काळे मनीश क्रिकेट खेळतात. लागसारचे बांकांचेर दादले बायलो. चडान चड दादले. ताका कठीन दुस्वास आनी दुख दिसलें ! दुसरे कोणेय तिका पळोवपाक पाडना! कितें करचें? काळीज दुखून एक मागणी मात : दुसरे कोणेय ते विचित्र रत्नाक पळोवंचें न्हय ! आळतां पेळतां पळवन तो परतून उठायलो.

ती थांगाच !

कांयकी, ताजें काळीज फुटूक वता. कारण कितें? शंबर बायलांक तो दिसान दीस देखता न्हय? तिका मात कितें एक खाशेलेपण? ओ, बायल म्हळ्ळे ते भावनेक दादलो म्हळ्ळे ही भावना कित्याक अशें अनंत इत्सेन पळयता?

तांत कितेकी देवत्व आसा. प्रेमाचो कळो उक्तो जावन फळ जावंचे प्रक्रियेक मोग म्हणतात हय? बायल ही भूंय जावये. दादल्याचें वीर्य म्हणचें बीं. ओ! चिंतणांक कांय स्पश्टपण ना. ताका पुरो जाले. मनांक एकूच एक विचार मात. तांत एकाग्रताय आसा.

तशें दीस अस्तमलो. दीवे सगल्या कडेय चकचकले. गल्लींत ती रावल्या.

तो हुमेलो. दुसरे सगळे वचपाक लागले. तो एकोलोच जालो.

ती लागी आयली.

उठावन तिका वेंग मारून उमाव घेतल्यार कितें? येवपाकच तीणे अस्वस्थ जावन विचारलें : 'एक पांच पैसे म्हाका दितले हय?'

पांच पैसे.... हो ! ती कितली फुंकेसवाय जाली ! ना. इतलें सवाय करपाक नज. ताणे पाकीटां सावन पर्स काडलें. तांत सावन एक रुपया काडून तिका दिलो. आनी ल्हवू म्हळें: 'चिलवण ना.'

तीणे विचारलें : 'हांव बदलून हाडचें?'

ताणे म्हळें : 'नाका.'

ती लागीच रावली, लागून. पाउडराचो परमळ कांय ना. हूमेची एक ऊब. बायल मनशीची अजाप वास ! तोवय ताजे विकाराक तीक्ष्णताय चड करता. तिजे हाताक धरन चुंबन केल्यार कितें?

तीणे म्हळें : 'पळोवपाक हे गांवचे न्हय म्हण दिसलें. आमची भास बरे रूपान कळना हय?'

'ना.'

'हांगा कामधंदो कितें?' ताणे कामधंदो सांगलो. ती तें समजली कि ना; कळना. तीणे विचारले: 'घरकान्न आसा?' ताणे ना म्हण सांगलें. तीणे विचारलें : 'खय रावतात?' ताणे गलीचें नाव आनी घराचें नंबरय सांगलें.

तेन्ना तीणे भो धाडसान म्हळें : 'हांगा लागीचमू.' ताणे विचारलें : 'नांव कितें?' तीणे नावं सांगलें. मागीर इल्ले वेळाक मंद आवाजान भासा भास. तिका आवय–बापूय आसात. घोवूय आसा. पूण घोवान घराक येवप ना. लागीचे एक शारांत आकारान एक ल्हान होटल चलयता. थांगा घोवाक मोगाची एक रखयली आसा. तें योग्य हय?

ताणे विचारलें: 'तुका भुर्गीं–बाळां आसात?' तीणे म्हळें: 'आमचें लग्न जावन एक हफते जावंचे फूडे आमी झगडून वेगळीं जालीं. आनी आतां तीन वर्सां जालीं.

उपरांत एक मौन. तीन वर्सां ! ताणे चिंतन केली : तिका लागीच बांकार बसपाक सागंल्यार कितें?

दीस भोगून गेले. ओ, दीस ! तशें, एक दीस दनपार परतचाक हांव रावचे घरा मुखावयल्यान ती येता.

नाका. तो लिपलो. दोस्तानी तिका पळयल्ली आसुक जाय. 'खयचो रे ह्रो म्हाल?' ताणी आपसांत चर्चा केली: 'तीणे हे वशीं बारिकसाणेन पळयलें मू?'

ताणे तांत भाग घेतलो ना. इज्जत मानून कांय उलवनाशिल्लें वोगी बसलो.

कीराचे धनीयान म्हळें : 'ती हे दिशार कोणाक की विशेश करून पळोवपा सारके मू चोयल्ली'

चानीयेक पोसपाक यत्न करचे मनीसान म्हळें: 'कोणाक जावये?'

तांत कित्यांतय कांय लक्षा दिवनाशिल्लें तो सांज जावंचे फूडे भायर देवलो. लक्ष चूक नाशिल्लें पाय ताका मुखार घेवन वतात. पाकीटांत पंदरा रुपया आसात. तांत सावन णव रुपया खाणावळींत बाकी दिवपाक आशिल्ले. तो चमकलो. शेळ वारें सुटता. मळब कुपानी भरन आसा. भूंय ताजे समान रखरख सुकून कितले काळ जालें ! पावस पडतलो हय? पावस पडल्यार कितें, पडना जाल्यार कितें? ताणे ते बांकाचे लागी वचून उत्सुकतायेन पळयलें. ना.... ! खंय गेल्ली आसये? घराचे भितर आसतली?

ताका देखचाक तीजे तोण्ड उजळ जालें. ती लागी येतली म्हण भियेवन ताणे दोळे सट सट करन धांपून दाखयले. दीस न्हय? कोणेय देखल्यार वायट न्हय ? तो तशें बसलो.

सांज जाल्ली उपरांत ती आयली.

'आयज काल दिश्टी पडना मू?' तीणे खेद परगटावन विचारलें.

ताणे म्हळें : 'ना.'

तीणे सांगलें : 'हांव हास्पिटलांत वचे वाटेर तुमचें घर सोदून काडलें. थांगा आशिल्ले सगळेय कोण?'

'म्हजे मित्र.'

ती खूब हासली. ताणे विचारलें : 'कितें?'

तीणे म्हळें : 'आमकां वचा?'

'खंय थंय?'

'म्हजे घराकडे.'

ताका भय. कांय घुसपा गोंदोळ जाल्यार? मित्रांनी जाणा जाल्यार वायट न्हय? जाल्यारूय लगाम धरन मुखार चलचे घोडयाकाराचे मागलान वचे घोडया सारके तिजे मागलान तो चमकलो.

काळे रूखाचे मजगती ती पोरणी खोंपी काळे इंगळ्याचे राशी रूपान ताणे देखली. उजवाड ना. आवाज ना. भिरांकूळ शांतताय. तो अनमनान रावलो.

'भियेव नाका. येयात.' तीणे ताजे हाताक धरलो. ताणे फाटी फुडे सरन विचारलें : 'शेजारचीं?

तीणे धाडस धरन म्हळें : 'ओ! हें म्हजे स्वताचें घर आसा. हांव हाका सरकारी कर दितां न्हय? कोणेय म्हजी परवानगी बगर हांगा भितर चडून आयल्यार हांव ताका आमडून ताजे दोळे भेततलीं !'

तिका धाडस आसा.

तो तिजे वांगडा वारांदार चडलो आनी फस्क पेटयली. तो थर थरलो. ते मंद उजवाडांत एक बायल पोंग घेवन वरांदार बसल्या.

'आवय.' तीणे म्हळें : 'अशें वयर येयात.'

ताजो विकार उणो जावूंक लागलो. आवयक देखल्लें बरोबर जाले ना ! 'चुकलों, चुकलों. परतून वचें की?

तीणे दार उकतें केलें. ते वेळार जो आवाज जालो तो सगले संसारान आयकलों हय? तो भितर सरलो. बुरशीं वस्तां आनी हेर-हांचो बालाव वास.

तीणे म्हळें : 'आनी एक फसकाची काडी लेगीन पेटयात.'

ताणे पेटयली. एक फातरेलाचो दीवो जळ्ळो ! ताका लागून दुसरें एक दारय उकतें जालें. ताजो विकार आता ना जालो. मड्यां सारके निस्तेज दुर्बळ हळडुवीं दोगां भुरगीं ! हालनाशिल्लें दुसरे दारार आड पडल्यांत. वाडून फुगल्लीं पोटां, बारीक जाल्ले हात पाय. लागी एक म्हांतारोय.

'बापूय आसा.' तीणे मंद आवाजान म्हळें. 'कुड्डो.' ताणेय ल्हवू विचारलें : 'भुरगीं !'

ती तें आयकनाशिल्ले भाशेन वस्त्रां मेकळून सकयल उडयलीं. सगली नागडी ! निरोगयाळी एक नगडी बायलेक पयले फावट पळयता. दीवो वाडवयलो (put out). व्हड आडखळ. व्हडान रडूंक जाय म्हण ताका दिसलें.

चोय, इत्सा मरन गेल्ली. कसलें जीवन !

तीणे ताजे हात धरन चुंबन करन तिजे मोम्यांचेर दवरले. फातराचे पोरणे खयंचेकी एक बायल पुतळीचे मोम्यांक आपडचे पाशीय चड कांय आसा? तिजी पोट-फाटीक लागून आसा. कारण कितें?

ताणे विचारलें : 'जेवली ना?'

'ना.' तीणे म्हळें 'साकाळीं एद्यो सिजयल्यो चवळ्यो खाल्यो'

ताणे पाकीटां सावन एक नोट काडलें. धांचे की पांचाचे?

'घे हें धर.' ताणे म्हळें : 'दुसरें कांय करपाक म्हण चिंतन करपाक नज.'

ती ते नोट घेतलें, आवयक दिल्लें आनी कांयकी सांगून आयली. पावस शिडशिडेवुंक लागलो. आखेर पावस येता !

ताणे म्हळें: 'हांव वतां.'

तीणे ताका छाती लागून बळान वेंग मारलें : 'तशें फुडे वचपाक जावंचें ना !'

ताजे म्हळें : 'म्हजे मन स्वस्थ ना.'

तीणे विचारलें : 'कारण कितें?' तो चुप रावलो.

चुडीतां वयर काडून शेळ वारें सुटलें. ल्हान फातर वेंचून घालंचे भाशेन घराचे वयर पावसाचे व्हड थेंबे पडले (पळ्ळे). हळू हळू घोर पावस आयलो. भूंय थंड जाता. ताजे मन.... अशांत. घुसमटचे सारके. अशें जाता कित्याक? भूखेन तळवळचें मनीसा मुखार वाडल्ले खाणांत जरलो मरून पडल्लो सारके. ताजान कांय जायना. धावन वचपाक जाय. काळीज भेतून रडपाक जाय.

ताणे म्हळें : 'हांव वतां.'

तीणे विचारलें : 'म्हाका मोग करनात की?'

कांय उलय नाशिल्लें बाकी रुपया नोटय तिका दीवन तो भायर गेलो. कांयकी ताण्डून वडून न्हेसून तीवय भायर आयली. पावस तिम्मून रोड मेरेन. परतून चोय नाशिल्लें तिम्मून थापून तो चल्लो. इल्लों रडलोय. अजापाचें जीवन.... ती.... आवय.... बापूय.... मड्यां समान भुरगीं ... ती घाण... तशें चलतां चलतां ताणे चिंतन केली. अशें घडता कित्याक? कसल्याक? ह्या खातीर काळीज कोरांतून घेवंचे भाशेन ती म्हाका चोयल्ली?

# मरणाचे सावळेंत

## एक

मोगाळ दोस्त,

आठवंचे वेळार तमासो दिसता, व्हडान हासचाक. पूण रडचाकय दिसता. थोडो समय जालो, हांव तुका एक पत्र बरोवंचाक चिंतन करतां. परंतु बरोवंचाक जायना. बरवना आशिल्लें रावचाकय जायना. हांव दोन विकारांचे मदें आसा. मरणाचेय जीवनाचेय मदें. अशें न्हय, मंदस्मित आनी पीडा हांचे मदें. सत तें न्हय. नाशाचे देगेर एक तमासो आयक; मरणाचे सावळ्यांत हो संसार येवन पावला, म्हण तुमका केन्नाय तरी दिसलें आसा व्हय?

एक परंसत म्हळेलें तुमी आनी हांव, हे भूमण्डळांतले सर्वय केन्नाय मरणाचे सावळ्यांत आसात. हांत भियेवंचाक कांय ना, कळ्ळें न्हय. एकच हासपाक जाय; न्हय आसल्यार रडुंक जाय. हें पत्र तुमकां मेळतर एकदा हांव मरण पावन अनेक कोटी युगांचे उगडासांत मेळन गेलो अशें जावयेत. देखून भारी श्रद्धेन हें वाचपाक जाय. निपट एक तमासेची कथा आसा. कथा वाचपाक तुमकां भो इश्ट मू. हांत कथा–पात्रां साबार नात. म्हजो एक उपासक सिनेमा निर्मितल्लो, मागीर एक सिनेमा नट, एक नर्तिका, एक वावरा ंचो फुडारी – हे सग म्हाका स्वल्प स्वल्प पसंत करतल्ले आसात. आनी आसा दूदकारणी कुंञम्मा. तिका हांव व्हारडीक करतलों म्हण भिसरायली आसा. ताका कारण कितें म्हण जाणा?

एक आसा: तें म्हाका पुराय करपाक जायत की? हांव जल्माक येवंचाकच मरण म्हजे भो लागी आशिल्लें. केन्नाय – आतांय. प्रिय दोस्त, म्हाका सारखें दिसना. ताचे मदें ही पीडाय. आतां हासचाकय दिसता. हें पुराय करपाक साध्य जालेना जाल्यार... व्हय, तुमकां एक संदेश धाडुंक आठयतां. स्वस्थतायेक लागचें कितेंय, दुसर्यांक दोश जायनातिल्लें कितेंय तुमी करात. अंत लागी पाविल्ले वरी दिसता.

हांव हे संसाराक प्रेम करतां म्हण आठोवुंक जाय. हांगा आशिल्ले सर्वांकय; ब्रह्मांडांतले सर्वांकय, आतां हांव उदकाक प्रेम करतां, कारण कितें?

म्हाका व्हड तान आसा. सुकी मरुभूंयचे वरी दिसता हर्दें. तान ! व्हड तान. स्वल्प उदक जाय. 'उदक ! उदक!' आयकतल्ले कोणय नात. उल्लो दिल्यार आयकू पडचे खंय मनीश ना. एकटुकें आनी भयानक...ओ, हांव हांगा एकलोच. एकलोच. आयल्लोय वतलोय सग.... थोडे अल्प प्रमाणीं.... ओ, म्हाका हे स्थितीर पावयल्या म्हजो उपासक.... तो आतां येवन पावलो जाल्यार, अथवा ती कुंञम्मा. ना. समय जालो ना. चार वरांक आनी कितलीं वरां आसात?

स्वल्प शांतताचेर आयकात !

तें – अथवा हें – एक तमासेची कथा म्हण सांगली मू. आठयल्यार हासचाक दिसता. रडचाकय. आयकचाक कोण आसा? हें एक निपट प्रश्न मात्र. जाप नाशिल्लीं प्रश्नां आसात मू....कितें म्हळ्यार, म्हाका एकलोच बसून हासचाकय रडचाकय जाता. घोर आदी वनांत विन्दून उडकायल्लो एक चेडो हांव, अशें चिंतन करात. आतां पर्यन्त कशें जीयेलो? आहार नाका की? निदेवंचाक थळ नाका? रात दीस राखण राबचाक जाय मू? पूण कांय राखचे रूपान न्हय आशिल्लें. जाग्रतायेन म्हाका मात्र अवलंबून राबिल्लो... देवा अशें चिंतन करन.... नाका... सग, सग विसर. हांव तशें वाडल्लो मनीश न्हय. पूण अठरा वर्सां पिरायेर हातांत एक पेन्नय घेवन जल्म घेवन वाडल्या घरां साकून भायर देवलों, हेंच. देवन गेलो खंय? म्हाका परिचय नातिल्ले, अद्भुत, सुंदर आनी भयानक हे महासागरांत. आनी आतां कितली वर्सां जालीं की? कळना. कुंञम्मा कडे हांव सांगतां कि म्हाका आतां बावन वर्सां पिराय जाली म्हण. तिका पिराय आठ वर्सां मात्र. तिका हावें व्हारडीक करचें ती व्हड पसंत करता. कितें म्हळ्यार तिका हांव इश्ट जालों ! तरीय एक घुपस आसा. बापूय आवय, हीं राजी न्हय! तांत तिका पीडाय खेदूय आसा. तीणें विचारलें : 'येवन एक सांगपाक नज की?'

हांवें म्हळें : 'सांगन गो, हें झूज जावो !'

'जालें ना आसल्यार कितें?'

कायरें बरोबर ठीक. झूजां सदांची मू. तें देखून म्हण हांव कांय सांगना. हांवें तिका लग्न करपाक जाय. बरें आसा.

आतां वोताक चांग हुनसाण दिसता. उज्या लागी बसल्यावरी. हून वारेंय आसा. लासून जळचे व्हड शारां साकून येवंचें उज्या वारें आसा न्हय? तांत एक शेळ परमळूय. जगले लागून आशिल्या आंगणातल्या मागिल्ले गुलाबार आनी मोगरेर साकून आसा. तीं फुलां स्वल्प तांबडी आनी निपट धवीं. हीं सग खंय साकून येतात? कळना. कितलीं की फूलां जालीं ! तीं पानां, खांदे कांय ना आशिल्लीं चार झाडां आशिल्लीं. दोन गुलाबाचीं आनी दोन मोगर्यांचीं. पयले एक काळार हांवें तीं एक एक मडकूळ्यांत रेवं घालन वोयलीं. आनी शिंपलें. फूलां जावना म्हण कांय जणानी म्हळें. विशेश करन मोगरेक. एक प्रतिकार म्हळेले लेकान हांव सांगतां, पयले मोगरी फुलली. मागीर गुलाबय. पयले पयले कुंजम्मा येवंचे वेळार ती झाडांचे पाले काडता आशिल्ली, जाण जावन न्हय, संवादा मदें एक पालो काडून पिठो करप एक सूख दिसतालें. तशें करचे वेळार सग हांव तिका मना करतालों. पूण ती तें विसरतली. एकदां हांवें लोकंडाचे लिव्हर काळ्ळें, झाडाचीं मूळां खणुक. तें आतां हांगा कोनशांत आसा. हांवें ते काडून कुंजम्माचें लान बोट धरन देगेर दवरन ताचान ल्हवू बोटार मारलो. तिका भो दुकलें आसयेत. हांवें मारले उपरांतय बोट थांगाच दवरन ती तशें बसली. हांवें पळोवपाक ती रडता. म्हळ्यार दोळे भरले मात्र. ते रीतीर म्हाका पळवन बोट काडना आशिल्लें गळो भरन तीणे विचारलें :

'आनीकय मारन चेंचनात की?'

ते दीसा हावें म्हळें : 'तुका होय जाल्यार हांव व्हारडीक करीन.'

'जीवनाशीं मारचाक व्हय?'

हांवें एदीं फूलां खुंटून तिचे केसांत खोयलीं. आयज, कशेंय आसो, झाडांक शिंपले ना. चिके बावटसाण आसा सी दिसता. ती आता आयली

जाल्यार दूद झाडांक घालोवन एक आयदन उदक काडोवन म्हाका पीवयेत आशिल्लें. तीणे येवंचाक आनी कितलो समय आसा?

ती काल येवन वचाकच म्हजो उपासक आयलो. व्हय.

काल म्हजे उपासकाची बायल विधवा जातली आशिल्ली. चेरडूवां बापूस नातिल्लींय. मरणाचे सावळ्यांत तो... तें सोड. कुंञम्मान येवंचे वेळार हांव हे आराम कुरसीचेर, हातांत पेनय धरन, व्हींटींत बरवंचें फळ्यार कागदय घेवन, देखना आशिल्लें दोळ्यानीय, आयकनाशिल्ले कानांनीय सयत, हाल नाशिल्लें मरन शेळेवन आसल्यार.... करुणाकरी ! कुंञम्मा भियेतली. भिसरावपाक जाय म्हण हांव आठयतां म्हण लेकचाक नज. हांव म्हणतां, हे मकानांत हांव एकलोच. व्हड एक मकान हें. जायतीं कूडां आशिल्यांत सग पाशीय लान कूडांत हांव राबता. दुसर्या कूडांत कोणेय ना. ऊंच वण्टीन सभोवंतणी आशिल्या विशाल पटांगणाचे निर्जन पटांगणाचे निर्जन व्हड मकानाचे लान कूडांत उक्ते दारा लागी आराम कुरसीचेर कुरंगुटोलो जावन बसला हांव म्हण आठय. शेजारची घरां सर्वय खाली आसात.

म्हजे दोस्त ! हांगा कसलो गोंदळ आशिल्लो ! हास, तमासो, गींत, बोब घालप आनी नाचून कुदून हासप. आतां सग चुप. सगटय जीव मेळ्यार भीख मागन म्हळ्यावरी धावन गेले. चडानचड घरांचेय फूलां बागां सुकलीं. कांय बांवचाक लागल्यांत. सर्वय सोडून जनां भियेवन खंयकी वचून रावल्यांत. केवल म्हाका वचाक स्थळ ना. ना आसल्यार, हे भूमंडळां साकून भियेवन धावन खंय वचाक?

बरोबर आसा. हें शार एक मरणा–घरा वरी जाल्यां. न्हय जाल्यार मरणाक प्रतिखीणाक राखून रावचें एक घर थीर रावपेल्यांत, पाव भाग सरी बाकी वरलो ना. आशिल्यांत चडय फौज आसात. मागीर भा ाच्यो सुंदरीयो, रिक्शा गाडीकार, पुलीस. न्हन्तना मागीर बसां आसात, ट्रेयनय आसात; विमानय. सारांश, हांगा जनां आसात अशें अर्थ. हांगाचे रात्री पासून चिंतन करूंक जाय. भय सगटांचेय हदर्यांत प्रवेश जालां. ना आसल्यार भय कसलें? फूडे कोणेकी सांगल्या गदी वगडावपाक कितें आसा? पूण 'सायरण'

म्हळ्यार आफताची सूचना दिवंचें यंत्र - हाची दीग भयानक सूर... तें आयकून आयकून कानाक जरडे पळ्ळे. तरीय तें आयकचे वेळार सग स्तब्ध जातले: पळयात, हे शारांत 'बोंब' घालचाक वोयतात ! दुश्मनांचीं वोम्बर विमाना येतात - अशें चिके गेल्यार एक प्रकाराची आळसाय येवना की? कांय घडना. अशें दीस-रात्यो सरल्यो. तेन्ना म्हाजांत घडलां ! कितेंकी?

म्हाका हालचाक जायना. ना जाल्यार हांव उठावन वचून पैपार साकून उदक पीवन दार बंद करन खिळी घालतलों आशिल्लों. कुंजम्माक भिसरावंचाक नज मू ! पूण नीट जाल्यार पोट चार कुटके जातले. देखून अशेंच बसुंक जाय. कातरून रगत व्हावंता म्हण आठोवंचाक नज. तसलें काय घडले ना. कितेकीं घडलां? घडणुकेंत चित्त एकाग्र करपाक जावना. उसरमेट येता. वेगळो तमासो सांगन. रोडचो विशय. तुमकांय म्हाकाय कळता. आमचे संसाररूपी घराचे एक भागाक उजो लागला. ना जाल्यार मानव समाज रूपी शरीराचो एक भाग पिकून कुसून आसा ! हें मू झूज. खरोखर म्हाका तांत वांटो ना. तुमकां आसा? थांगा शारां गंभीर आवाजान फुटून उसळून जळतात. व्हय, जळोत ! हें झूज तुमकां कशी लागलां?

कुंजम्मा आनी म्हजो उपासक-हांचेर झूजाचो कसलो परिणाम जालो? झूजाचो उगडास म्हळेले लेकान, म्हजे उपासकाचे मुखावेले दोन दांत भांगरान बान्दयले, एक चंदायेक. हासना तरीय तो हासता म्हण दिसतलें. ताका बायल आनी दोगां चेरडूवां आसात, एक सुरक्षीत थळार तीं आसात. झूजा निमित्तीं ताणे चार लाखाचें कमायलें. तरीय झूज बरें अशें ताका अभिपिराय ना. कलारसीक आसा. ताका सिनेमांत पिशें आसा. कुंजम्माक तिगेलो प्रश्न तणाचो. तणाचेर अवलंबून तिगेलें जीण आसा. बापूय आसा. आवय आसा. तिजाकय व्हड आनी लान दोगां भाव. हें न्हन्तना बावीस कुंकडां, णव माजरां आनी एक गाय - सर्वय तणांक अवलंबून जीवन करतात. तण गायक. गायचें दूद विकून सगटांकय आहार मेंळुक ज़ाय.... एक रीतीर म्हाकाय तणाचेर रीण आसा.

अर्द बॉटल दूद हांव बरोबर.... पूण, मनान न्हय, कितें करचें? आतां सुमार पांच रुपया हांवें कुंजम्माक दिवंचाक आसा. हांवें म्हळें मू, तिजो प्रश्न तणाचो.

'तणाचें मोल चळ्ळें कित्याक?'

हांव सांगतलो 'झूज देखून.'

तिका विश्वास ना. तरीय हांव सागंता न्हय. ती विचारतली : 'झूजाक कित्याक तण?'

## दोन

कुंञम्माक राजकर्ण कळचीना. म्हजे उपासकाक राजकर्ण सर्वय चांग रूपान कळता. तो एक व्हड राश्ट्रीयदळाचो व्हड मनीश आसा. ते दळाक तो म्हस्त दाम दिता. दुसरे दळांपासून ताका निशेध आसा. ताचे लीडर सग संदसादपी सेवक आसात. ते जनांक हरवी फटी सांगतात. जनां तांचे मागलान जमतात, समकी?

ते कसल्यो फटीयो भाशणांत सांगतात. म्हजे दोस्त, तुमकां ताचो अनभव आसुंक जाय. तांचे भाशण आयकल्ले वेळार सग हांवें आठयलें आसा, कडीयो लागी आशिल्यो दोन चाळणीयो हांव कानांर दवरन बांदून आयलो ना मू म्हण !

हांवे विचारलें : 'कसल्याक?'

'समजलेना की?'

'ना.'

'व्हड राजकर्णाची फटीयो कानांत चड नाशिल्लें रावचाक'

आनी ताणे म्हाका पळयलो. ते दांत लकलकले. ते दोळे विसविसले... तो हासतालो न्हय आशिल्लो. साधारण जनां तें हास रूपान स्विकार करतलें. देखून हांवेंय ते हास रूपान स्विकार केलें. हांव व्हडान हासलो तेन्ना. आतां म्हाका व्हडान हासपाक जायना. दूख सयत मंदस्मित करी़न. तो म्हाका देकचाक आयल्ले ब्यारांतलो लाभ हो. म्हाका कितें जालें, म्हण न्हय?

ताका म्हजे कडे धाडल्ले म्हजे तेगां दोस्तांनी. ते हे मरण पांवतल्ले शरांतले न्हय. हांगा साकून णवी मील पयस एक शारांतले. तांत एकलो वावरा ंचो लीडर आसा. दुसरो एक सिनेमा नट. सिनेमा नटान दोन

सिनेमांत मात्र अभिनय केला. दोनीय खलनायकाचे भाग. ताका ते पसंत न्हय. खलनायक नाशिल्यो कथा ताका भो पसंत आसा.

'पळय रे दोस्त !' ताणे म्हळ्ळें आसाः 'तुमगल्यो कथा सिनेमा करचाक चिंतन करचे वेळार म्हाका उलो दीवुंक जाय, विसरचाक नज !'

हांवें उलो दिल्लो ना देखून, पळय, ताणे म्हाका उलो दिल्ला ! ताका व्हड हुसको आसा. हांव सागतां सिनेमा नटा पासून. ताणे आयजकाळ व्हारडीक केली. नाचुंक आनी गावुंक–म्हळ्यार तिका हांत दोनींतय जल्मसिद्ध अभिरुची आसा. तिका म्हजे कथेंत नाच आनी गायन दोनीय जावयेत. नाच आनी गायन दोनीय म्हजे कथेंत ना. तरीय म्हजे कथेंतलें एक पात्र म्हण कथेंत तिका पसंत येवचें थळांकडे ती नाचो; पसंत दिसचे कडे गायन करो. हें हांवें शिश्टाचाराखातीर सांगले.

हांव राजी आसतलों? कित्याक? गायन करचे थळ येवंचे वेळार हांव सांगतलोः 'गायन कर!' नाचचे थळ येवंचे वेळार हांव सांगतलो : 'आ, जाण न्हय की?' हांवें तिजे खातीर एक कथा बरयन म्हण सांगल्लें. तिजे खातीर तांत गींतय दीन म्हण सांगल्लें आशिल्लें. तिजे खातीर आतां दिसची कथा कितें? 'मरणाचो अनंत नाच !'

मोगाचे नर्तिका ! पळय, समय जाला. नाच. तुजे खातीरची कथा– हाचे नांव 'मरणाचो अनंत नाच !' आमचे संसार रूपी वसंत काळाचे बागांत नाच ! हाचे भोवंतणी उजो लागला. नाच; ताण्डव नाच. आनंदाचो नाच जाल्यार? पीडा अनभसचे विळाप, भयानक व्हड हास आनी घोर हास, हांचे मदें तूं नाच ! तुका पसंत दिसचो गींत गायन कर. आत्मो, हर्दें आनी शरीर जळून करपता म्हळलो गीतंय गायन कर !

मरणाचे अनंत नाच !

तें हांव आतां देकता मात्र. भावना लोकांत म्हण आठय. कितें? म्हळ्यार संसार सग आतां, आतां लासून वचना. एक भाग मात्र. थांगा दादलेय बायल्योय. सासा लेकान खीणां खीणां मरण पावन आसात. शारां मू जळन करपतात ! तारूवां भेतून उसळतात. विमाना भेतून लासून करपून सकल पडतात. थंय मरण गर्जन करता. थंय मरण व्हडान हासता. थंय मरण ताण्डव नाचता.

हांगा शांती ! हे शारांत केन्ना बाम्ब घालतले म्हण कळना. कुंञम्मा सांगता – म्हळ्यार तिचे बापूयन म्हळेंलें : 'आमचो रचपी देवान उलो दिल्यार खयींय आसा जाल्यारीय थंय वचाकच जाय. कुंञम्माची आवय म्हणता : 'आमकां हांगा साकून खयींय वसपाक जाय ! कुंञम्मा म्हणता: 'हांगा बाम्ब पळ्ळें जाल्यार पळवयेत आशिल्लें.'

म्हजे उपासकान म्हळें : 'बाम्ब पडून हे शार भेतून उसळून वचे वेळार – तें फिल्मांत काडचाक जालें जाल्यार !'

म्हजे कडे येवंचाक जापसलदार तो वावराडी लीडर आसा. देखून म्हाका हे स्थीतीर हाडचाक जापसलदार तो वावराडी लीडरय आसा. पूण ताणे नश्ट न्हय फायदो आठयलो. तो म्हजो दोस्त मू. तो ताचे सारखे अर्थान एक वावरडी लीडर आसा. फुडारपणान न्हय जियेता, वावरान जियेता. यंत्राचे आवाजांचो गोंदळ, उज्याची भयंकर हुनसाण, गळेल्या धातूचो दोळे विसविसेवंचो ताम्बडो प्रकाश – हें तागेले फाटींगणाचें संगीत. उत्साहान ताका संवाद करचाक जाता. मुखेल देखून सर्वज्ञ अशें लेकना. सूर्यमण्डळाचे सकलय ऊंचय ताका जाणुंक जाय नाशिल्लीं अनेक कायरीं आसात अशें तो विनीत मानवता.

'गळल्या धातूचे भारी हुनसाणी पासून जाणुक जाय जाल्यार म्हजे कडे विचार्यात !' विचारची गरज आयलीना किते म्हळ्यार, ताचे लागी वचून हांवें ते स्तब्ध जावन अनभसीलें आसा. तो म्हणता 'तिख्यान केलेलें न्हय वावराडी बायलांचेय दादल्यांचेय शरीर.'

ते बरोबर आसा. गळन रुप्या उदकावरी जालेल्या चकमकचें भारी नसाण आशिल्लें लोकंड ताचे दावे पायार पळ्ळें देखून पावलाचे ऊंच साकून उपरांत डाकटराक कातरन उडकावंका जालें. तोवय म्हजो तो पासकूय तत्वदर्शनांत विश्वास दवरचे मनीश आसात. सिनेमा नटय तशेंच. तीसरें एक तत्वदर्शन. ताची बायल नर्तिका आनी गायिका–तिका सांगचे वरी कांय तत्वदर्शन ना. नाच आनी गायन खयंचाय तत्वदर्शनांत मेळतलें की? चिंतन करचे कार्य कांय की?

व्हय, म्हाका हे स्थीतीर पावल्या कोणे? तिचे कडे म्हजो तो उपासक सिनेमा पसावत उलयलो. बरी कथा जाय. बरी कथा जाय जाल्यार ती म्हजे नांव सांगनाशिल्लें रावतली की? तीणे सांगलें. पूण थीर पतो आशिल्लो

मनीश न्हय मू हांव. खंय मेळतलो म्हण तिका कळना. तीणे घोवाक विचारलें. घोवान वावराडी लीडराक विचारलें. वावराडी लीडरान म्हजे कडे सीधा म्हजे उपासकाक धाडलो. तो आयलो म्हाका देकलो. तो गेलो. हांव हे पांव ार पावलोंय. कुरंगुटोळ जावनूच बसुंक जाय. हालनाशिल्ले हे बसपांत एक सूख आसा. दुख खंय म्हण देकून धरचाक आसा. माथ्याक आतां एक तराचें मुयेवप दिसता. रगता धांव गोवंटो मेरेन आसाकी? माथें नाशिल्लें एक शरीर. हें चित्र म्हजे भितर भय हाडता. खरोखर म्हाका माथें आसा. दोळे आनी कान आसात. तरीय कितेंकी घुस्पण आसा. तें कितें?

जाय जाल्यार हांव म्हाकाच हे कागदांत देवोवन दवरीन. अथवा नाका. हांव तूं म्हण आठय. तूं ! म्हळ्यार तुमी, म्हाजांत प्रवेश करतात. कायर्याक न्हय. निपट तमासेक. पयले साकून भावना कर. पीडा खंय म्हण कळना. कांय वेळा दिसतलें, साल पुराय सोलून काडून पुराय शरीराक कोणकी मीट आनी मिरियासांग वाटून सारयल्या म्हण. हुलप आनी लासप! तुरत बेशुद्धी. तांत सर्वय विसरन वता. मस्ती की? उगडास येवंचे वेळार कितें? कूडाचे मदें उगडे दारा मुखार आराम कुरसीर बसून बरयतां. वार्यांत एक शेळ घमघम शिरकून आसा; मोगरें आनी गुलाब. हांत एक आनंद आसा. पूण, तुरंत एक स्तब्धकाय ! दूखांत एकाग्रताय प्रवेश करता. विवरण दिवपा जायना. उसरमेट येता. सग केल्यार एक भय. तेन्ना उगडास येता. हें सर्वय कशें घडलें?

कालीय हांवें सुटका पावन, गांव सोडून गेल्लेल्याचें बावन थकल्या गुलाबा झाडांक बी शिंपलें. कित्याक? व्हय, जीणेचें हें ..... नाच गायन, परमळ सग कित्याक?

## तीन

जागो जावंचाक व्हड अस्वस्थताय कांय नाशिल्ली. पूण माथ्याक एक जडसाण; तोंडाक स्वल्प कडुवाणीय. ताचेर व्हड ध्यान दवरले ना. अथवा ध्यान दवरलें जाल्यार अर्थ कितें? संडासां वचप, दांत घासप आनी न्हाण – इतलेंच केलें. म्हजे जीवनात न्हाण एक मुख्य काम. मरचाक पळ्ळा जाल्यारीय न्हावुंक जाय. तेंवंय शेळ उदकांत जाय. फूडे रूखा सरी

शीं खावंचे..... दोवा पावस पडचे देशांत आशिल्ले दिसांतय न्हाललो दोवाचे उदकांत. हून उदकांत न्हाल्यार न्हालो म्हण दिसचीना. म्हजे शरीरांत चिके चड हुनसाण मेळ्ळी आसुंक जाय. उज्यांत जल्मलो उगडास. देखून म्हजी साल, मांस, सीरो, माथ्या कापूस, हर्दें, हाडां आनी तांत भितरची कातळीय शेळ उदक लागून शेळ जावंचे म्हाका इश्ट आसा. बरी कठीन हून चाय तें मात्र पुरो. मागीर एक सिगरेट. सिगरेट ना जाल्यार बीडी जाल्यारीय पुरो. उपरांत जाय जाल्यार दोन तीन वरांक बसून बरयन. मदें मदें स्वल्प चाय, सिगरेट आनी बीडी आसल्यार भो बरें. पूण हें सूख आनी अनुकूलन खंय  मेळचाक? हांव बरोवपी जाले उपरांत... ओ.... तें सग कित्याक वर्णन करचें?

आयज सकाळीं म्हळ्यार दनपारां निदल्ले मांदरेर साकून उठावन न्हाण इत्यादी केलें कापणीय काळ्ळी मागीर पोशाक घालें. उपरांत कितें जालें? व्हय, एक लघु चायेक कसलीय वाट आसा की म्हण चोवंचाक भायर सरूक वचाक भूंय पुराय हालता, मकान चक्कोचूर जावन म्हजे माथ्यार पळ्ळयां जावनूय म्हाका दिसलें. पूण भूंय हालली ना. मकान भेतून चक्कोचूर जालेंय ना. माथ्यां भितर एक दुगलावप ! पोटांत एक कोंकें घालन धरल्या वरी. हांव बावगलों तशें हांव लकलकचे आराम कुरसीर बसलों. तेन्ना कितें घडलें? हर्दें निकळन वचावता ! जड कितेंकी लांबून पळ्ळे वरी. कांट्या तारां आसात. शेवटार शिश्याचो वाडकूळे आकाराचो गुळो. भूगोळकी? दिसचें बरें. पूण ही कठीन पीडा... हें कशें घडलें?

उगडास येवंचाक हास आयलो. रोडचो विशय हो. पूण रण्णे राबोवन एदे काळ जाले. कित्याक रडचें? पयले हें झूज. दुसरें हें दुर्भिक्ष. तरीय रडयेत. पूण दुखां पुसून सांत्वन दिवपाक कोण आसा? तेन्ना हासुंक जाय की? आरंभल्यार हांव हासतां. मदें एक अस्वस्थकायीय आसा. हें बरवन सरचे फूडे मरतलों की? वता खंथंय?

व्हय, काल तारीख कितली आशिल्ली? हांव 'काल' म्हळ्यार कोटी कोटी वर्सां मेळन गेले 'काळा' चे पासून. कितें करचें? अशें दिसता. मयी म्हयनेची सत्रावी तारीख म्हण आठोव्या. वर्स एक हजार णवशें..... कि दोन हजार णवशें? सोळा कि बावतालीस? कदाचित, बावन जावयेत.. कुंअम्माक

हांवें बावन म्हण म्हळ्यांत. तेन्ना? व्हय, म्हजे पिराये पासून. काल ताणे म्हजी वर्सां विचारलीं ना. ते भागंरा दांत ! कितें सांगचें? तांकां एक स्वयं प्रकाश आसा; सदा हासचे वरी, हांवे आठयलें : ताका जीवनाशी मारन उपरांत ते दांत कितें करपाक जाय. ते सयत ताका पुरण घालचें समकी?

आतां एक सूख दिसता ! सूख आसून न्हंय. गावंची चाल प्रमाणी सूख म्हण सांगतात, इतलेंच. म्हळ्यार हांवें म्हजे लागी एक हरवी फट सांगली म्हण अर्थ. कितें करचें : तरीय कथा चालू दवरया. ती सांगून जावंचे फूडे कांय घडलें जाल्यार – एक मुख्य कार्य हांगा बरयतां :

कुंञम्माक कांय दिल्यार बरें म्हण म्हाका दिसता. फुला मालटीयो चारीय तिका. गवेतांत आशिल्लीं पुस्तकांय ती काडो. म्हगेली संदूक आनी हांतूण, संदूकां भितर हांवें बरवन तयार करन दवरली कादंबरीय, मरणा उपरांत म्हाका पुरतल्यानी काडच्यांत म्हाका विरोध ना. ही आराम कुरसीय पीठय हे मकानाचे धनियाक दिवपाक आठयतां. हांवें बरवंचे हें पेन – हें कोणाकय दिवंचाक आतां पसंत करना. हें म्हाका सयत पुरुंक जाय ! म्हाजे शरीर उदकांत व्हळयवेत ना जाल्यार भूयंत पुरण घालयेत, ना जाल्यार जळवयेत, ना जाल्यार सवण्यांक दीवयेत. तें हांव पसंत करतां. फारसी दोस्ताचे उगडासाक... शांत गोपरांत 'टवर ऑफ सायलेन्स'– आम्मो ! .. म्हजे दोळे खंयचेकी भयंकर उजवाडांत पळयले वरी. पायांचे उंगट्यांचे भितरचान साकून सीरां वाटेन दोन कोंकीं हड्‌ ाचे मंडळात. हांव... हांव बावगून चुरमुटतां. म्हाका नीट जावपाक जायना. नीट जाल्यार सुकल्या खांद्यावरी हांव मोडून पडतलों. लहवूच एक नीट जावन पळयल्यार?

मरणा ! भय ना. भय नाशिल्लेय ना. तरीय... मरण कितें?

हांवें परीक्षा घेतली. साध्य न्हय. म्हजो सर्व सीरोय पटपटा भेततल्यो! तशें जाल्यार हांवें बरवंचे हें पुरतें जायना. कित्या बरयतां? हे तराचे बरयलें ना की? हें जाय जाल्यार वेगळे कोणाचीय काणी म्हण म्हाका बरवपाक जातलें. पूण सत्य अशें. थोडे काळ जाले हांव उपास व्रत करतालों हें एक नवें खबर न्हय. फूडेय हांवें उपास व्रत केल्लें आसा. पांच फांतां – चारीय भो वर्सां फूडे. पयलेचें – म्हजे अठारा वर्सां पिरायेर. बरो साहसी आनी

आदर्शशुद्ध, धैर्यवंत तरणाटो आशिल्लों. मनीशांक बरें करपाक भायर सरल्लेल्यांत एकलो अशें अर्थ. ते दिसां म्हजे सारखे जायते जाणां आशिल्ले. तरणाटे आनी तरणाटीण्यो. आमका विशेश करन कांय कार्यक्रम ना आशिल्लो. लीडरांक आशिल्लो. स्पश्ट आनी अस्पश्ट. स्पश्ट कार्यक्रमांत एक, सोरो वीख आसा ! सोरो करन जीवन करचें एक व्हड जनविभाग आसा मू. तांचो जीवन मार्ग आडावंचें समकी? देखून सोरोपान करतल्याचें मन परतपाक जाय. सोरो दुकानांचे निरोधन करपाक जाय. हांव तेन्ना एक स्वयंसेवक दळाचो लीडर आशिलों. अनेक सोरो दुकानांत स्वयं सेवकांक मार्ग दाखोवंचाक जाय. धर्मा संबंधी एक आचार सारखे दया भरलेले उतरानी आमी पिवग्यां लागी सांगलें : ‘ भावानों, सर्व नाश हें. वायट हें. निपट वीख हें !’ हाचे भायर मदें मदें लीडरांक ‘जय’ उलो दितले. तशें हांव एक मुख्य सोरा दुकाना मुखार निरोधन करतालों. एक पिवगीन, रुची घेवन अभिपिराय सांगचाक की कित्याक एक बॉटल हाडून म्हजे आड विंदली. ती म्हजे पायाचे खीणार लागली. बॉटल भेतून शीरो कुटको पायांत चडलो. जायतें रगत व्हावलें. घाय सुकचाक भो काळ लागले. ताची माव आयजीय म्हजे उजे पायाचे खीणार आसा. ते दिसा हांवें चार दिसांक उपवास व्रत घेतलें. सर्वसाधारण रोडार ते दुकाना मुखार. तेन्ना म्हाका पळवंचाक साबार जाण जमले. दुसरें एक उपवास व्रत एक पुलीसकाराचें मन बरें करपा खातीर आशिल्लें.... मागीर समजलें कि पुलीसकाराचे मन उतलें वायट न्हय म्हण. वायट मनां आसात की? भूमंडळात आतां कितले मनीश आसात? बायलो, दादले. ताचें सगंटाचेय मन.... कशें? झूजां खून करप. लासून करपून फुटून उसळचीं महा शारां. भूकंप. झोड–वारें. काण्डणा धारे पावस. सूर्योदय. सूर्यास्त. शेळ वारें. चन्द्रोदय. पुलीस कैदखानांत....शलाकांचे मदेंचान...चन्द्रोदय. मारचें पुलीस आनी मारनाशिल्लें पुलीस. मनां कशें वायट जातात?

## चार

ते दिसा आमी चौदा जणांनी अटखणींत पडून अठड दिसांक उपास घेतलो. कारण, एक बायल–स्वयंसेविका. तिका व्हारडीक जाय नाशिल्लो एक तरणाटो पुलीस अटखणींत बलात्कारान संभोग करपाक मुखार आयलो.

चेड्वाक लागी देकचाक संयम हातां साकून गेलें जावयेत. तिसरो, जेलांत. सरकाराचें मन बरें करपाक ते दिसा आमी स शें मेळन उपास केलो तीन दिसांक. कारण एक क्रांतीकाराक सरकारान सूळार घालो ! आनी चौतो?

तांत एक मजा आसा ! मरण मेरेन उपास ! एकच म्हाका जेलां साकून भायर सोडुंक जाय. ना जाल्यार म्हजें केस काडुंक जाय. दोनीय करनाशिल्ले म्हाका साबाव पोलीसान अटखणीतं घाला. हांव एकलोच आसा. लीडरानी सर्वानीय म्हाका हात सोडलो. कारण कितें? हांव एक साहित्यकार जाला. मात्र न्हय, सरकाराक आनी लीडरांक बरें करन वायट सांगून एक नाटक बरवन उजवाडायलां. लीडर आनी सरकार दोन पक्षांत. सरकारां आसचो अपराध तितलोच हांवें लीडरांतय देक्लो. जनांचे कायरें सांगचे म्हण करन जनांगेली चळवळ चमकयतात. म्हळेल नांवांर जनाकडे सावन दाम घेवन लीडर सुखान जीवन करतात. कांय करनात. साबाव कळौणी कळयतात मात्र. (लीडरां पासून म्हाका जायतें सांगचा आस. एक एक्लाक्य हांव बरें रूपान वळक्तां. कशीय जावो, आतां ताका वेळना.) पुण सरकार सोडतले व्हय? म्हाका बरे रूपान चिरडलो. आत्महत्या करीन म्हण मेरेन म्हाका दिसलें. कितें म्हळ्यार तितलो परमानंद आशिल्लो पोलीस अटखणींत. मागीर कितें जालें? हाचे मदें हांव एक तमासो सांगन. कठीन पीडा आसल्यारीय नीट जावंचाक जायना. जाल्यारीय इत:पर्तन्त जीवनान तुमकां कितें शिकयलें?

आतां भितर – कोटी वरसां जाली मू.... जीवनान म्हाका कितें शिकयलें? अथवा, जीवना साकून हांव इत:पर्यन्त कितें शिकलों? हांवें सांगचें कांय तुमी सार–विशय म्हण लेकचाक नज. थोडें उतरानी, म्हजे दोळ्यांतल्यान संसाराक पळवपाक नज म्हण अर्थ. कितें म्हळ्यार म्हजो अनभव न्हय आसतलो तुमचो. हें भूमंडळ भो व्हड मू, हांत कांय स कोटी भायर, सास कोटी जनां आसात म्हण सांगतात. हांत हांव एकलों. तशें म्हाका थोडे अनभव आसात. जनां कडे म्हाका उणे रूपान संपर्क जालो आसा. हांव जनांक कशें वांटून घेतां? लोकांत सग मेळन शें जनां आसात म्हण आठय. दादले आनी बायलो. हांत :–

निपट मूर्ख मनीश........ 55

भयंकर क्रूर मनीश......... 20

फटवपी ........................15

आळसे ........................ 9

भले मनीश .................... 1

अशें जाल्यार तुमी खयंचे जम्यांत आसतले? पसंत आशचे जम्यांत राबात. तुमच्यांत मूर्खपण आसा? क्रूरपण आसा? फटवण आसा? आळसाय? बरेपण?

पूण लोकांत सग मेळन शें न्हय मू. तरीय तुमी एक जम्यांत आसतले. म्हाका तुमी खयंच्या जमांत घेतले? म्हाज्यांत वयर दिल्लेले सर्वय आसा – मूर्खपण, क्रूरपण, फटवण, आळसाय, बरेपण – हें सर्वय आसून जीवनान म्हाका कितें शिकयलें? म्हाजे पांचवे उपासा पासून सांगचे फूडे हे प्रश्नाची जाप बरयतां :

पीडेचीं शेळ वारीं. अनंत मळब. कोटी नक्षत्रांक आनी म्हाका देकचाक साध्य जायत की? विनोद रूपान निपयल्ली पीडा. व्हड ना...

जीवनान म्हाका कितें कांय शिकयलें म्हण विचारल्यार.... हे संसाराचो एक मनीश म्हण. एक कलाकार म्हण. आतां मेरेन जीवनान म्हाका कितें शिकयलें? म्हाज्यो रचना – हांचे भितरचो हांव आनी हांच भायरचो हांव – हांव सागतां अथवा हांव सागचाक वतां ...... हें संसारय – हांवंय – हे रीतीर मू सांगुक जाय?

अनेक कोटी वर्सां जालीं हे भूंयचेर मनीश जल्मांत येवन म्हण आठयात. मनीशपणाचे महत्वाचे उदया फूडेच हे भूंयचेर जीवन आशिल्लें. आतांय मानव–समाजाचे भायर दुसरें वेगळें कांय हांगा आसा. दृश्य आनी अदृश्य. जीवन म्हणचें उतरांत अणू, कीडे, सजीव प्राणी – हे येतात की? येनात जाल्यार जनावरां, सवणीं, चरतल्ले, रूक, उदकांत रावचे प्राणी – हांकां सगटांक पयस राबोवपाक जातले. उदक, वायू, भूंय – हांगाचे जीवनांक म्हळ्यार मानव समाजाचे भायरचे सर्वाकय उगडास करन जाय अथवा विसरून जाय की? विसरून जाल्यार दुसरेंय आसा. तुमी, हांव आनी दुसरें सग. खंयकी धावन वचे महा. प्रपंचाचे घुवंचे एक धूळी समान भूमंडळाचे उंचार म्हणूय विसरुक जाय. सूर्य आनी चन्द्र नक्षत्रां आनी

भूमंडळ-हांकांय तुमकां म्हाका आनी दुसरे सर्वांकय, सर्वांकय रचल्लो एक ईश्वर आसा आनी ना म्हणचे अभिपिराय विसरुंक जाय. कसलेंय रचिल्याचो उद्देश अथवा उत्पन्न जालेल्याचे कारण, आमकां कळना म्हणूय, आमी जाणूंक यत्न करतात म्हळेलेंय विसरुंक जाय. कांय स्वयं नाश पावंचाक पसंत करना म्हणूय - तरी नाश पावनाशिल्लें कांय ना म्हणूय आशिल्ली वस्तुस्थिती विसरुक जाय. थोडे उतरानी, तुमीय हांवंय, कित्याक हो संसारूच केन्नाय मरणाचे सावळ्यांत आसा. हें परमसत्यय विसरुक जाय. तरीय आमी शूर आसात. आमी हे भूलोकाक एक वसंतकाळाचे बागा सरके बदलावुंक प्रयत्न करतात. हे थळाक मनोहर गींतानी प्रतिध्वनी करपाक परिश्रम करतात. हें भूमंडळ आनी नक्षत्रां सर्वय मानव समाजाची कुटुंब संपत्ती आसा. सारखें की?

आमी जीवन म्हणचे - नाका .... आमी म्हत्वाचो भाग आसा की? हें सग विसरून अथवा उगडास करनाशिल्लें मू जीवन आतां मेरेन कितें शिकयलें म्हण सांगचाक?

जीवन म्हणचे हे अजाप शेतांत सर्वय जीवनांक साधारण रीतीर पळयल्यार...हांत एक व्हड मूर्खपण आसा. भयंकर क्रूरपण आसा. व्हड तिरस्कार आसा. चड फटवण आसा. अनंत स्नेह आनी पवित्र त्याग...म्हा दयाळूपणय...हे मनस्थितीर कांय चड सांगयेत. जीवन एक व्हड तमासो आसा...अशें सांगयेत...सर्वय जीवनान म्हाका शिकयलां म्हणूय सांगयेत. तुमीच जीवन म्हणूय सांगयेत अथवा हांव म्हण सांगयेत.. पूण एक कायरीं आसा - जीवन ! सग मेळन कितें आनी कित्याक - ना जाल्यार तें कित्याक? प्रश्नांत तें ना मू. आनीकंय जाण जावुंक जाय जाल्यार म्हजी सग रंचनो वाच्यात...जाय जाल्यार...कितें म्हळ्यार त्यो सग फांतीन दवरन सगटांक्य मेळन एक नांव दितां जाल्यार, तें कितें आसतलें -? जीवनान म्हाका आतां मेरेन कितें शिकयलें? हें आतां जाणून व्हड कार्य कांय ना. तुमीय जियेतात मू. एक सास कोटी दादले - बायलोय. व्हड तमासोच. मानव कुटुंबाक जीवनान आतां मेरेन कितें शिकयलें?

कोण - कित्याक उगडास करतात? उगडास करचेंच सुखाक न्हय. दुखाक. पीडांक. तेंवंय एक तमासो !

## पांच

तेन्ना हांव सागूंन येतालों?..... व्हय..... पांचवें उपासव्रत. तांत एक रसपत आसा. तें कितें म्हण सांगचे फूडे चौथ्या पासून दोन उतरां सांगतां.

चौथें उपासव्रत बारा दिसांक. तेन्नाभितर म्हजे केस काडीन म्हण म्हळें. केसय काडलें. दीर्घ मुदतीचो बंदखणीचो दण्ड मेळ्ळो. आयचे रीतीर जेल जेल मात्र न्हंय साधारणत: मानव–समाजाक कितेंकी रोग लागला. हांव सांगतां झूजापासून. आतां मेरेन जाल्लीं एक एक झूजां 'आखेरचें झूज' आशिल्लें. हेंवंय तशें 'आखेरचें झूज' आसा. आयज लोकांत आशिल्ले, म्हळ्यार झूजांत मेलेले आनी दूसरे रूपान मेल्लेले – हांचे भायर बाकी सगटय एक प्रत्येक समयार एक व्हडान हासपाक आठयल्यार – ताका आशिल्लो मंगल समय आतां तरी .... म्हजे दोस्त, हांवें तांत मेळूंक ना. कितें म्हळ्यार हांवें व्होडान हासल्यार व्हड घुसपागोंदळ जातलो. देखून हांव ल्हवू सौम्य हासो हासन. कितें म्हळ्यार म्हजे पोट भरन तीख पाशणा फातर आशिल्या वरी, काळीजाचे देंटाक एक गुळकें घालन दामचे वरी. हे समयार कुंञम्मा आयली जाल्यार..... ती ही कथा जाण जाल्यार कितें म्हणतली, की? म्हजो तो उपासक, वावराडी लीडर, सिनेमा नट, नर्तिका – ही सगट कितें म्हतलीं ? जीवन एक एकय एक कथा न्हय? दुखांत, दुख मू मरण.

हांवे म्हळें न्हय, कांय चड समय जालो हांव उपासव्रताचें पालन करतालों. दुसरे चार उपासव्रतांचेय पांचवे व्रताचेय मदें चिके भेद आसा. चारींचेय मागलान एक उद्देश आशिल्लो. खाण जेवण करना म्हण हटय आशिल्लें. हांचे मागलान कांय ना. उपवास व्रता खातीर उपवासव्रत ! हेंवंय सम न्हय दिसान दीस अर्द बॉटल दूद पितलों. केन्ना–केन्नाय एक लान चाय. सग मेळन एक पिश्शें लागल्या सारकें दिसतालें. खाण जेवणा पासून उगडास करना म्हण हांवें हट धरलें. तरीय आठयतलों. त्या वेळार पिश्शे लागल्या वरी. कितें करप? कांय प्राणी, चरतल्लो, मासळी, जनावर, सवणे– हे रूपान जल्मलो जाल्यार, व्हय एक सवणे जालो जाल्यार.... पूण मनीश आसा. हें एक व्हड मानाचे खबर म्हण लेकचाक जाय मू? अनुग्रह. तें सग सोड. एदे चड दीस जाले हांव एक्र व्हड कादंबरी बारयतालों. बरयतालों

म्हळ्यार बरवन जालें म्हळा अर्थ. हांव ती ल्हान करतालों. व्हड करतलों न्हय. ल्हान करतां म्हळा अर्थ. तशें दुसरीय नकल करतलों. चार वरां मेरेन बरयतलों. तेन्ना भीतर कुंञम्मा अर्द बॉटल दूदय घेवन येतली. ल्हान जाल्यारीय कायरीं बायल न्हय?... मागीर शांती खंय?

तिका म्हजे कडे संवाद करपाक जाय. माजर विल्लेलें, सूर प्रिल्लेले सैनीक, बायलांक दिस उजवाडे बलात्कार करचें, मागीर ओरोव मेळचाक नाशिल्लें – हांचे पासून. उपरांत ती विचारतली. हांवे दिवपाक आशिल्ले रुपया दिल्लेना कित्या? हांवें कांय उलोवना. ती एक ल्हान सवण्या वरी क्ळिविळतली. सग विसरून प्रश्न कठीन जातलें.

'दुडू दी, दुडू दी !'

हांव म्हणतलों : 'आगो तुका हावें व्हारडीक करीन म्हण सांगलें न्हय?'

ती विचारतली : 'मारन जीवनाशी करचाक की?'

हांव म्हणतलों : 'व्हय, तुचे बापूयन तुचे आवयक मारन जीव नाशी करप आसा?'

कुंञम्मा म्हणतली : 'बापूय आवयक मारतलो. तेन्ना आवय म्हणतली, ईश्वर हें सर्वय देकता !'

तेन्ना बापूय किते म्हणतलो?

'हांव नेण !' कुंञम्माक राग आयलो.

'दूडू दी, बापूयन म्हळां दुडू घेवन येवुक जाय ! म्हण'

'जावो गो धूवे, तू वच. फाय दीन.'

'कालीय, पयरीय – प्रति दिवस सांगतलो, धूवे, फाय दीन, वच !'

हांव म्हणतलों : 'म्हजे चिन्नू, फाय खरोखर !'

कुंञम्माक राग येवनाशिल्ले रावतलो कशें?

ती कडकडेवन म्हणतली : 'कुंञम्मा म्हजे नांव न्हय की?

हांव म्हणतलों : 'विसरलों गो धूवे !'

'प्रतिदिवस विसरतलो !'

'आनी विसरना. कुंञम्मा. कुंञम्मा. कुंञम्मा! आनी विसरना ! पुरो की?'

कुंञम्मा विचारतली : 'चिन्नू कोण ही?'

एक पोरणी चिन्नू मदें येवंचे केन्नाय बरें आसा.

कुंञम्मा आनी हांव, आमचे मदें खयंचीय चिन्नू येवन रावल्यारीय न पसंत करचीना. गाय जाल्यारीय हांव सांगतलों : 'फाय सांगन.'

आज सागंल्यार कितें? तिचे हाताचे कांकण निसरन वतलें की?'

हांव स्वल्प गौरवान म्हणतलों : 'तूंवें 'ती' म्हण चिन्नूक म्हणचाक नज.'

'मागीर 'राणी' म्हण उलोदीवंक जाय?'

हांव चुप रावलों. कुंञम्मान रडकूळी जावन म्हळें : 'दुडू दी.'

हांवें म्हळे : 'तुका हांवे लग्न करीन म्हण सांगलें न्हय?'

'फाय सावन हांवें दूद हाडना जाल्यार !'

'व्हड संतोश. आनी कितें विशेश खबर?'

कुंञम्मा कांय उलयनाशिल्लें रागान गेली. हांव. हांव साकर नातिल्लें दूद पिल्लों. पसंत जावन न्हय. साकर ना देखून. 'गावंची साकर खंय?' म्हण एक दोन नारे मारया; ना जाल्यार कुंञम्मा सारखे 'झूजाक कित्याक साकर' म्हण विचार्या. कशेंय आसो. साकर नातिल्लें दूदय पीवन हांव चमकपाक भायर सरतलों. कांय पळवपाक न्हय. साबाव चमकचाक.

दुकानां चडान चड बंद आसात. जनांचें येवप–वचप चड ना. आशिल्यांत चडय सैनीक आसात. ते जाल्यार मागीर भीकमाग्रे. लोक रावनाशिल्ले घरां मुखार ते तंबू ठोकून रावल्यात. सग घरांकडेय बोरड लांबयलां : 'भा ा दिवपाक' ..... कोणाक? तशें हांव एक एक घराचेय मुखार रावून दुबाव करतलों. शारांत पुराय एक शांती. पारकांतय तशेंच. थंय एक प्रतिक्षा आसतली. फुलेवन घोसांनी राविलीं फुलांय, फांतीन खाली पडल्ले बाकंय.

पार्कांत दादल्यां पाशीय चड बायलो आसात. सांज उपरांतंय ताणी पार्क सोडन वचना. ताका कारण आसा. सैनीक सांज जातर पार्कांत येतले. ते वेळार रेडियो संगीत आरंभतलें. मागीर दीर्घ निश्वास. कश्टांचे सूर...

पाया वाळ्यांचो आवाज.... हो –म्हजान जायना.. जीबेक बळ येना. आयकलें? शरीर थकता. तरीय हें बरवन पूर्ण करया. जायत की. सांज चड जातर हांव परतून हे कूडांत येतलों. इलकट्रीक दीव्याचे स्वीच दामतलों. उजवाड भरलल्या कूडांत थीर उजवाड दिवंचे दीव्या सकयल हे आराम कुरसीर हांव बसतलों. मागीर एक बीडीय वोडून एक नवी कथा बरवंचाक आरंभतलों. बरवचे फूडे चिंतन करतलों : 'आज पुणीय एक जेवलों जाल्यार!'

हें आतां म्हजी मात्र इत्सा की? हांवें म्हळें मू खाली घरां मुखार, दुकानां जगलेर, रेलवे स्टेशनांत, पारका भायर, – थांगा सग जमायले, भूकेन कश्ट आनभसचे दादले–बायलो आसात. सूण्या पाशीय कश्ट भोगतात. मनीश समाज आनी जनां अशें आमी सांगतात मू. खरोखर मनीशपण बाकी ना. सर्वय गेलें. असलें खंयंच आसा. लोकांत एक एक शारांत कितले कोटी जनां असलें आसात? हांव हांगा मिथ्या दुखां दाकयता न्हय ! मनीशपण कितें? तें कागदार मात्र पुरो? तुमी रातींत हे केरींत भोवल्यार रुचिकर दृश्यां पळवयेत. अवयो चेरडाक विकतात. कन्या जनं तांचें चारित्र्य विकतात. हाका दोनीकय हांव व्हड मोल लेकना. तरीय विकतात.... विकचाक आनी घेवंचाक आशिल्लें एक थळ हो लोक. पूण कितें आसा विकपाक आनी घेवपाक?

स

गलींत भिरांकूळ दृश्यां. सांज जाल्यार आरंभतलीं. दिसाचेंय जातात.

दितात आनी घेतात कितें. ते दृश्यांक हांव हांगा रंग दीन. पूण तुमी स्तब्ध जातले. तुमकां स्तब्ध करुंक जाय म्हण हांव आठयना. मात्र न्हय, ही एक तमासेची कथा मू. हांत नाका जालेलें, हांवें जायतें बरयलें आसा. उगडास दवरनूच. कारण कितें? ही तुमकां एक चीट आसा. मरणाचे सावळ्यांत बसून बरयतां म्हण आठयात. जीवनाचो अंतकाल लागी पावला. म्हण आठयात. ताका कारणां कांय म्हजे पोटांत आसा म्हणय आठयात. तें कितें

हें हांव सांगतां. थोडे उतरानी ही एक तमासेची कथा आसा. दुसर्‍यो कथांचे सारके हाकाय कांय कथानक ना. तुमचेय म्हजेय जीवना सारके. तें सम न्हय. म्हाका कांय स्पश्ट सांगचाक आसा. ताका समय भो उणे म्हणय म्हाका कळता. साधारणपणान आमकां मंजूर केल्लो समयथ उणे मू. तरीय सांगचा जावंचे मेरेन सांगन. तुमी मानव संस्काराचो प्रतिनिधी म्हण आठयात. तुमचो संस्कार कितें? तो कितें हें शोधचाक प्रयत्न करात. रातीचें तुमी.... तुमचें काम, तुमचें चिंतन, तुमचीं सपनां, तुमची इत्सा... दिसाचें तुमी... तुमचें काम, संवाद – अशें सग खरे रूपान बरवन दवरन एक हफ्तो जातर तुमी वाचून पळयात. तुमी स्तब्ध जातले ! तुमी तुमीच की म्हण दुबाव आसतलो. तसलें म्हजें सग कामय हांगा बरयना. कांय मात्र. हांवें आतां मेरेन सांगल्लेय आनी सांगचाक वचेय... तुमकां हासवपाक आशिल्लें. पूण दुखांत आनी सूखांत घडणूको दोनीय मेळोवन हांव सांगंता. कितें? दोनीय म्हजांत मेळन घुपसून आसात. जीवन तशें मू. हांव सांगंतालों वा ांतले दृश्यां पासून मू. हांवें तें हांगा रंगल्यार तुमी भियतले?

हां, कसलें भय – न्हय?

कांय नवें न्हंय. आयकून पोरणे जालेलें. वा ांत आशिल्लें जनां. भिरांकूळ रोग, अळशिकेचे सग घाणीयांचेय, सग नीच कर्माचेय संग्रह. तांकां जनां म्हण सांगयेत की? हावें म्हळें ना की? मनीशपण तांचांत साकून – कसल्याक तांचांत साकून ! आमचांत मनीशपण आसा? तुमचांत आनी म्हजांत? तुमचो शेजारी उपासी म्हण जाणून पोट भरन तुमी जेवतात न्हंय? हें चूक की समा म्हण न्हय हाव म्हणतां. अशें तरांचीं चार प्रश्नां तुमकां तुमचे सारके पदवीचेर व्हरन राबयतलीं. तुमी म्हणतले : 'म्हाका इल्लो चड सुवार्थ आसा; माफी करपाक जाय.' अशें माफी मागनातिल्लें हे लोकांत कोणेय आसा? हांव म्हळें न्हय, एकाग्रताय मेळना. रूखाचे मूळां समान चिंता विभिन्न दिकांचेर वता.. एक सत्य. झूज जाता. भायरय भितरीय. भितरचें झूज म्हाका कश्ट दिता : उगडासूय विसरपय – हांचे मदें हांव उगडासांतच एकाग्रताय हाडपाक प्रयत्न करतां.

थांगा वा ांत ते दीव्या खांब्याचे पोंदा एक बायल मरन पळ्या. एक चेरडूं ते म ाचो मोमो पिता.

ती बायल तुमची आवय म्हण आठयात अथवा म्हजी आवय. तें चेरडूं हांव अथवा तुमी अशें आठयात.

मरण पाविल्ले बायलेचें गुह्यांग पुराय नागडें आसा.

कितें म्हणचें, ती मरचाक तुरंत तुमी कि हांवें – अथवा आमचो खंयचोकी एक वळख नाशिल्लो एक भावान कि भयणीन – ते बायलेचीं वस्त्रां मेकळून काडलीं. नागडेपण निपवंचाक जावयेत. कसलें नागडेपण? व्हय : हे म्हासंसारांत कसलें नगडेपण?

अनंत वातावरणाचे मुखार – नगडो रावचाक कोण, कित्याक लजेवुंक जाय? पूण.... ते.... पूण, बापूय धूवेक विकता; इल्ले समयाक–एक पित्तपुण्ण (syphilis) रोग लागल्याक. एक कुसल्या निंबुवाक. ओ, बापूय आनी धूवय. बायलोय चेरडूवांय तरणाटेय, म्हांतारेय. भुरगीं आवयचो मोमो चाबून भेततात. आवचे मोम्याक दूद ना. आवयचें रगत भुरगीं सोसून पितात. दूद धवें रगत आसा. ओ, म्हजो ताळो सुकलो. तोण्डांत उदक ना. बोट चाबून भेतून इल्लें रगत पिल्यार कितें?

ओ...तुमी चिंतन करतले इतले कश्ट अनभसचे वेळार बरयतात कित्याक? सस्त बसचाक नज? ओ, सस्त बसन. मागीर? हे पीडेंत मेळन वतलों? साध्य न्हय. हांव विसरचाक आठयतां. देखून बरयतां. म्हजे दोस्त, हांव एक बरवपी वावराडी आसा बरवपी शेतकार आसा. बरवपी सैनिक आसा. हांचे सगटां पाशीय वयर एक कलाकार आसा. तुमी राजी न्हय जाल्यारीय हांव आठयतां. म्हजे काम करन आसतनाच मरचें एक आनंद न्हय? देखून हांव म्हणन आयलां.... व्हय, इल्ले चड दीस जाले हांव जेवलों ना. निपट उदक पियेतलों. तांत भरशें दूद आसा जावो. घन–पदार्थ कांय भितर गेल्यार तें जिरवपाक उपाय कशें म्हण म्हजे पोट विसरलें. अशें आठयात. तरीय अघाशीपण नाशिल्लें रावतलें?

हांव एकलोच. एकटोच. हड्डें उलो दिता. आयकचाक कोणेय ना. महाशून्यताय ! म्हाएकसुराय !

व्हय, पांचवो उपास तशेंच चमकता. तेन्ना एक मोलादीक घडणूक घडली ! तें ना आशिल्लें जाल्यार.... आतांचें हें..... सोडतें; कालचे फूडेचे

दीस सग सुखान गेले. म्हजे दोस्त ! आनी हांव थोडी कायरीं सांगतां. तुमचे दये खातीर न्हय, तुमचे बरे मनोभावा खातीर न्हय. तुमचे कसल्याक न्हय. म्हजे तिरस्काराक माफ दीवुंक जाय. मागीर फाटी दीस सग म्हाका सुख आशिल्लें. रोगाची लांछना म्हण सांगचाक, माथ्या मागलान भितरचान उजो आसा सारके दिसता ! तरीय व्हड ना. चमकचे वेळार चिके बेशुद्धी. दोळ्यांतय माथ्यांतय काळुक दिसता. अचानक दोळ्यानी देकचाक येना कानांनी आयकपाक पडना–अशें दिसता–तरीय–तरीय हांव चमकतलों. उगडास येतर आठयतलों : 'हांव वतां खंथय?'

अशें कुंञम्मा चिंतन करतली की ना? म्हजो वावराडी लीडर, सिनेमानट, ताची बायल नर्तिका, तुमी... आनी सजीव सर्वय अशें चिंतन करतले कि ना: 'हांव खंय वतां?' तशें हांव इल्ले समयाक रोडार राबतलों. वयर विमानाचो आवाज. भोवंतणी जनांगेलें दामले संवाद. सूर पिल्लेल्या सैनिकांची पिश्याळ करणी, गाडीकारांचो आवाज, भीखमाग्रयांचे रडप. हांव तशें चमकतलों. मागीरीय तें प्रश्न मुखार येतलें. मानवसमाज खंय वतां म्हण न्हय – हांव – हांव, व्हय – हांव खंय वतां? तुरंत दिसतलें; खंय न्हय ! तेन्ना हांव खूब हासतलों. तें आयकल्यार हांव तटास जातलों. कितें म्हळ्यार तो म्हाका लागचो आवाज न्हय. वळख नाशिल्ले कोणाचेय सारके ! तो म्हजे भोवंतणी साकून येता की? तशें दुबाव दिसतलो. हांव चमकतलों. खंयथेय? तशें चमकतलों. रात थोडी जातर, चमकून, हुमेवन इल्लो उत्साह येताकूच, हांव परतून हे कूडांत येतलों. दार उगडून दीवो जळवन पळयतर कांय बरपां आनी पत्रां थंय आसतलीं. बरपां वाचून चोयतलों. सगटांक्य जाप धाडुंक जाय. पूण स्टाम्प घेवंचाक पैसो खंय? गावंचो दाम सग खंय? झूजाक कित्याक दाम? कुंञम्माक उगडास करतलों. हांव तशें बसतलों. बरवन जालेली कादंबरी काडून एक परतून वाचतलों. हांगा थांगा कांय चूक्यो सम करतलों. उपरांत सस्त आंगणात देवन काळकांत रावतलों. मळबाक पळयतलों. नक्षत्रां ! तीं देकतर एक पोरणो प्रश्न परतून मनां येतलो ! तें कितें? जायते समयाक कान दीवन राबतलों. सस्त राबलां, कळ्ळें? लोकांत खंयींय साकून कांय आवाज आयकू पडता? तुरंत म्हाका दिसतलें. हांव कित्याक अशें राबलार ओ, सस्त ! आनी हांव हासतलों. परतून कूडां येवन कुरसीर

बसतलों. पूर्ती करनाशिल्ली नवी कथा वाचून पळवन पूर्ती करपाक यत्न करतलों. ही सग पोरणी कथा. म्हजे दोस्त ! म्हाका आतां हालचाक जायना म्हजे भितरचे शिश्याचें पृथ्वीगेलय कांटया राशीय.... सकयल आनी वयर बावगवपय ऊंच काडपय; ऊंच काडपय बावगवपय.... माथें हुमेता. पोटांत रेवें साक की? न्हय.... बॉम्बाचे गूळे अशें दिसता. खंयकी उजो लागला. हांव लाख कुटक्यानी फुटून वचेत ! ताचे फूडे कथा धारार धारार बरवन पूर्ती करया. एक मुखेल समाचार. काल राती अडेच वरां मेरेन हांव हे कूडांत नाशिल्लों. नवो समाचार कळ्ळें? हांव खंय आशिल्लों? सांगन. काल राती हांव हांगा एकलोच आयलों कि कोणेय म्हाका हाडून सोडलो?

उगडास करतां :

स्वयं आयलों ! व्हय. स्वयं आयलों. ध्येय चूक्नाशीं आयलों. कूड उक्तावुक अर्द वरां लागली. चावी घालचो द्वार देकून घरचाक कश्ट काडतालों. उपरांत दीव्याचे स्वीच देकून काडचाकय भी यत्न केलो. वण्टीर भो समय शोधलें. एक दोन फांतां गरगडेवन पडलोंय. ताचे मदें दूदा बॉटल हातां मेळी. शेळ दूद पिवंचाक शांततकाय दिसली. तीवय हातां धरन निदलों म्हण दिसता. कारण आयज दिसा निदेवन उठावंचाक निपट जगलेर उद्दारी पळ्ळां, दूदा बॉटल म्हजे हड् ारीय. कूडा कवड उकतायलें. ....जगलेर आशिल्लीं झाडां चारीय तांबडी आनी धवीं फुल्लानी परमळेवंचो मंदहास हासतात. हांवें आठयलें : काल राती हांवें कवड बंद केलें ना कित्या? निपट जगलेर निदवंचाक कारण? सग हांवें उगडास केलो. उगडासां भितर एक वारें झोड आयलो. तो आतांय आसा. वारें झोड मारता. मारो ! आरंभ कशें?

व्हय, आरंभ कशें?

## सात

आ ! आरंभ खंय हें म्हाका कळना. एक वेळा, ते नर्तिका साकून जावयेत. तशेंच न्हय जातलें? बायलेर साकून आरंभ. कि दादल्यार साकून? कशेंय जावो एक खण्डीत. ते नर्तिका कडे एकदां तमासे रूपान हांवें म्हळें:

'हे जीवनांत सुख जाय जाल्यार स्वयं कांय अभिपिराय नाशिल्लें आसुंक जाय. तुमचे भोवंतणी 'ठ' वाटकूळें थळ मात्र भूलोक म्हण लेकचाक

जाय. जमीन खण उसलून अथवा कांय वोवन शिंपून जीवन काडचाक प्रयत्न करुंक जाय.'

ती हासली. तीणे म्हळें : 'म्हाका गावुंक आनी नाचपाक जाय– ताका?'

हांवें म्हळें : 'गायन कर नृत्य कर. जीवन नृत्य कोण नाका म्हण म्हणता?'

ती घोवाचेर घुवली आनी विचारलें : 'कांय उलयनात कित्या?' तो सिनेमा नट हासलो. हांवें ते नर्तिकाक विचारलें : 'कितें जाय?' तीणे म्हळें: 'कळना.'

· कुंञम्मा बरी आसा. तिरस्कार आनी राग मेळे सारके. तिका जाय कितें ते म्हाका कळता. तरीय कळना म्हण दाकयतां. अशें देखून हांवें नर्तिकाक म्हळें : 'पूण सस्त नाच – भूमण्डळ म्हणचें 'ठ' चे वर्तुळाकाराचेर! 'ठ' वर्तुळाकाराचेर !' 'आगो चेडुवा,' सिनेमा नटान म्हळें : 'भूलोक एक व्हड उण्डो आसा !' 'म्हाका कळता.' तीणे म्हळें : 'हांवें आठवप आसा.' हांवें विचारलें : 'कितें?' तीणे आठसाय दाकयली. तिका लज दिसली. तीणे म्हळें: 'आतां हांगां एक बांय खळ्यार – ती तशें खणून खणून – वर्सानी तशें खणून खणून...तशें वतात जाल्यार....?'

हांवें म्हळें : 'समच भूमंण्डळाचे मदेंचान एक व्हड बुराक जातलो.'

तीणे म्हळें : 'तेन्ना पेळतांत देकपाक येतलें मू. आतां दीस देखून, पेळतांत रात आसतली. तेन्ना नक्षत्रांय दिश्टी पडतलीं.'

हांवें म्हळें : 'दिश्टी पडतलीं. नक्षत्रांसंसारय !'

हो संवाद जालो हे कूडांत. म्हाजे कश्टाचों आरंभ तें जावना. दुखांत आनी सुखान्त घडणूको ताचो आरंभ म्हण दिसता. व्हय, म्हाजो उपासक सिनेमा निर्मितल्लो – हांणे तें सांगचे म्हण दिसता. ताणी काल म्हळें :

'म्हजी आवड–निवड पुराय फिलमांत आसा. म्हाका कांय बरें सिनेमा–चित्रां काडयेत म्हण आसा. ताचें योग्य मनोहर प्रकृती–वैभव आमचे गावांक आसा. न्हंयों, खारीज मारून भितर हाडिल्यो दर्यो, रानां, घसघसे, पर्वत,

भातां शेतां, माडया बागां – सर्वय आमकां हांगा आसा. नट आनी नर्तिका– हांकांय मेळपाक कश्ट ना. गरजेच्यो बरी कांय कथा जाय.'

हांवें कथा आनी कथाकारां पासून सांगचाक ताणे ताचे मदें म्हळें : 'तुमी बरवन तयार केल्लेली कादंबरी दुखांत कि सुखान्त?'

हांवें म्हळें : 'दुखांत.'

ताणे विचारलें : 'एक सुखांत रचपाक जायना? हासचें बरें आसतलें. तांत नाच जाय. गायन जाय.'

नाच आनी संगीत – हें नाशिल्ली कथा सिनेमाक लागची ना सी दिसता. नाचाक आनी संगीताक म्हाका कसलोय विरोध ना. तरीय सगट सिनेमांतय तें जाय म्हणचें,... तशें संवाद, नाच, संगीत, चित्र रचप, मूर्तीशिल्पां.. तशें एक आठ सास वर्सां आमी मागलान गेले. थंय साकून ठेठ कलाकार, तांची कला–रचना, तांचे सयत आयल्यो वेगळ्यो वेगळ्यो चळवळ्यो सयत – गावून, नाचून आनी कथा परिणाम करन आमी हांगा आयले. अखेर ताणे विचारलें : 'कला – हीका कांय ध्येय आसा?' हांवें विचारलें : 'जीवनाक कांय ध्येय आसा?' मागीर शांतताय.

चिके जावंचाक हांवें विचारलें : 'क...ला म्हण तुमी उद्देश करचें कितें? प्रतिमा शिल्प की?....चित्र रचना, नाच, संगीत, कथा, नाटकां, गृह निर्मप, शीवण, पाचकवृत्ती–हांत कसल्याक?

ताणे म्हळें : 'सगटांकय मेळन.'

हांवे म्हळें : 'इल्ले समया भितर सांगन सोंपंवचो एक विशय न्हयकला. 'कला' म्हळ्यार कितें म्हण सांगपाक फूडे साकून जायते जणांनी यत्न केला. अनेकप्रकाराचे मत आसात. जाणूक प्रयत्न करचेय, अजाणपीय, इल्लें जाणतल्लोय – हांणी सगटानीय बरयल्लें आसा. प्रतिमाशिल्पी, चित्रकार, कथारचपी, कवी, टीकाकार, सन्यासी, राष्ट्रसेवक, – हाणी मात्र न्हय, मोमो पीवप रावयल्ले ल्हान चेरडूवांनीय बरयलें आसा, आनी बरयतलेय. हांवें म्हळें 'न्हय, हांवें म्हस्त बरयलें आसा म्हण आठवंक नज. प्रतिमा शिल्प, रंग चित्रां, गृह निर्मती, पाचकवृत्ती – मात्र न्हय कला विभागांत

मेळचे सर्वांचेय पासून भी लघु ज्ञान आसा. स्वयं चड चिंतन केल्लेंय आसा.'

हांवें मदें राबयलें. अर्द रुपया म्हाका दितलो? हांव उपासी आसा. म्हजान कांय जायना. म्हाका व्हरन कांय पुणीय घेवन दी... ! इतलीं चिंतनां सयत हांवें ताचे तोण्डाक टकटकी पळयलें. म्हजी चिंतनां ताचे मनांत पावो!

ताणे विचारले : 'व्हय, तेन्ना 'कला' कितें म्हण तुमी म्हणतात?'

हांवें म्हळें : 'हांव कांय सांगना..क...ला हीं दोन अक्षरां मदें भूमंडळ, सूर्य, चन्द्रमा, नक्षत्रां, आकाशगंगा, सौरग्रहमाला, समस्त ब्रह्माण्ड – हांकां सर्वांकय हांव पळयतां म्हण तत्काल आठय.'

मागीरीय भरलल्ली शान्तताय.

ताणे चिके उपरांत विचारलें : 'तुमचे कथांचो ध्येय स्पश्ट जायना. ताचे पासून तुमकां सांगचाक आसा कितें?'

हांव हारवलों. लोकंडा छडीयेन ताका मारन जीवनाशीं करनाशिल्लें मूर्खपण जालें. व्हय, आतां म्हाका उगडास आयलो. हाचो आरंभ हांवें हें सांगून येवंचे सारके न्हय. समच आरंभा फूडे कथांचे ध्येया पासून सांगन. ताणे ध्येया पासून मात्र न्हय सांगले. म्हज्यो थोडयो कथा पसंत जाल्यो. कांय पसंत जाल्यो ना. थोडयो कथा नीरस आसात. कांय भिरांकूळ आसात. कांय भारी नापसंत करच्यो. हाका सगट म्हाका जाप कितें?

हांवें म्हळें : 'ताका हांव एक तमासो सागन. तुमकां देवाचेर विश्वास आसा?'

ताचे तोण्डावयलो मंदस्मित पुसून गेलो. ताणी म्हळें : 'खरोखर म्हाका देवाचेर विश्वास आसा. तुमकां? म्हजे कायरें आसो – तुमकां आसामू?'

'आसा.' आसो ईश्वराक तुमी कशें जाणात?' म्हळे : ' प्राणीयां वाटेन... सर्वांचेय फाटीं हांव एक महा–विशेश शक्तीक देकतां.'

हांवें म्हळें : ते दिश्टी पडचे सुंदर परमळाचे गुलाब – हाका रचल्ले ईश्वराक तुमी पूजतात अशें अर्थ – न्हय?' 'व्हय'.

'पूण सरपाक रचल्या ईश्वराक?'

तो उलयलोना.

हांवें विचारलें : 'शींव, हती, मासो, जरलो, सवणीं, जळूव, मूय, कासोव, कुश्ट आनी पित्तपुण्ण (Syphilis) – हे.रोगांचे बीज, आम्बो, सुंदर बायलो, खोलायेचो सागर, चड वयर आशिल्लो पर्वत शिखर, तुमी, हांव, मात्र न्हय तुमकां पसंत आशिल्लेंय पसंत नाशिल्लेंय, तुमी ना पसंत करचेंय भियेवंचेंय – तशें देवान संसारांत निर्मिल्यो वस्तू कित्येक आसा. हें सगट रचल्ले ईश्वराक तुमी पूजतात की?'

तो उलयलोना.

हांवें म्हळें : पयलोय अखेरचोय कलाकार संसारा रचपी ईश्वर आसा. तशें आशचे ईश्वराचे कलाकृतीचो खंयचाचोय इरादो तुमकां कळता?'

तो चुप रावलो. हांवें म्हळें : 'तसले कलाकार ईश्वाराचे अनंत कला स्टश्टींत एकलो.... आप आपणाक कलाकार म्हण आठोवंचो एक गरीब ल्हान मनीश हांव म्हण चिंतन कर. म्हजे रचनांक सगटांकय एक व्हड ध्येय आसा.'

हांव हासलों. हांवें म्हळें : 'म्हाका ईश्वराचेर विश्वास ना म्हण लेख. हांवें सांगल्ले सगट तमासो म्हण आठय.'

तें कितें?'

'ओ....सगट तमासो. जीवनच सगट मेळन एक व्हड तमासो. तुमचे मनांतच स्वीकार करात. कितेंय मत सांगात.'

ताणे विचारलें : 'तुमी एक मिस्टिक व्हय?'

हांवें म्हळें : 'हांव एक शाक भाजी न्हय.'

'म्हळ्यार?'

'हांव एक भेण्डें न्हय. मनीश आसा.' जाय म्हण जावो नाका म्हण जावो – हे दिश्टीन न्हय, हांवें तशें म्हळेलें. कशेंय संवाद सोंपवया. पूण, सोंपले देखून ही पीडा. तमासो भरल्ली ताची कथा आयकतले व्हय?

## आठ

एक मनोरंजक कार्य. कान दिवन आयक. सामान्य प्रमाणीं काल दिसा चार वरां वेळ जाला. सामान्य प्रमाणीं हांव थकलोंय. तेन्ना सामान्य प्रमाणीं कुंञम्मा दूदय घेवन आयली. हांवें तमासेक म्हळें :

'आगो चिन्नू, दूद नाका !'

कुंञम्मा कांय उलयली ना. तरी तिका राग येवनाशिल्लें रावतलो? ती दूदा बाटलीय घेवन भितर आयली. ती बाटली आवाज आयकचे सारके रागान कोणशांत – थोंबली म्हण हांव सागना – दवरली !

हांवें म्हळें : 'म्हजेर आयल्ले रागान न्हय गो तूंवें ही बाटली भूंयचेर थोंबली?'

'व्हय!'

हांवें म्हळें : 'हाका सगटय हांव बदलो घेतलों, तुका व्हारडीक करचे वेळार !'

तीणे विचारलें : 'कितें करतलो?'

हांवें म्हळें : 'तुका व्हारडीक करतर तुंरत बारा ल्हाऩ बेतां हाडतलों. तुचे किरांगुळे बोटा एदीं, थोरां.'

'मागीर?'

'हां, मागीर तुका जनेलाचे जाळीक धरन बांदतलों !

'बेतान?'

हांवें म्हळें : 'अक्कल नाशिल्ले गाढवाक बुद्दी ना !'

तीणे म्हळें : 'गाढव म्हण चिन्नूक उलो दी !'

हांवें म्हळें : 'व्हय, मागीर तुचे जांगेर कांय सुंदर पेट संतोशान दितलों. तशें दिसपडतें !'

तीणे खोशीन विचारलें : 'मागीर !'

हांवेंय खोशीन म्हळें : 'मागीर कांय ना, शांत रावतलों !'

कुंञम्मान म्हळें : 'हांव माथें सगट खरपून पिसडतलीं मू !'

'तुचे कि म्हजें?'

कुंञम्मान म्हळें : 'कळना !'

हांवें म्हळें : 'आनी तूं वच.'

कुंञम्मान म्हळें : 'दुडू दी ! दुडू दी !'

हांवें ती दुडूवाची मनस्थिती विसरावचांक विचारलें :

'आज तूंवें कितले सैनिकांक देकले?'

कुंञम्मान कांय म्हळें ना. हांवें विचारलें : 'कितेंगो, चिन्नू ! माजरी वीवन पिल्लां कितलीं?'

कुंञम्मा कांय उलयली ना. हांवें काय विचारलेय ना. तशें आसतना कुंञम्मान एक निवेदन केलें. कितें? ती सांगता: 'आमचे एक माजराक हांवें चिन्नू नांव दिलां ! ताका हांवें केन्नाय मारपय आसा.'

हांवें म्हळें : 'व्हड संतोश. आनी कांय विशेश ना. सुख आसा. थांगाय अशें म्हण विस्वसतां'

कुंञम्मान हुसक्यान, तरी तें कांय परगटाय नाशिल्लें ल्हवू विचारलें: 'चिन्नू खंयचें?

चिन्नू एक पोरणी काळी गाय आसा. भिरांकूळ दोन शींगां आसात. ती म्हाका व्हड पसंत करताली. कितें म्हळ्यार कांय वीस फांतां तीणे म्हाका खोंचून गरगडावन घालो आसा. ते उगडासान हांवें कुंञम्माक म्हळें :

'ती एक काळील्ली !'

कुंञम्मान तांत व्हड आनंद घेतलो. कुंञम्मा गोरी आसा ! कुंञम्मा हासलीय. तीणे विचारलें : 'चिन्नूचें घर खयंतंय?'

हांवें म्हळें : 'हांगा सावन भो पयस – गावांत आशिल्लें म्हणचे म्हजे घरा कडे.'

कुंञम्मा थोडे समयाक चुप रावली. तीणे इल्लो दुखान ल्हवू विचारलें: ‘व्हारडीक केल्ली बायल की?

हांव चुप रावलों.

कुंञम्मान विचारलें : ‘मागीर हांगा हाडून रावयली ना कित्या?’

हांव उलयलों ना.

कुंञम्मान विचारलें : ‘गोवंटेकय हाताकय भरन जायें आसा की?’

‘हांव चुप रावलों.

कुंञम्मान म्हळें : ‘हांव वतां. घराक वचून शेंभर काम आसा !’

हांवें म्हळें : ‘वच.’

कुंञम्मान म्हळें : ‘दुडू दी.’

हांवें दुसरीय तिची दुडूवा मनस्थीती पयस करचाक म्हळें : ‘कुंञम्मे, मुखार आनी, तूं दुडू निमगना जाल्यार हांव चिन्नू पासून सांगन.’

कुंञम्मान म्हळें : ‘नाका, म्हाका ते फटिंगिणी पासून आयकचें नाका!’

हांवें म्हळें : ‘तूं चिन्नूक ‘फटिंगीण’ बी म्हणचें समकी? चिन्नू जाण जाल्यार !’

‘म्हाका गिळतली की?’

हांव चुप रावलों.

कुंञम्मान विचारलें : ‘चिन्नूक सदा उगडास करता कित्याक?’

हांव उलयलो ना.

कुंञम्मान विचारलें : ‘चिन्नूक जायतो केस आसा?’

हांवें म्हळें : ‘केस एदो लेगीत ना !’

कुंञम्माक संतोश जालो. कुंञम्माक जायतो केस आसा !

कुंञम्मान विचारलें : ‘चिन्नूक साडी आनी ब्लाउस की वस्त्र आनी...?

हांवें म्हळें : ‘चिन्नूक साडी ना, ब्लाउस ना, वस्त्रय ना. जल्माक आयले सारके !’

'आये !' कुंञम्मा लजेली.

कुंञम्मान विचारलें : 'चिन्नू घरां सावन भायर खयींय वचना की?'

हांवें म्हळें : 'गोठ्यांत रावता.'

'ओ,' कुंञम्मा हासली. 'तरी ती एक गरीब गाय मू'

हांवें म्हळें : 'तूं एक बुद्दी नाशिलें गाढव.'

कुंञम्मा चुप रावली.

हांवें विचारलें : 'कुंञम्मे, तूं आज वचून ते चिन्नु माजराक मारतली?'

'कळना!' तीणे म्हळें : 'घराक वचून शेंभर काम आसा'

हांवें विचारलें : 'तुका कोणेय रावचाक सांगलें?'

'दुडू दी. आयज बापूयन सांगलें. दुडू घेवन येवुंक जाय म्हण!'

वचना, दुडुवा मनस्थीती !

हांवें म्हळें : 'कुंञम्मे, तूं ही रीत बदलून नवो जयघोष उलो दी.' म्हाका हें आयकून आयकून पुरो जालें : 'दुडू दी ! बापूयन म्हळां दुडू घेवन यो म्हण !'

कुंञम्माक राग आयलो. 'हांवे मागीर बापूयक कितें सांगचें? दुडू नाशल्यार तण मेळतलें?'

हांवें म्हळें : 'तो जयघोषूय पोरणो. सगट कायरींय म्हाका कळता. बापूय आसा. आवय आसा. दोगां भाव आसात. बारा कुंकडां –.'

'बारा न्हय, बावीस कुंकडां आसात !'

'व्हय. बावीस कुंकडां, णव माजरां –'

कुंञम्मान म्हळें : 'आतां माजरां पन्नेरा जाली !'

'चिन्नूमाजराकय सयत व्हय?'

'कळ्ना !'

हांवें उलो दिल्लो : 'कुंञम्मे!'

'कितें?'

‘आगो, तीं कुंकडां वियेनात व्हय?’

कुंञम्मान म्हळें : ‘श्शो ! कुंकड तांती घालता !’

हांवें विचारलें : ‘आगो, तुका दिसपडतें दूदा लागी स तांतीयो उकडून हाडल्यार कितें?’

‘मन ना !’

‘जाल्यार नाका.’

कुंञम्मान इल्लो समय उपरांत म्हळे : ‘तांती काळ्यार आवय मारतली.’

हांवें कांय म्हळेना.

कुंञम्मान विचारलें : ‘दोन पुरो व्हय?’

हांवें म्हळें : ‘तूं वच. तुका वचून शेंभर काम आसा’

कुंञम्माक राग आयलो : ‘जाल्यार हांवे तांतीं कांय हाडचना, दुसरें कांय हाडचना !’

धर्माक लागचे एक दस्तूर म्हण लेकून हांवें इल्लें चिंतन करन म्हळें: ‘आयज तूं बापूयक म्हण, दिसपट्टें दूदा लागी दोन दोन तांतीयोय दीवन धाडचाक.’

तिका पसंत जाले ना. तीणे म्हळें : ‘मन ना ! मन ना !’

हांवें उलो दिलो : ‘आगो चिन्नू !’

ती उलय नाशिल्लें देवन धांवली. हांवें आठयलें : फाय ती तांतीयोय घेवन येतली. तीणे बापूयक सांगलें आसतलें कि ना? न्हंय जाल्यार तीणे फारन हाडची तांती हांवें खावंचे बरोबर जावना. तें म्हजे संस्कारीक अध:पात जातलें ! तरी तांत्याची रूच उणे जातली व्हय?

तशें चिंतन करन बसल्या वेळार उपासक आयलो. तें अशें : ‘साराक एक सार उलो दिता.’ म्हण सांगून खरशेवन धापेवन हुमेवन, हांवें वळकचो एक रिक्षा गाडी कार म्हजे कूडाचे मुखार आयलो. हांवें विचारलें :

‘खंयचो सार?’ इल्ले रागार हांवें विचारलें. रिक्षागाडीकारा कडे आशिल्ले रागान न्हय. खंयकी बसून हांवे थंय वचपाक जाय म्हण हुकम

दिवंचे ते सारा कडे आशिल्ले रागान. ततले चड गौरव आशिल्यान म्हाका देकचें म्हण नाका. तरी हांवें विचारलें : 'कोण रे, खंय रावला?'

'म्हाका वळख ना. तो सार म्हजे गाडीयेर बसला.' हांवें म्हळें : 'तूं वच आनी ते साराक हांगा येवंचाक सांग.'

खयंचोय लीडर जाल्यारीय हांगा येवो. तो धांवलो. हांवें चिंतन केलें : कांय फायदो आसतलो? आयज पूणीय जेवंचाक जालें जाल्यार ! येवंचे मनीशान म्हाका अर्द रुपया दिलो जाल्यार ! म्हजे तोण्डांत उदक भरलें. कल्पनेंत हून हून शीत आनी रावंदय देकून म्हण, म्हजे दोस्त, तू समजून घे. हांव स्वल्प अस्वस्थतायेन राखून रावलों म्हण सांगतां. (हम्मो ! म्हाका एक नीट जाल्यार बरें सी दिसता. पूण पोटाच्यो मिरीयो ना जातल्यो !) व्हय, हावें विचार केलो; येवंचो मनीश कोण जावयेत?

णव

आयलो.

अनवळखी एक मानादीक मनीस. सुंदर. बरें आरोग्य आसा. निवळ वस्त्र न्हेसला. केस मागलान वळवन दवरला. बरे पर्जळचे दोळे. रूचीक खाण जेवण भरपूर दिसपट्टें करचे भाशेन. कांय दुख नाशिल्लो चेरो. हातांत चड मोलाचें गोल्ड फ्लेक सिगरेटाचें टिन. हाताक भांगरा रिस्ट वॉच. कुट्टीकुरा पावडर आनी वेगळे कित्याचेकी परमळीक वस्तूचो एक... व्हय; शांत रूपान हासून म्हजे कूडांत भितर सरलो आनी शान्ततायेन हासून विचारलें आंग्रेजींत : म्हळ्यार हांव हो सांगचो मनीश व्हय कि न्हय? तेन्ना हांवें ते दांत देकले. मुखावेले चार दांतांचे देगांचेर भांगार घडयलां. ताचे प्रश्नांक हांवें आंग्रेजीनच जाप दिली. आनी हांव हे आरामकुरसीर साकून ल्हवू उठायलों. हें म्हजे सिंहासन म्हण लेकचाक जाय. तरी हांव ल्हवू उठायलों. कित्याक? तो व्हड धनवर्तक म्हण म्हाका दिसलें. कारण कितें? गोल्ड फलेक सिगरेट टिन, भांगरान बांदल्ले दांत. दामेल्याची लक्षणां न्हय? दामेल्यांक मान दिवचें आमचें कर्तव्य मू. तेंच देखून न्हय. तें सोड. हांवें ताका म्हळें : उलवंचें सगट अंग्रेजींतच !

'बसात !'

ताणे म्हळें : 'नाका, नाका.... तुमी बसात.'

हांवें म्हळें : 'भो समय जालो हांव बसलां. तुमी बसात. दुसरीं आसनां कांय नात.'

ताणे मोगान विचारलें : 'तुमी खंय बसतले?'

हांवें म्हळें : 'हांव भूंयचेर बसन. अशें म्हजी सवंय – कोणेय आयल्यार !'

ती हासून हे आरामकुरसीचेर बसलो. हाचेर अनेक सास लोक बसलो आसा. दादलोय बायलय. हें तुमी विश्वास करचें म्हण ना. तो आनंदान हासून म्हाका चौकस केलो, म्हळ्यार पळयलो म्हण अर्थ. ऊंच माथें सावन सकयल पावल भितर म्हाका पळयलो. हांव चिके हुसक्यांत पडलो. हांव तयार काडून बसलो ना मू. म्हाका बरे रूपान कळता. हांव थकून अस्वस्थ जालां; भूक लागून, जठराग्नी वाडवली. तरी... व्हय...म्हाका कळता.. म्हजे ओंठ सुकून आसात. दोळ्यांपासूनूय कितें सांगचे? म्हजे दोस्त, हांव हांगा कश्टांची एक वळेरी तयार करता न्हय, एक कथा बरयतां. कित्याक, अशेंच, अशेंच, एक कथा अशेंच. न्हय जाल्यार, तुमकां एक चीट. उतलेंच. तो आयले उपरांत कितें जालें, सांगतां.

व्हय, ताणे म्हाका विचारलें : 'हांव कश्ट दितां न्हय मू?'

हांवें म्हळें : 'न्हय.'

ताणे म्हळें : 'गंभीरतायेन कांय उलोवपाक आसा. गाडीकाराक सागूंन धाडचें बरें आस्तलें न्हय?'

हांवें म्हळें : 'व्हय.'

ताणे विचारलें : 'भाडें कितें दीवुंक जाय?'

हांवें गाडीकराक निमगलें : 'खंय सावन?'

गाडीकारान होटलाचें नांव भोवमानान सांगलें : '.....'

ओ... तें व्हड होटलच, व्हड कर्मचारी, राष्ट्राचे व्हड लीडरां, व्हड पयशेकार लोक, तशें व्हड व्हड मनीश हे शारांत आयल्यार थंय रावतात. हांगा साकून देड फरलाड. पयस आसा. एक दोन 'आणे' * दिल्यार खूब पुरो.

* आणे = annas

हांवें म्हळें : 'चार आणे दी'

तशें सांगचाक कारण, तो एक गरीब वावराडी मात्र न्हय म्हजेर ताका चड भोवमान दिसो म्हण. आनी म्हाका देकल्यार अनीकंय चड भोवमानान सलाम दितलो मू.

पूण गाडीकाराक दीवुंक ताचे कडे खुरदे ना ! खुरदे घेवन भोंवचें पदवीक उणाव म्हण ताणे लेकून म्हळें की?

कितेंकी ताणे म्हळें : 'खुरदे कांय ना मू !'

मात्र न्हय, भो फुगलो एक लकोटो खिसां साकून काडलोय. तांत साकून शेंचीय, धांचीय, पांचांचीय एदो चड नोटांय. हे वेळार हांवें कितें करचाक जाय? चार आणें हांवें गाडीकाराक दीवुंक जाय. ती गांवची रीत. पूण म्हजे कडे कांय पैसो ना, हें सत ताका जाणोवचें म्हजे पदवीक उणाव न्हय?

ताणे दूदा बाटली हातां काडली : 'हाका भारी हुनसाण आसा मूं'

हांवें म्हळें :'आतां हाडलें मात्र. जाय जाल्यार पीवयेत !'

'ओ....!' तो शांततायेन हासलो. उपरांत म्हळें : 'हांवें दूद पीवप ना!' 'चाय हाडोवूं?' हांवें गुंतागुंतीत आठोव नाशिल्लें विचारलें. लागीच ईश्वराकडे मागलें. म्हजे दोस्त, हांवे ईश्वराकडे कांय पुणीय सांगून जयते काळ जाले. कितें सांगचाक आसा? ईश्वराक सर्वय कळता मू. तरी हांवें मन दुकून मागलें : 'ईश्वरा ! ताणे चाय नाका म्हण सांगचाक जाय !'

ताणे म्हळें : 'चाय नाका !'

हांवें विचारलें : 'कापी?'

ईश्वरा, फटव न्हये !

ताणे म्हळें : 'नाका !'

हांवें विचारलें : 'कूळ ड्रिड्स कांय?'

सर्वशक्तिमान ईश्वर आतांय म्हाका रक्षण कर !

ताणे म्हळें : 'नाका !'

हावू ! हांव मान्य जालां. म्हाका आनी ताचे तोण्डा पळवयेत.

गाडीकारान विचारलें : 'सारे....'

हांवें म्हळें : 'म्हजे कडेय खुरदे ना.'

धांचींय, पांचांचींय, शेंचींय नोटांचे बंडल मात्र म्हाजे कडे आसात अशें लेकून हांवें तशें म्हळें. मात्र न्हय म्हजे मनांत रसपतीची एक चिंताय जागली. झाडांचे मूळ खणचे लिव्हर कोणशांत तेंकून आसा देकचाक म्हाका तें दिसलें. हांवें चिंतन केली : देवन वचून गाडीकाराक गुपीत सांगून परतून येवन लोकंडा लिव्हरान ताचें माथें मारन भेतून जीवनाशीं करया ! कोणे जाण जावना. तीं नोटां बंडलय काडयेत. गाडीकाराचे मदतान सांजे ताका पटांगणांत फोंड खण पूरयेतय. हांवें चिंतन केली : ते दांतांचेर घडयलें भांगार काडून जाय कि काडू नाशिल्लें?

## धा

दोस्त.... ही चीट हांव सोंपयतां. म्हजान जायना. म्हजान जायना. जायतें सांगन म्हण आशिल्लें. जायना. चड थकावट आसा. म्हजे पोटांतलें शिश्याचें वर्तुळ पदार्थ आनी कांट्या राशी सगट कितें आसा आनी तें कशें आयलें म्हण कळुंक जाय व्हय? म्हजे उपासकाची उदार, उदार देणगी !

ताका हांवें जीवनाशी मारलो ना. आमी चड समयाक उलयले. वावराडी लीडर, सिनेमा नट, नर्तिका तांचे पासून म्हळेलेंय, हांव सोडतां.

अनेक दीस जाले हांवें कांय खावन – हें खबर तुमी उगडास दवरंक जाय. म्हजे उपासका लागी साकून पाव रुपया कि अर्द रुपया रीण घेवंचाक– ना. हांवें विचारलें ना.

ताणे सताईस कि बासत्तर कि पैंशें बासत्तररुपया म्हजे खातीर खर्च केलो ! तेंच हें शिश्याचें वर्तुळ पदार्थ आनी हेर. तुमी विश्वास करनात जाल्यार खबर स्पश्ट करन सांगन.

एक सिनेमा कथा हांवें बरवन दीवंक जाय अशें ताणे म्हळें. घडणूको सगट रातींत घडच्यो आसूंक जाय. धरन उपन घेवप, बलात्कार आनी खून – हीं सगट जाय. स्ववर्गसंभोग जावयेत. 'मध्यानरात' हे कथेचें नांव आसुंक जाय.

ताणे म्हाका सिनेमा वचून पळोवपाक आमंत्रण दिलें. हांवें पळयल्ली कथा. तीवय व्हड वायट कथा. भूंयचेर बसून देकली आयचे एक साहित्यकाराक 'भूंयचेर टिकट घेवन बसचाक लेगीत... सोड : कथा मुखार सांगतां. हांव गेलो. एक पोट अन्ना खातीर म्हण उगडास करचाक जाय.

सिनेमाघराक गेले चमकून न्हंय. दोन रिक्षा गाडीयांचेर. गोल्ड फ्लेक सिगरेटय ओडून गमेर.

ताणे म्हळें : 'अजापच ! हें आतां वेश्यांचेय, भिकार्यांचेय, पुलीसांचेय शार जाला !'

हांवें म्हळें : 'खून करप्याचे.... म्हळ्यार सैनिकांचे शार !'

ताणे विचारलें : 'हें आतां खंयीयं बॉम्ब करतलें की?'

बॉम्ब केल्यार कितें, करना जाल्यार कितें.... मरण केन्नाय, केन्नाय लागी आसा मू.

हांवें चिंतन केली. म्हजे हें वचप कुंञम्मान पळयलें जाल्यार, म्हाका वळख आशिल्ले कोणेय देकलें आशिल्लें जाल्यार,... पूण, तांकां दुबाव दिसता आशिल्लो. ते वचपांत कितेंकी फटवण आसा; तांत विश्वास करपाक पाडना. पूण वळखीचे कोणाकय देकले ना. आमी गमेर सिनेमाघराचे मुखार वचून देवले. जमीनेरचें टिकट घेवंचो लोक गोदंळ करता. भिकारी हांचे मदें भीक मागतात. खिसकापूय आसात. गाडीकारांक तांणी आठयल्या पाशीय चड दाम मेळो. भोवमानान तांतले एकलान म्हाका सलाम दिलो. हाजे उपासकान वचून दोन टिकट घेतलीं. भूयंचेवेलें टिक्ट न्हय कुरसीचें टिकटय न्हय. खरें बालकणी टिक्ट !... आमी दोगंय उंचार चडले. बालकणीचेर दोना सोफांर बसले. सत्य सांगन मू, म्हाका भूयंचेर जावो बांकांचेर जावो पळवंचाक लज दिसली. म्हजे वळखीचे लोकानी देकल्यार.... निपट फट आसा. ते मनीशाक कशेंकी थांगा बसपाक जातलें? तो एक साहित्यकार न्हय? तशें दुबावतलो मात्र न्हय पुलीसाक जाणयतलो म्हणय हांव भियेलों. तशें गोंदळा बोव आरंभली. म्हाका देकून न्हय, सामान्य सिनेमाघरांतले जनाचें गोंदळा बोब. जमीनेर साकून चडय. बेंचार बसलेय कदलार बसलेय आसतले. म्हाकाय सेळावंक आनी 'घुहू' म्हण ओरोळी घालंक जाय म्हण

दिसलें. भूयेंर बसचे वेळार हांवें तशें केल्लें आसा. जनान सेळावंचे वेळार आनी आरोळी घालचे वेळार हांवेंय तांत भाग घेतलो आसा म्हण तात्पर्य. एक अपरूप घडणूक आसतली. बालकणीचेर बसून एकलो आरोळी घालता, सेळायता... तसलो आग्रो हांवें दामलो. तशें सिगरट्य ओडून बसलों. अखेर कितें सांगचें, वरां साडस जालीं दीवे सोंत जाले. हॉळांत काळुक भरलो. पड्द्यार दीर्घ समचौकोणार धवें वस्त्र स्पश्ट जालें. ताचेर 'खामोश' देकलें. ताका लागून जनानी भिरांकूळ आरोळी घाली ! मागीर जाहिरनामे प्रकट जावपाक लागले. सगटांतय बायलांचें चित्र आसा. बैंक, ब्रान्डी, सुकी मासळी, चुन्याचो गारो गुस्ती, सावुकापोळी, ओकदां, फाउंटन पेन, खखत – तशें जाहिरनामे. बायलांचे चित्र ना जाल्यार जाहिरनाम्याक कांय उणाव आसा व्हय? खखत कोणेय घेवना व्हय?

हावू ! अखेर सिनेमा आरंभलें. हांवे दोळेय धापून झूजा पासून आठयलें. दुश्काळा पासून आठयलें. लोक उपाशी रावन मरचे खातीर आठयलें. फकत धर्माचे एक आचारा सारकें म्हण आठयलें. तशें आठयल्यार पुरो. झूजा आनी मरणां म्हाका तणा समान आसा. पूण जनांगेल्यो तावतावळच्यो ताळीयो सिनेमाघराक कडकडायताल्यो. 'कसले बुद नाशिल्लीं गाढवां हे लोक? पळयात. अकल ना, भावना ना, अम्बा ! ताळीयो मारतात !'

हांवें विचारलें 'कितें आपाप उलयता?'

म्हजे उपासकान म्हळें : 'देकलें तांचो आनंद !'

हांवें विचारलें : 'फिलम कशें?'

'छायाग्रहण भो बरें आसा. अभिनयय बरोबर. कथा भो वायट. तुमी बरी कथा बरवन दिवंक जाय.'

'बॉक्स ऑफीस सक्सस' आसा.' हांवें मनांत म्हळें. आमी तशें देवले, फिलम जाले उपरांत. 'गुड नायट. लागीच देकूं,' म्हण सांगून तो वतलो म्हण हांव भियेलों. तो तशें गेलो जाल्यार – आतांची ही घुसपणी जावना आशिल्ली. कितें घडलें?

ताणे रावचे ते होटला मुखार आमी पावले. शारांत उजवाड पाडना मू. तरी बरें चांदनें आसा. हांवें आठयलें : 'आठ आणे मागल्यार?... नाका, मान राखपाक जाय. हांवें म्हळें : 'गुड नायट ! लागीच देंकू. थाङ्स फार दी सिनेमा.'

ताणे म्हळें : 'नाका, नाका. कांय पुणीय थोडें खावन वचूं?

हांवें म्हळे : 'कांय नाका... करुणाकर देवा !'

ताणे म्हळें : 'छे, येयात, कांय उणे खावन वचूं.'

हांवें आठयलें : आनी नाका म्हळ्यार ताणे मागीर उलो दिलो ना जाल्यार? हांव गेलों. आमी ते व्हड होटलांत गेले. म्हाका भारी संकोच जालो. पयले तो पहरेदार म्हाका बारिकसाणीन पळयलो. मानादीक वचे थळार हाका कितें कायरीं, हे लेकान. म्हाका ताणे सलाम दिलो ना. हांव हें विशेश करन मनां दवरचाक कारण, म्हजे उपासकाक सलाम दिलो. म्हाकाय सलाम दिल्यार ताका नुकसान कितें? राणूला पूत !

उपासका लागी हांव होटलांत आयलों. ताचे भितर दोन लोक आसात. हाळांत लोक बसून सात्वीक खाण खातात. तांचे मदेंचान आमी चमकले. दूसरें एक दार. थंय कांय गुपीत म्हणपां उपरांत कवड उगडायलें. मानेस्त बसून खातात आनी पितात.... पेसकात्यो, कांटे, बॉटलां, मांस आनी रोटी– ताचे सगटा मुखार दादलो मात्र न्हय, बायलोय आसात. कोणाकय सुबूद ना. अशें म्हाका दिसलें. मादकपणाचे झोतांतल्यान आमी वतात म्हण म्हाका दिसलें. म्हाजो उपासक भांगरा दांत दाकोवन कांय जणाक पंळोवन शांत रूपान हासलो.

ताणे म्हाका विचारलें : 'हून कि शेळ?'

हून कि शेळ म्हण विचारल्यार अर्थ कितें? हांवें म्हळें : 'कितेंय.'

आमी तेन्ना एक ल्हान मेजाचे दोनीय तांत दोन कदेलांचेर बसलांय म्हण उगडास दवरंक जाय. पगडी दवरललो एक बटलर नम्रतायेन आमचे समीप रावला म्हणूय उगडास दवरुंक जाय. ताणे बटलराक म्हळें : 'एक स्क्रीन हाड '

'हां सर?' म्हण सांगून तो गेलो.

स्क्रीन म्हळ्यार आडपडदा अथवा पडदा म्हण म्हाका कळता, तरी सत्यान हांव सांगतां, हांवें आठयलें कसलें की खाणाचें नांव म्हण. म्हजे तोण्डांत उदक भरलें, म्हण उगडास दवरूंक जाय. पूण कितें सांगचें ! बटलर एक व्हड आड पडदा घेवन आयलों. दुसर्यां कडे साकून आमकां आड करन वेगळे केले. तो त्या बटलराक उलो दीवन कितेंकी सगट गुपीत सांगता आयक्लें. बटलर गेलो. उत्सुकताय ! हांव तशें बसलों. एक पांच मिनट जाली ना, पेसकात्यो, कांते सयत उजो जळचे म्हळ्यार हून दोन कुंकडां आमचे मुखार हाजीर. भाजल्लीं कुंकडां. मागीर रोटी, बटाटो व्हड कुटके करन दवरल्लेय. हांव एक वागा सारके गुरगुरून चाबून पिसळून खेलें ना. उपास घेतल्ले शिंवा समान गर्जलो ना. खावंची पदार्थां देकचाक – तोण्डात तारूं धावंडावचाक मात्र उदक भरलें. संस्कृतायेन हालनाशिल्लें बसलों. उपासक चुप बसला. आनीकंय कितेकीं येवपाक आसा. तें कितें? वेगीन आयलां. दोन व्हड गिलासांत हळडुवें द्रव ! आमचें पोरणे सूंठी उदका सारके, पूण उंचार भरन फेण आसा मात्र. आमी खावंचाक प्रारंभ केलें. म्हजी ताकतीक आनी अस्वस्थकाय तुमी अनुमान करात. हांव चाबून आनी चाबनाशिल्लें गिळतालों. तांत भितर कांय पिवपाक दिसलें. गिलासांत आसा कितें म्हण विचारलें ना, हांवें गिलास हातां काडचाक इत्सा केली.

म्हजे उपासकान तागेलें गिलास काडून म्हाजेचेर 'क्ळम' आवाजान आड़ळायलें. तो हासलो. हांवंय हासलों. हांवें गिलास हातां काडलें. ताची शीतळकाय म्हजे हाडां मेरेन पावली. हांवें आठयलें, शेळ आसा. लिंबूवा उदक आसतलें. सरबता सारके लिंबवा उदकाक फेण ना. तरी गोडसाण आसतली. देवा ! म्हण आठोवन हांवें एक घोट देवंयलो. कितें सांगचें? भिरांकूळ हरवंटाण, आंबसाण... ना कोडवाण ! हें कितें रे ! तशें आठोवंचाक एक तमासो जालो. म्हजेर बरो पसंत आशिल्लो एक दुर्बळ शैतान, म्हळ्यार एक भूत. दादलो की बायल म्हण कळना, म्हजे भितर सरलां म्हण म्हाका दिसलें. हांव हासलों. हांवें विचारलें : 'हें कितें?'

म्हजो उपासक हासलो. ताणे म्हळें : 'तुमी हें सगट खावंचे मनीश म्हण हांवें आयकल्लें आसा मू.'

हांवें म्हळें : 'असलें 'गुट्टन्स' कांय हांवें खेले ना.'

'सत्यकी?'

हांवें म्हळें : 'सत्य.'

'जाल्यार तें.....' ताणे गिलासांतल्याचें नावं सांगलें :

'......'

'हांवें आयकल्लें आसा !' देवा !

'व्होय, आरोग्याक बरें'

हांवें फूडे ताडीचो दुकान निरोधन केल्ली कथा उगडास केलो. म्हजे पायाचे खीणार पडून भेतल्ले बॉटला पासून..... हांवें विचारलें : 'हें ते वर्गांत....'

'भो दळिद्री मनीश हांव, निरपराधी.'

हांवें कुंकडाची जांग चाबून खावन एक सोसपाक गिलास रितें केलें. दुसरीय गिलास भरलें. तेंवंय हांवें खाली केलें. तशें खावनूय पीवनूय आसतना परतून गिलास आयलें. फेण ना. रंगाक एक बदलाव. एक घोट पिल्लों. एक सास सोपूर सूवेन थोंबले सारके दिसलें.

हांवें विचारलें : 'हो दुसरो न्हय?'

ताणे नांव सांगलें : 'हो..'

'दळिद्री न्हय !'

'न्हय, हो बरो घाडसी आसा. बरे कुटुंबाचो !'

हे रीतीर बरे कुटुंबाचो तो शैतानय म्हजे भितर सरलो. वरां तशें सरलीं. म्हाका बरो उत्साह आनी आनंद दिसलो. हांव सगळो तिमून थापून फुगल्या सारके. कुटुंबाचे जायते पिशाच्च्योय गिलासा वाटेन म्हजे भितर पावल्यो. हांवें म्हळें. उलवंचे वेळार उतरां सगट गळन वचे भाशेन... हांवें म्हळें :

'मिस्टर.'

ताणे म्हळें :'छेय, आरंभलें मात्र. बोय !'

'येस सार !'

'लिंबूवो, हरवी मिरियासांग, मीट.'

'येस सार !'

तें आयलें. हरवी मिरियासांग मिटांत मेळोवन तांत लिंबूवा रोस ओतलो. दोन थाळ्यांत, एक म्हजे मुखार दवरलें.

'हात–बोट लाय आनी जीबेर दवरन पळय. म्हजें मास्टरपीस हें.'

हांवें हात लावन जीबरे दवरन पळयलें. 'भेश ! हम्बटा ! ती तिकसाणीय, आंबसाणीय, मिटसाणीय..... तान....

मागीरीय आयलीं पिशाच्चीं, यक्षीयो, एक–मोम्याच्यो, व्हड मूर्ख मनीस, मूर्ख बायलो.... सुंदर मनीश, सुंदर बायलो.... बोकडा मांस, रोटी. हांव लेखा भायर पिल्लों : लेखा भायर खालें (म्हजे दोस्त, माफी कर ! कांय जिरलें ना. रेवें साका सारके, शिश्याचे वतुळाचेर वेडायल्या कांटयाचे सरीयां भाशेन, पाशाण कुटक्या समान.... हो सगट पडलां. हांव मरतलों म्हण दिसता. माफ कर, सगट सांगन). खावन, पीवन आनी जीबेर दवरन पळवनय तशें बसचाक हांवें उमर खय्यामाक आठयलो. म्हजो एक पयशिल्लो नातेवर्गी तो. ताणे वायना पासून गायल्लें आसा. हे गोंदळांत थोडें वायनय पीवूं म्हण हावें लेखलें. हांवें विचारलें :

'उमर खय्याम हांगा आसा व्हय?'

म्हजे उपासकान म्हळे : 'तुमी एक बरो पिश्शांड जालो मू.'

म्हाका हास आयलो. ताचे तोण्ड तांबडेंच आनी दोळे बारीकय जाल्यात. हांवें म्हळें:

'तुमचे दोळे बारीक आसात !'

तो हासलो : 'तुमचेय !'

हांवें म्हळें : 'हांव वचूं?'

ताणे विचारलें : 'तुमी विचारलें कोणाक?'

'वायन.'

'बोय !'

'येस्सार !'

'वायन.'

वायन आयलें. गाड तांबडें. सुंदर बायले भाशेन मधूरय तिखसाणीय आसा. तो उलयलो. म्हाका कांय उलयनाशिल्लें चुप बसचाक दिसलें. अखेर धवे वायन आयलें.

'हांव वतां.'

ताणे बिल हाडचाक सांगलें. वटलरान एक ताटांत बिल हाडलें. सातवीस की बासत्तर कि पांच शें आनी बासत्तर.... एक संख्या हांवें पळयली. निर्णयार पावपाक जायना. तें घुंवतां सी म्हाका दिसलें. आमी उठायले. ताणे म्हळें : 'तमासेची कथा बरवपाक जाय. मध्यान रातींत. हासवपी कथा. हांव फान्त्यार वतलों, धाडतलों व्हय?'

'धाडीन. कोमेडी. माथ्याक जडाण. मध्यान्न रातींत.'

'गुड नायट !'

हांव लकून घलून उठायलों. आयल्ले दारांतल्यान न्हय भायर देवल्लों. तो फाटक मेरेन म्हजे वांगडा आयलो. ताणे विचारले : 'एकलो वतलो व्हय?'

'वचन एकलोच. लोकांत एकलोच. गुड नायट !'

'तमासेची कथा बरवन धाडून दिवूंक जाय ! दुडू कांय जाय?'

'नाका, गुड नायट !'

'गुड नायट; कोमडी !'

'कोमडी, गुड नायट ! मध्यान्न रात.'

आमी वेगळ्या वाटांनी गेले. म्हाका खूब हुनसाण दिसली. वस्त्र मेकळन माथ्या बांदुक दिसले ना. गींत म्हणचाक दिसलेना. थोडे अपराध केल्यात म्हण दिसलें. सूर हुकुमान मना केला मू. मान्यताय ना. भो चड पिल्लों. उकरसान भो चड खालें. उन्माद म्हळ्यार उन्माद बरे भाशेन आसा. समजणी ना जायत की? वाटे देगेर पडल्यार. हांव खंय वतां? धाट धालप खंय थंय? गरगडेवन पडचाक नज. हांव दीग नीट जावन सैनिका सारके चमक्लों. लोकांतले सूर पिवग्यानों ! येयात. एकमेळ घडोवन आमकां अनंत ध्येयांत वचा; उन्मादाचे, उन्मादाचे अनंत ल्हारांत, हांव बुडून वतलो व्हय? नीट रावलां हांव. संतुलन चुकचाक नज. डोंगराचो भार. शिखर म्हणचें माथें ब्रह्मांडांत दुखांत गुटळायल्लो आनंद. सगळ्याकडेय शांतताय. बरें चांदनें. शेळ वारें. चांदनें भरल्ली मनोहर रात ! आनंद की दुख? आनंदूच. हांव पुनवे चंद्रीमांत मान सक्यल करन रावलां. नक्षत्रां सर्वय घुवंतात. नाचतात. आनंदाचो नाच. सर्वय म्हजा साकून पयस वता? भूमंडळ वता खंथंय? अथवा हांवंय संसारय सर्वय मेळन... सर्वय मेळन अनंततायेंत धावन धावन उसळता व्हय?

# बषीराल्यो काण्यो



## वैकम मुहम्मद बषीर

जीणेचे सावळेचीं खतां, रसपाळें केळें, विश्वविख्यात नांक, दीन-दुर्बळांची वेश्या, आवय, हातबेडी, आयषुकुट्टी, मूर्ख मनीसांचो सर्ग, मरणाचे सावळेंत



अणकार : प्रो. आर. के. राव

कोंकणी साहित्य अकादेमी - केरळ
एरणाकुळम

₹ 140/-